# अक्षरब्रह्म

(ललीत)

मुकेश थळी




खोर्ली, तिसवाडी - गोंय.

अक्षरब्रह्म
(ललीत)
मुकेश थळी

AKSHARBRAHMA
(Essays)
Mukesh Thali

प्रकाशन क्र. 2



**पयली उजवाडावणीः**
ऑक्टोबर 2010

**उजवाडावपीः**
ॲड. अमोल थळी
आनंद प्रकाशन
5, पिडिए कॉलनी,
खोर्ली, तिसवाडी, गोंय 403110
☎ 2285497

**छापणावळः**
आदित्य मिलींद तिंबले
स्वर्णमुद्रा प्रिण्ट्स,
माशेल - गोंय.

**मुखचित्रः**
अमृत गायतोंडे

**मोलः**
रु. 120/-

हें पुस्तक कला आनी संस्कृताय खात्याच्या 'लेखकां खातीर अर्थीक आदार' हे येवजणे खाला उजवाडायलां

# आठवल

ललीत लेख म्हणल्यार आत्मप्रकटिकरणाची एक तरा. संवसारीक साहित्यांत फाटल्या एक-दोन शेंकड्यांनी ताचें अंतरंग आनी भायलें आंग हातूंत मुळा सावन बदल जाला. चार्ल्स लॅम्ब हांच्या निबंदां सारके आज कोण बरयनात. दोन पानां ते धा पानां परसूय चड अशी ताका लांबाय आयल्या आनी जिवितांतले वेगळेवेगळे अणभव ताणें आपले भितर आसपावन घेतल्यात. एका काळार निबंदांत भावनां परसूय विचारांक चड सुवात आसताली.

फाटल्या चार दसकां मदीं कोंकणी साहित्यांत हो प्रकार आंग धरून घसघशीत वाडपाक लागला. रवीन्द्र केळेकार ते मुकेश थळी असो ताचो प्रवास जाला. मुकेशबाबाल्या निबंदांनी तीन सूर मुखेलपणान आयकुपाक येतात. एक तांचो आपजिणेचो, तांकां आशिल्ल्या सैमाच्या उपाट मोगाचो आनी तत्वचिंतनाचो. देखून चोडणां वतना तो जेन्ना मोराक नाचतना पळयता तेन्ना 'भांगराळ्या वतांत पडपी पावस, मळबातलें इंद्रधोणू, मोराचो इंद्रधोणूमय पिसारो पळोवन' ताच्या मनाचो पिसारो फुलता. आनी 'त्या मोराक कोणें नाच म्हणून सांगिल्लें? काय हांवें 'वन्स मोर' म्हणलां म्हणून तो नाच नाच नाचतालो?' असो प्रस्न तो आपल्याच मनाक विचारता. हांगाच मुकेशबाब थांबना. तो मुखार म्हणटाः 'लेखक म्हणून मोरा कडल्यान एक गजाल हांव शिकलों. सृजन कुपां मनांत येतकच शब्दांच्या विचारांच्या पावसांत मनपिसारो फुलोवन नाचत रावचें. जीव ओतून, बेधुंद जावन. फकत आनंदा खातीर.' सृजन प्रक्रियेच्या आनंदा वयलें इतलें सुंदर भाश्य मनांत सदांकाळ अण्डरलायन करून दवरपा सारकें. तो मन आनी काळीज हांचे भितर फरक करता. ताका काळजांतलो अनाहत सूर ओड लायता. 'अनाहत नाद अपरंपार ओकार' ही सावनीची बंदीश हांगा आठवची. आमच्या काळजाचीं दारां आमी बंद

करून दवरिल्ल्यान ह्या नादाक आमी वंचीत जाल्यात. ह्या सगळ्याच बरपांक चिंतनाची सया आसा. ह्या लेखकाक शब्दांचें सुमारा भायर पिशें. देखून डॉ. करण सिंगाच्या भाशणान तो भारावन वता. तें उलोवप झ-या वरी सगळ्या अंतरंगांत देंवता. मंगेश पाडगांवकर आनी अरुणा ढेरे हांचीं उलोवपां ताका तोच अणभव दिता. स्मरणरंजनांत रमतना तो गेल्लो काळ मनांत जिवो करता आनी ओंठांचेर आंबुल्ल्यो आनी घोंटांची रूच जागयता.

आमच्या जिविताचे वाटेर आमकां कितलींशींच मनशां दोडटात. पूण सगळींच आमचे यादींत उरनात. चडश्या जाणांक आमी विसरून वतात. जांची छाप काळजाचेर उदेता तींच आमकां आठवतात. 'मनोहरबाब' आनी 'गोदूबाय' हीं तशींच व्यक्तिमत्वां. तांकां चितारतना मुकेशबाब आपल्याक कडेक काडटा. खूब कठीण गजाल ही आनी ती मुकेशबाबाक सादल्या हें ताचें मोटें यश. अशें बरप करतना सहृदयताय आसपाची गरज आसता.

जिणेचो रियाज करता आसतनाच तो भाशेचो रियाज करता. खंयचेंय उतर खंयच्यान आयलें हाचो तो होलम घेता. भास ही केळोवची आसता हाची ताका जाण आसा. देखून मुकेशबाबालें बरप आटीव घोटीव जाता. आशयाचो तो अचूक वेध घेता. घडये ताका गणीत विशयाची फाटभूंय आशिल्ल्यान जावये.

शब्दब्रह्मा इतलीच ताका नादब्रह्माची ओड. ताकाच लागून ताच्या शब्दांक सूर अळंग स्पर्श करतात. लय ताच्या रक्तांतूच आसा. देखून हे लेख लयदार जाल्यात.

कोंकणी साहित्यांत मुकेश थळयाची आगळीच सुवात आसा.

**- माधव बोरकार**

# अनुक्रम

# तीन भाशणां

खंयचेय कार्यावळीक वता आसतना खूब खेपे विचार करचो पडटा. एक म्हणचे कार्यावळ वेळार सुरू जालिना म्हणटकच मनस्ताप जाता. दुसरी गजाल म्हणल्यार कार्यावळींत भाशणां आसतात तीं प्रभावी जावपाचें सोडातूच, पचपचीत, पोकीं आनी सयसुवाद नाशिल्लीं आसल्यार विचारुंकूच नाका. तकलीफोडूच जाता.

भाशणां करपी वक्तो खूब वेळ भरभरलो आनी त्या भरभरपांत कसलोच सोस ना, विचार ना, मुद्दो ना हें पळेतकच जिवाक तळमळे लागतात. भाशण अभ्यासपूर्ण नासतकच उलोवपी आडखळटा, ताची तयारी कळटा, ताची त्या उचीत प्रसंगा विशींची जाण आनी वेध घेवपाची खोलाय कळटा आनी विनाकारण आपलो वेळ वगडावला हें कळिल्ल्यान जिवाक खंत जाता.

खूब वक्त्यांक दिसता, आपले भाशेंतल्यान उलोवपाचें आशिल्ल्यान आपूण सहज उलयतलों. पूण त्या भाशणा खातीर तयारी नासतकच तांची गाडी रुळार उरना. ते संदर्भ सोडून विशयांतर करीत व्हांवपाक लागतात. बेपर्वा आनी फाजील आत्मविस्वास हांकां लागून हे उलोवपी स्वताचें हांशें करून घेतातूच. पूण तेच वांगडा सूज्ञ रसिकांचो विरस करतात हें विसरून चलचेंना!

भाशण क्लिश्ट आनी कठीण आसतकच समजुपाकूय तें कठीण

वता. भाशणांतले मुद्दे वेवस्थीत विणिल्ले आसूंक जाय. तातूंत नवे विचार आसूंक जाय. भाशणांत वाज हाडपा सारकी भरडकथा आसून चलना. भाशण उत्स्फूर्त जाय. तातूंत प्रवाह जाय.

खंयचेंच 'बरें' भाशण extempore म्हणल्यार ऐन वक्तार तयारे विणें केल्लें आसना. जितली तयारी बरी आनी चड, तितलेंच भाशण प्रभावी आनी परिणामकारक. गोट्या वयल्यान शिताची पारख जाता, तशें सुरवातीच्या उतरांतल्यानूच वक्त्याची तयारी कळटा.

येवरोपी देशांनी आख्खें भाशण कांय दीस लागून बरोवन काडटात. तातूंत फावो ते संपादकी संस्कार करतात. ही चाल बरी. खंयचेय बरे गजालीचें मुजरत अनुकरण करचें! अस्तंती देशां कडल्यान निदान ही तरी गजाल आमी शिकची. कारण पॅडाचेर वा कागदा कुडक्याचेर मुद्दे बरोवन काडले आनी माचयेर वचून भाशण ठोकतलों म्हणलें म्हणून तें प्रत्यक्षांत घडना. असलें भाशण पचपचीत जाता. देखून आपल्या भाशणाचो आख्खो मसुदो तयार आसचो. तो वाचिना जाल्यार जाता. पूण तो मुखार आसचो. कारण उलयता आसतना विचारांचें संपादन जायना. चिंतना येतात, तशीं ओंठांतल्यान निस्ततात. ताका लागून खतखतें खातना तेफळ चाबचें तेवरी एकूच संदर्भहीन शब्द भाशणाचो बेरंग करून सोडटा. देखून भाशणाची प्रत कितल्या वेळाचें भाशण तें आदीं थारावन तयार करची. वेळाचेंय भान म्हत्वाचें.

हालींसराक बरीं आनी आदर्श अशीं भाशणां क्वचीत आयकूंक मेळटात. पूण केन्नाकेन्नाय बरीं, जबरदस्त, विचार दिवपी आनी गांठीक बांदून दवरपा सारकीं भाशणांय मेळटात! अशीं कांय भाशणां अजुनूय म्हज्या मनाच्या चित्रपटलाचेर तश्याक तशीं दिसतात.

हातूंतलें पयलें भाशण म्हणल्यार डॉ. करण सिंग हांचें. करण सिंग हे आदले केंद्रीय मंत्री आनी व्हड विचारवंत. राजेशाय घराण्यांतले. दिसपाक सुंदर. नाक धारदार. दोळे तेजिश्ट, गोरेंपिट्ट मुखामळ, शांत आनी प्रसन्न व्यक्तीमत्व. सुंदर जिवणी, तांचो भेसूय कारेंगाद. जाकीट

कशें आसचें हाची देख तांचें फेर्राद चकचकीत जाकीट दाखोवन दिवपी.

डॉ. करण सिंग हांणी ताळगांव पठाराचेर गोंय विद्यापीठाच्या पदवीदान सुवाळ्यांत कांय वर्सां फाटीं केल्लें तें उलोवप. पदव्यो घेवन जिणेच्या विद्यापिठांत रिगूंक पळोवपी विद्यार्थ्यांक केल्लें तें दिक्षांत उलोवप. ताची रुचूच वेगळी. तांचो आवाज गोड, वाणी वजनदार आनी लयबद्ध !

जिणेच्या विद्यापिठांत कितें कितें शिकपा सारकें आसा, तें कशें शिकचें, पुस्तकी गिन्यान आनी वेव्हारीक गिन्यान हातूंतलो फरक आनी दोनूय ज्ञानां एकामेकांक केन्ना आनी कशीं पुरक आसतात, ताची डॉ. करण सिंग हांणी केल्ली फोडणिशी. तातूंत जडगुळ्या शब्दांचे चोंबडे नात. कठीण कठीण माथ्या वयल्यान वतात अश्या संकल्पनांची कसरत करपी विस्कटावणी ना.

डॉ. करण सिंग हांचें तें उलोवप झ-या वरी देंवलें. सगळ्यांच्याच अंतरंगांत. हांवें तें झडझडीत बरोवन काडलें. जितले जितले मुद्दे मेळटात ते नोंद केले. उपरांत तें टायप केलें. तें टायप केल्लें भाशणूच दोन-तीन पानांचें जाल्लें. कितलेशेच मुद्दे निसटून गेल्ले. पूण तें भाशण टायप करतना लेगीत त्या भाशणाचो वास फुलिल्ल्या जायां भशेन घमघम दीत रावलो.

तरणाट्यांक मार्गदर्शन करपी खंयची गजाल तातूंत नाशिल्ली? मानसीक आनी शारिरीक दोनूय तरांचो व्यायाम कितलो गरजेचो हाच्यो देखी दिवन तांणी उपदेश केल्लो. योग शिक्षण जितलें म्हत्वाचें, बसप लेगीत ताठ आसूंक जाय, चलप लेगीत थीर आनी आत्मविस्वासपूर्ण आसूंक जाय हाचेरूय तांणी भाश्य केलें.

जिणेंत बरो मनीस आनी आदर्श नागरीक कसो जावचो, बुदवंत, चवकस, हुशार विद्यार्थी म्हूण कसो विकसीत जावचो, समाजा खातीर आपली लागणूक कशी उरता आनी तिका कसो पाळो दिवचो, देशभक्ती कशी घटमूट जाता ह्या सगळ्या गजालींचेर डॉ. करण सिंग हांणी व्हड

फिशालकायेन आपल्या असामान्य वक्तृत्व गुणांनी सहजपणान उजवाड घाल्लो. अवघ्या मिनटां भितर.

हें भाशण हांव केन्नाच विसरचों ना. पदवीदान सुवाळ्यांचीं खूब भाशणां आयकल्यांत. टीवीचेर पळेल्यांत. पुस्तकांनी वाचल्यांत. कांय वाचल्यांत तातूंत न्यायमुर्ती हिदायतुल्ला आनी वकील नानी पालखीवाला हांचीं दिक्षांत सुवाळ्यांचीं उलोवपां याद आसातूच. पूण प्रत्यक्षांत अणभविल्लें, रोसाळ वाणयेन थपथपिल्लें, दोळ्यांनी लागींच्यान पळेल्लें अप्रतीम अशें दिक्षांत उलोवप तें हें एकूच!

दुसरें यादीक उरिल्लें भाशण मराठी साहित्यीक डॉ. अरुणा ढेरे हांचें. कांय वर्सां आदी फर्मागुडयेर युवा साहित्य संमेलन जाल्लें. तातूंत डॉ. अरुणा ढेरे हांणी उकतावण सत्रांत उलोवप केल्लें. आपल्या झ-या भशेन सहजपणान पाझरपी वक्तृत्वान डॉ. अरुणा हांणी सगळ्यांचेर मोनेळ घालो.

तांणी फकत उदेत्या लेखकांक आनी तरणाट्यांक मार्गदर्शन केलेंना. साहित्याची विस्कटावणी करतना तांणी जाणट्यांकूय मार्गदर्शन जायत अशे मोलाचे आनी मौलीक विचार मांडले. तांच्या सादरीकरणांत एके तरेचो विनय आशिल्लो. आपलीं मतां आग्रहीपणान श्रोत्यांचेर थापपाचीं तेमां तातूंत नाशिल्लीं.

तांच्या भाशणांत वखदाक लेगीत इंग्लीश वा हेर परकी भाशेंतलें एकूय उतर येनासलें. रोसाळ मराठींतली वाणी त्या फर्मागुडये वयल्या वाठारांत सैमीक वझया भशेन अकृत्रीमपणान घसघसताली. तोंडाचेर हांसो आशिल्लो. तोंडा वयली खळी विनय-विवेकाक तेज हाडटाली.

रा. चिं. ढेरे ह्या म्हान साहित्यिकाची ही धूव. व्यासंगाचें वातावरण घरांतूच. ह्या व्यासंगाची झलक डॉ. अरुणा ढेरे हांच्या भाशणांत ठांय ठांय दिसताली. आपूण कितें तरी नवें आयकतां अशें आयकतल्यांक एकसारकें दिसलें.

चंद्रकांतबाब केणी हांचे साठी निमतान मडगांवां एक व्हड सुवाळो जालो. चंद्रकांतबाबांचे इश्ट, मित्र, पत्रकार, लेखक, हितचिंतक व्हड संख्येन हे कार्यावळीक जमिल्ले.

हे कार्यावळींत रंग हाडलो कवी मंगेश पाडगांवकार हांणी आपल्या जोशपूर्ण भाशणान. त्या भाशणांत एक सैमीक चैतन्य आशिल्लें. सच्चेपण आशिल्लें. पिराय कितलीय जावं. पूण सदांच उमेद आनी उर्जा टवटवीत कशी राखची हे विशीं सगळ्यांकूच उजवाड दितना स्वता आकांताचे उमेदीन मंगेश पाडगांवकार हांणी खणखणीत उतरांनी एक सुंदर देख दिली.

'जीवनात सदैव उत्साह हवा. आमच्या शेजारी एक वृद्ध राहतात. वय असेल पंच्याहत्तरच्या आसपास. हल्लीच ते सकाळी विलक्षण आनंदाच्या भरात माझ्याकडे आले. त्यांच्या हातात एक छोटंसं गुलाबाचं फूल होतं! प्रचंड उत्साहात ते लहान मुलाच्या निरागस वृत्तीने जोरात सांगत होते, आज माझ्या गॅलरीतील कुंडीत गुलाबाचं फूल फुललं आहे. बघ. बघ........जीवनातील आनंद वेचण्याची वृत्ती अशी हवी.'

ही गजाल सांगतना कवी मंगेश पाडगांवकरान श्रोत्यांचीं काळजांच आपले मुठींत खेंचिल्लीं. तांचे शब्दूय उज्याचे गुळे कशे सभाघरांत उसळटाले. एक व्हड संदेश हे जिते जिवे घडणुकेंतल्यान ते सांगताले. रड, पिरंगण, पिरपीर कोणूय करूंक शकता, पूण थकिल्ल्या शरिराक वाजेनासतना एक जाणटो मनीस मुंबयच्या त्या कॉंक्रिटाच्या रानांत इल्लेशे कुंडेंत इल्लेंशें फूल फुल्लां, तें सृजन पळोवन आपुणूय फुलता ही गजाल कवीन तन्मयपणान अभिनया सयत सभाघरांत मांडिल्ली. आनी सगळ्यांचींच मनां फुलयिल्लीं. तो देखावच ह्या वक्त्यान साक्षात उबो केल्लो. तल्लीन जावन भारावन गेल्ले रसीक आयकताले. मैफिलींत विलंबीत आलापी, मध्य लय आनी द्रूत अशे प्रक्रियेंत गायकान ख्याल सादर करचो तशी ती भाशणाची गंगा आशिल्ली!

घरा वतना ह्या संदेशाचीं उतरां घेवन सगळे परतले. भाशण म्हणटात

तें हें! पाडगांवकाराचें तें भाशण जेन्ना जेन्ना याद जाता तेन्ना मनांतली सगळी मरगळ आनी निरशेणी नाच्च जाता.

भाशणां आसचीं जाल्यार हीं अशीं! सदांच याद उरपा सारकीं. काळजांत सासणाचें घर करून रावपी.

प्रामाणीक अभ्यासपूर्ण, नवविचारांनी पूण सुटसुटीत उतरांनी भरिल्लीं भाशणां मनमळबांत नखेत्रां भशेन कायमचीं लिकलिकत रावतात तीं ह्या तीन भाशणां वरी!!



# अनाहूत सल्लो

तूं लग्न कित्याक जायना? तुवें इतल्यो नोक-यो कित्याक बदल्ल्यो? कोंकणी कोंकणी करून निमाणें तुका हाताक कांयच लागचें ना हें जाणा मूं तूं? हे प्रस्न लोक म्हाका विचारीत आसतात. ह्या प्रस्नांच्यो जापो दिवपाक हांव तांकां उत्तरदायी आसा अशें म्हाका दिसना. तुमकांय लोक तकली तापार करपी खाजगी प्रस्न विचारतात आसतले. तुमीय बी तांकां समाधानकारक जापो दिवपाक जबाबदार नात अशें तुमी अणभवलां आसतलें.

प्रस्न विचारीत रावतात, तांचें तोंड दामून धरूं नजो. तांकां स्वता शांत रावन स्वता कडेन तादात्म्य जावपाक कळना. देखून चडशे जाण दुस-याक पिडीत आसतात. ह्या प्रस्नांचें एक वेळ परवडलें. (परवडलें कपल! दंडणाच ती) ताचे मुखार वचून हे लोक तुका बुद्द दिवपाक लागतात. हे सल्ले बिनबुडाचे. अतार्कीक आनी गरजे भायले आसतात.

लग्न जावप जिणेंत कितलें म्हत्वाचें, कित्याक बरें आनी हिताचें ह्या विशयाचेर लॅक्चरां आसतात. नोकरे बदला आनीक कितल्यो गजाली तुज्यान आगळी तांक आशिल्ल्यान करूं येतात हे विशीं जाणवायो आसतात. कोंकणी कोंकणी करून कांय जाण लयाक कशे गेले ते विशीं शिटकावण्यो आसतात. दुसरो मनीस सामको पिसो, अपुर्बुद्द, अजाण, नेणार आनी आपूण तितलो एकलोच शाणो ही भावना हे किचकिचावणेंत आसपावता. दुस-याचे प्रायव्हसींत आपणें अतीक्रमण करपाचो अयेसस्वी यत्न केला हाचेंय भान तांकां आसना. मुदलांतूच दुस-या मनशाक आपल्या सल्ल्याची गरज आसा काय कितें हें सल्लो

दिवपी मनीस चिंतिना. तो सल्लो दिवपाची आपली योग्यताय आनी अणभव आपणा ठांय आसा काय कितें हें ताका खबरूच आसना. आपूण ह्या अनाहूत सल्ल्यांचो फुकट वितरक म्हणुनूच जल्माक आयलां अशा आविर्भावांत हे लोक जियेतात. जगांत एकूच गजाल फुकट वांटूं येता आनी ती म्हणल्यार सल्ले, दुस-याक जाय आसूं वा नासूं!

तुवें जर घर वा बंगलो बांदला जाल्यार तातूंतलीं बांदावळीचीं कुतां आनी उणाव हे 'सल्लेकार' काडूंक लागतात. हें दार अशें करूं येतालें, तो डिझायन भडक दिसता, हांगा चड हवेशीर दवरपाक हो उपाय आशिल्लो, थंय चड उंचाय जाल्या, खरें म्हणल्यार तुवें म्हाका पयलींच विचारल्यार हांव तुका हें सांगपाचों.......... जांणी घरां बांदल्यांत तांणी हो सल्ल्यांचो त्रासीक अणभव भोगला आसतलो. गाडी घेतली जाल्यार ते विशीं सल्ले. घेना जाल्यारूय सल्ले. मोबायल घेवं वा हेर कसलींय उपकरणां घेवं..... अनाहूत सल्ल्यांच्या ह्या भडिमारांत तूं मेलोच म्हूण समज.

एका लेखकाक तर हेर लेखकां कडल्यान असल्या टणटणमारी सल्ल्यांक कायमचेंच तोंड दिवचें पडटा. देखीक - हें वाक्य तुवें विनाकारण घालां. त्या एकाच उतराक लागून सगलोच बेरंग जाता. कथेचो शेवट असो जावं येतालो. नाटकाची अखेर अशी कित्याक केली? पुस्तकांतले लेख ह्या क्रमान मांडूं येताले. विमोचनाची कार्यावळ अशे तरेन कित्याक आंखली? पुस्तकांतल्या अक्षरांची पॉयंट सायझ मोटी जाय वा फॉण्ट गुटगुटीत घेवं येतालो. तुवें आतां संशोधनाचें काम हातांत घेवं येता. तुवें कादंबरी बरोवंक जाय. तुजे भितर अमकी तांक आसा........ अश्या ह्या सल्ल्यांचो पावस (हंगाम नासतना) वर्सभर पडत आसता. जण एका सल्लेकाराक आपूण कोण तरी मोट्टो समिक्षक असो भास आनी भ्रम वा गैरसमज जाल्लो आसता. तशी पोज मारून एका वेगळ्याच आविर्भावांत तो वावरत आसता. दुस-याक आवडना असली पिडापीड करून आपूण क्लेश करीत आसतां हें ताका कळना. कळ्ळयारूय तांकां पडून गेल्लें आसना. कारण बेपर्वा आनी

बेशिस्त हांणी सगळेच वाठार बुडबुडून गेल्यात.

अनाहूत सल्ले दिवप्यांची ही वर्तणूक मानसशास्त्रीय साणीर घांसून तिची चिकित्सा करूं येत. ते अशे वागपा फाटलीं कारणां कितें ताची फोडणिशी करूं येत. कुन्नाटपणां, कुच्छित्रीपणां, दुस्वास अश्या विचारांतल्यान ते सल्ले कशे आनी कित्याक उदेतात तें थारावं येत. पूण तातूंतल्यान कांयच निश्पन्न जावचें ना. ते परस सल्ले दिवन दुस-यांक पिडप्यांक आळाबंदा हाडपाची उपाय येवजण करपाचो संशोधनात्मक अभ्यास चड म्हत्वाचो!

पत्रकारांक जाल्यार विचारुंकूच नाका. प्रस्न विचारून बातमी बरोवपाची आसता खरी, पूण ते माहिती दितल्याक सल्लेच दिवपाक लागतात. इतलेंच कित्याक? अमक्या मंत्र्याक आपणें अमकी व्युहरचना करपाची तकली कशी दिली हें सांगतना ते तुकाय अनाहूत सल्लो दितना तुजी तकली फोडून उडयतात. हे पत्रकार वा हेर स्तंभलेखक वा हेर कथीत विचारवंत बरयतना लेखां वरवीं वा उलयतना भौशीक कार्यावळींनी व्याख्यानांतल्यान समाजाक बी अनाहूत सल्ले दीत आसतात तेन्ना ते वाचिनासतना वा कार्यावळीक हजर रावनासतना टाळूं येतात. पूण व्यक्तीगत पांवड्यार अनाहूत सल्ल्याचो हल्लो जाता तेन्ना ती एक समस्या थारता.

'तुवें म्हाका ही गजाल आदींच शिटकायिल्ल्ली जाल्यार इतलें लुकसाण जावचें नाशिल्लें,' एकल्यान म्हाका म्हणलें.

'आपणाक ह्या विशयाचेर तुजो सल्लो जाय अशें तुवें मेकळेपणान केन्नाय सुचोवं येतालें,' हांवें नमळायेन सांगलें.

एका विचारवंतान एक व्हड विचार सांगला. तो घट्ट यादींत दवरपा सारको.

'मागूंक ना तेन्ना सल्लो दिवं नाका. उर्जा आनी किंमत विनाकारण वगडावं नाका.'



# मन लावन...

जण एकल्या मुखार दीसपट्टें कितें ना कितें तरी काम येत आसता. कसलें काम ती गजाल वेगळी. पूण जण एकल्याच्या वांट्याक त्या त्या खिणाक एक पूर्ण करपाचें काम आसता. वेवसाय आसूं, नोकरी आसूं, धंदो आसूं, घरांतलेंच सगळें काम सांबाळपी घरकान्न आसूं.... जण एकल्याक काम करचेंच पडटा. त्या कामाक लागुनूच ताका रेश्पैत मेळटा वा स्वताचेच नदरेन तो स्वताक आदर दिता.

एका वांगडा एकूच काम करूंक जाय. तेंय बी मन लावन. त्या कामा वेळार आमी दुस-या कामा विशीं वा हेर कसलेय गजालीं विशीं विचार करूंक फावोना. तशें केल्यार तो स्वताचेरूच पयलीं अन्याय जाता. आनीक एक विशेश गजाल म्हणल्यार खंयचेंच काम अर्दवट सोडूंक फावोना. चिकाटेन तें तडीक व्हरून पूर्ण करूंक जाय. जे व्हड व्हड मनीस जाले, तांचें व्हडपण तांणी केल्ल्या (आमी जीं समजतात त्या) साद्या, किरकोळ कामांनी पळोवंक मेळटा. काम कसलें हें म्हत्वाचें आसना. तें आमी कशें केलें, कितले रसीकतायेन केलें, कितले कलात्मकतायेन केलें हाका म्हत्व आसा. कोणें तरी बरें केलां म्हणचें म्हणून आमी काम करतात व्हय? ना किद्याक? दिसता! कोणें तरी येवन फाट थापटुची आनी शाबासकी दिवची ही सुप्त इत्सा आसप हें मनीस सभावाचें लक्षण. पूण हे इत्शे कडेन दुर्लक्ष करून जो कामांत

स्वताक ओंपता तो बाकीच्यांक देख दिवपी व्हडले व्हडले प्रकल्प पूर्ण करता. वाजेवन, विटून वा ताकतिकेन केन्नाच कसलेंच काम करूंक फावोना. तशें केल्यार ताचे परिणाम आपणाकूच बादतात आनी बाकीच्यांक ताचो आनंदूय मेळना. रांदप करतल्यान तें 'रुटीन' समज नासतना रुचीन आनी आवडीन केलें आनी मांडटनाय कलात्मक रितीन मांडलें आनी वाडटनाय हांसत्या तोंडान वाडलें जाल्यार तें अन्न परब्रह्म थारता. तो अणभव खातल्या-जेवतल्याचे यादीक सासणाचो उरता!

कांय गायक वा गायिका, कांय वादक वा हेर संगीत कलाकार संगीत मैफल सादर करतना जीव ओतून पेश करतात. तांची अदाकारी तांची तन्मयताय आनी गांभीर्य दाखयता. देवाक एकेक फूल घालून भक्तीभावान पुजा करची ते भाशेन कांय गायक ख्याल सादर करतात. ताचो आनंदूच वेगळो. सदांच काळजांत सांठोवन दवरून अदींमदीं खोशे खिणांचो पुडो उकतो करून परत तातूंत रमपा सारको.

भुरगेपणांत हांव पिरवळा आजोळा रावतालों त्या आकारवाड्यार 'चिन्तू' म्हूण एकलो रावतालो. झाडापाल्याचीं पाळां-पिठ्यांचीं वखदां तो दितालो. 'सरपी' जातकच दर गांवांतले एलोपथीक दोतोर लेगीत ताचेच कडल्यान वखद व्हरताले. कामणीचेर आनी हेर दुयेंसांचेरूय ताचें वखद गुणकारी थारिल्लें.

ह्या चिन्तूचें सगळेंच काम मन लावन. काम अळंग आनी अचळय करचें अशें ताणें स्वता आमकां सदांच सांगचें. ताणें केळम्यांच्या सुक्या खोल्यांत गुठलायिल्ल्यो वखदा पिठ्याच्यो पुडयो पळोवपाकूच इतल्यो सुंदर दिसताल्यो की पुडयो कश्यो बांदच्यो हें ताचें चित्रीकरण जगाक टी वी वयल्यान दाखोवपा सारकें. ताणें सगळेंच काम नाजूकसाणीन आनी बारीकसाणीन करचें. पणसूल फोडप, पोंवली बांदप, कल्लें तयार करप, कुळागर शिंपप... सगळ्योच क्रिया म्हणल्यार चिन्तून दिल्लो एक आदर्श देखदिणो पाठ कसो. ताच्या चलपांत लेगीत एक अळंगपण आशिल्लें. लय आशिल्ली. घस्स घस्स करून धेंपा मारून धरतरेक दुखोवंक

फावोना, अळंग चलपाक जाय अशेंच संगीत, अशीच लय ताच्या चलपांत दिसताली.

चिन्तून तयार केल्लें आंब्याचें साठ म्हणल्यार ताचें 'अल्टिमेट' कला सादरीकरण! कमराचे पॅण्टीचे चामड्या पटे लेगीत एकाद्रे वयर सकयल वा मापान आगळे उणे कापिल्ले आसत, पूण चिन्तून आंब्या साठाचे पटे इतले भुमितीय समान रुंदायेचे कापचे की माक्ना बगर हें शक्य आसाच कशें हाचें अजाप जावचें! ते पटे इतले सोबीतकायेन कवळचे की विचारुंकूच नाका. त्या आंब्या साठाची रूच आनी तातूंत समानतायेन भरिल्लो जाय तितलोच मिरयां-पिठो. वा! त्या पट्याक गुठलायिल्ली पातळ वांवळी. तीय बरोबर मदेगात. हें आंब्या साठ जाणें खालां ताची रूच तो जल्मांत विसरचो ना.

एप्रील आनी मे म्हयन्यांनी घोंटां पुंजावन तांचें साठ प्लास्टिकाचेर वता भारार पातळावपी चिन्तूक हांवें पळेला. दर दिसा थरार थर. वतांत तें सुकोवपाची प्रक्रिया, समानतायेन थर वाडोवपाची प्रक्रिया, सगळें सुकून जातकच तें सोडोवन कापून गुठलावपाची प्रक्रिया. चिन्तू खातीर ताका फावो जाल्ल्या कामाची ती एक साधना आशिल्ली. ते खातीर चिंतूक कोणेंच पुरस्कार दिलोना. पूण आयज लेगीत हे सगळे देखाव मनाचे चित्रफितीचेर घुंवतात आनी वांट्याक आयिल्लें काम कशें करचें हाची देख दितात, हो केंदो पुरस्कार!

माईक, म्हणल्यार म्हजे आवयक, मेळपाक केन्नाय तिच्या कुळारच्या गांवांतल्यान - म्हाड्डोळा सावन एक जाणटी बायल येताली. ती येतना आपल्या कुळागरांतले निरपणस, सुरण वा अनसां बी घेवन येताली. येवन ती माईक मजतूय करताली. भाजी शिनून दिताली. इतली ज्यानोत की भाजी कशी शिनची हें तिचें सादरीकरण रिकॉर्ड करून टीवीचेर दाखोवचें. आदोळे वयली तिची ती एके तरेची योगसाधना कशी चलताली. भाजी शिनतना ती बडबडनाशिल्ली. उलयनाशिल्ली. बटाटाचे कुडके वा हेर फोडी बारीक कापताली. मिशिनांत घालून एकाच

आकाराचे समान कुडके केल्ले भशेन ती भाजी वा वाल शिनताली. टीवीचेर हालींसराक खावपा जेवपाचे जिनस कशे करचे हें दाखोवपी कार्यावळी वाडल्यात. पूण ताचेर भाजी कशी शिनची, कितले सोबीतकायेन तें काम करूं येता हाचेंय प्रात्यक्षीक दाखोवं येता. कारण जितले नितळसाणीन 'हें' काम जाता, तितलेंच तो जिनस शिजतकच खावपांत मजा आसता. चड खोस जाता! शिनपांतूय एक कला आनी शिस्त आसता.

कांय वर्सां आदली गजाल. टायपरायटर नांवाची गजाल काळाच्या पड्ड्या आड वचपाचे वाटेर आशिल्ली. निकतेच गोंयांतूय संगणक येवपाचे आशिल्ले. म्हज्या आदवोगाद भावान एक व्हडलो टायपरायटर घेतलो. सॅकॅण्ड हॅण्ड.

हो टायपरायटर बरो निवळ करून ताचें सर्विसिंग करपाक म्हज्या भावान मेरशेच्या एका मॅकानिकाक आपयलो. दनपारचो वेळ. त्याच वेळार तो मॅकानीक आयलो. जाणटो. पिराय आसत 65 वा मातशी चड. ताच्या मुखामळार एक थिराय. शांतपणान ताणें टायपरायटर निवळ केलो. भितरलीं अक्षरां (लॅत्रां) दाट जाल्लीं. म्हणल्यार 'ओ' टायप केल्यार दाट काळो धाकलो दुदी कसो कागदार छापून ये वचो. ताणें आपलो ब्रश बॅगांतल्यान काडलो. ताका सोल्युशन लायलें. ओ, ए, जी, पी..... सगळीं अक्षरां निवळ केलीं. रिबीन नवें घालें.

घामाघूम जाल्लो तो. ताणें टायपरायटराचो लाटणी कसो रोल भायर काडलो. तो मेजार दवरलो. घट जाल्ल्या भागांक ऑयल घाली. हें सगळें तो एकाग्र जावन करतालो. इतल्यांत म्हजो भाव आयलो. तो जेवन परत दनपारचे सुनावणेक कोर्टांत वचपाचे ताकतिकेंत आशिल्लो. हो मॅकानीक म्हज्या भावाची ताकतीक पळोवन स्वता मात्तूय ताकतीक करिनासतना वा वाजेनासतना थंडसाणीन माहिती दितालो. 'हें हें काम केलां. रोल बदलूं येता. बदल्ल्यार अमूक खर्च येतलो......'

म्हज्या भावान बिलाचे पयशे दिले. थंड पेय घेवन मॅकानीक गेलो

घरा. पूण म्हजे काळजा कुडींतल्यान तो वचूंक ना.

तो अजुनूय म्हाका मनाच्या पड्ड्यार दिसता. कर्मयोगी! जाणें टायपरायटर दुरुस्त करपाक आयुश्य वेंचलें, तो मनीस जाणटे पिरायेचेर लेगीत तें काम तितलेच तन्मयतायेन करतालो. त्या कामाक एक ताल आशिल्लो. आपली पिराय जाणटी जावंक लागल्या म्हणून तो उबगून काम करिनासलो. टायपरायटरांक कम्प्युटर खातले म्हणून निरशेंवंक नासलो. रुचीन तें काम करतालो.

कामांतली रूच निस्तेज जावंक लागतकच हांव त्या मॅकानिकाक पळेतां. काळजाचे कुडींत. घामान थपथपिल्लें मुखामळ. माक्नाचेर भोंवपी हात. अळंग, अचळय, ल्हवपीक. सर्वांग विसरून ते क्रियेंत बुडिल्लो तो जाणटो मनीस.

त्या आनंदांत बुडिल्लो तो जिणेयोगी म्हाका दिसता आनी हुरूप येता. भरकटिल्लें चंचल मन अंतर्मूख जाता. धडपड मना पसून सुरू जाता........ तातूंत अर्थाचो रोस येवंक लागता!



# मनांत घसघसपी पावस

पावस घसघसता. पावस पडटा. हरंधारींनी कोसळटा. पावस दडकांनी निस्तता. पावस पांवळ्यांनी गळटा. पावस रकत रावता. पावस झिडझिडटा. पावस पिटपिट्टा. पावस शेनता. पावस झडटा.

पावसाचीं रुपां कितलींशींच! केन्ना शांत, केन्ना रौद्र, केन्ना वाजेवणें. पावसाचे नाद कितलेशेच! पावस टिपटिपता. पावस नळ्यांचेर कोसळटा. पावस आदळटा. पावस खोंपीच्या पाख्यार टपटपता. वालीं वयल्यान देंवता ओथांब्यांच्या रुपांत!

हो पावस मनाक एक टवटवी हाडटा. सबंद सैमसृश्ट ह्या पावसांत पावचीचार जाता. प्रफुल्लीत जाता. तायखिळो तकली वयर काडटा. हेर कितल्याश्याच तरांची भाजी ह्या पावसांत उदेता. तरातरांची वनस्पत पावसांत किल्लता.

मीर्ग लागतलो म्हूण पावसा पुरुमेंत करपाचो एका तेंपार बोवाळ चलतालो. हालींसराक पुरुमेंताचे हे आक्त तितलेशे दिसनात.

पावसाचें एक बरें! तो आपणाक जाय तेन्ना, जाय तितलो, जाय तसो, जाय जाय त्या रुपांनी पडटा. ताचें वेळापत्रक तोच आंखता. त्या समीकरणाचो अर्थ आनी तर्क ताकाच खबर. मनीस मात एकेकदां वाजेता, विट्टा, पावसाक खेपता. पावसाचो स्विकार करपाची कला

ताका कळना.

पावस अणभवपाचीय एक कला आसता. पावस पळोवपाची एक नदर आसता. पावस रंध्रारंध्रांतल्यान चिटून घेवपाचो रियाझ केळोवचो पडटा.

भुरगेपणांतल्या पावसाची याद येता. सूलच्या नळयांच्या खांचींतल्यान पोंवपाक लागतालें. गळूंक लागतकच म्हजो आजो सवळ्यां बडी घेवन ते खातडींत गळपी खांचींनी पयखण्याच्यो कपयो मारतालो. पयखणें म्हणल्यार कुळागरांतल्या माडयांच्या पोंवल्यांच्यो पट्ट्यो. ह्यो पट्ट्यो म्हजो आजो गळपी नळयां खांचींनी बडये वरवीं धोंगशितालो. मलमलचो सदरो घाल्लो आजो नदरे मुखार आयजूय येता. आयज हे बिल्डिंगेंतल्या फ्लॅटांत पावसाचो तो आनंद ना. पारदर्शक हारशा नळया वयल्यान व्हांवपी पावसा उदक पळोवपाची मजा ना.

भुरगेपणांत चोडणां पनेळांतल्यान वतना पावस येतालो. तेन्ना फेरीबोटी खंयच्यो? वादळी पावस ते मांडवी न्हंयेंत नाचत-नाचत धांवत येतालो. न्हंयेच्या उदकांत पावसाचो तो अच्छेव पळेतना मजा दिसताली. व्हडें धोलतालें आनी वा-यान उमथत म्हूण जिवाक आकांताचो भंय दिसतालो.

शाळेंत वतना मड्डार खोलप्यांतल्यान घोडूक तंकली वयर काडून पळेतना बरेंऽ दिसतालें. घोडूक म्हणल्यार पावसा मातयेंत किल्लल्ली काजू बी. त्यो पाचव्योचार धांपयो. आमी त्यो खाताले वा पुंजावन घरा व्हरताले. तीं घोडकां तोंडाकांत बी घालताले!

भुरगेपणांतल्यो पावसाच्यो यादी पावस पडना फुडें जाग्यो जातात. त्या यादींनी बुडपाक आनी भिजपाक आवडटा. तांबड्यागुंज खदोळ उदकान उप्पाट भरून व्हांवपी ते व्हाळ अजुनूय नदरे मुखार आसात. शाळेंत वतना दिसपी ती सृश्ट, सैम, वोल्यो वोल्यो कुडकुडपी कुळागरांतल्यो माडयो, चलतना सांबाळून चलपाक शिटकावपी शेळो..... हें सगळें अजुनूय तशेंच दिसता. त्यो यादी काळजा कप्प्यांत खंय तरी

खोल सांठवल्ल्यो दिसतात.

आयजूय पावस घसघसूंक लागतकच जीव ल्हान भुरग्या वरी जाता. कागदाचीं व्हडीं करून तांबड्यागुंज उदकांत सोडचींशें दिसता. पावसांत भिजचेंशें दिसता. जाणटें जावपी मनाक हो नित्य नूतन पावस मात भुरगो आनी जुवान करून सोडटा!

पावस म्हणल्यारूच एक चैतन्य. हो पावस हें रसरशीत चैतन्य सगळ्या वाठारांक हाडटा. जिवावळींत तांचो संचार करता. शरिरांत आनी मनांत तो पावस खोल खोल उमळ पाझरायता. सृजनशीलतायेच्यो कोंब-यो आंक-यो हो पावस मनांत फुलयता. 'धे धेणलो, धेणल्या पाव(स) शेणलो' हें लोकगीत पावस शेणटकच गायताले. 'पावसा पावसा यो रे यो......' अशें एक गीत आषाढांत म्हणीत आमी नाचताले. मघा नखेत्राक थंडगार पावस पडटालो. 'मघा आनी चुली कडेन हागात' हे म्हणीची याद करीत. पावस कवींक आनी गीतकारांक बरोवपाची खुमखुमी हाडटा हें मात खरें!

पावस बडवबडव बडवता. फोंत कशी रकता. मळबाक बुराक पडिल्ले भशेन. बावड्या खोंपीच्यो वणटी वोल्यो जातात. घरांच्यो वणटी फुगतात. वाठार उदकान भरून वता आनी कानांक याद जाता 'मेघ' रागाची!

मेघ म्हणल्यार ढग. कूप. मळबांत कुपां नासल्यार खंय हो राग आळोवचो. मळब कुपांनी दाटून येतलें आनी कुपां फुटून पावस रकूंक लागतलो! पावसांत मेघ आयकुचो. अमीरखाँची 'बरखा रितु आयी' ही चीज आयकुची. रविशंकर, जसराज, अजय चक्रवर्ती हांचेय मेघ मनाक शांत शांत करतात. कितल्याश्याच चित्रपट गितांक वा भावगितांक लेगीत ह्या मेघ रागाची बुन्याद आसा. गुलाम अलीची 'बिन बादल बरसात न होगी' ही मेघ रागांत निबद्ध आशिल्ली गझल फामाद. मेहदी हसनान गायिल्लीय एक मेघ रागांतली गझल लोकप्रीय आसा.

केन्नाकेन्नाय पावसाची पिरंगण वा पिरपीर वाजेवणी थारूं येता. पूण

पावसा दिसांनी हो 'मेघ' केन्नाच वाज हाडिना. वयल्यान तरतरी हाडटा. हो 'मेघ' रॅकॉर्डराचेर लावचो आनी कान त्या स्वरांनी भरून सोडचे. जनेलांतल्यान घसघसपी पावस दोळे भरून पळोवचो. पावसाचो एक वेगळोच अर्थ लागतलो!

भारतीय शास्त्रीय संगीत, अर्थांत रागधारी संगिताची रसीक जाण वा आवड, जिणेंत आनंद हाडटा. ही आवड वा समजुपाचें भान नासत जाल्यार एके तरेची ख्यास्तूच कशी.

संगितांतले राग दिसाच्या वा रातीच्या वेगळयावेगळया वेळांचेर गावपा वा वाजोवपा सारके आसतात. पूण हंगामा खातीर म्हणल्यार सिझना खातीर लेगीत राग आसात. देखीक - वसंत, हेमंत, पावसाचो राग मेघ, जो पावसाळ्यांत चड प्रभावी थारता.

'मेघ' आनी 'मेघ मल्हार' हे दोन वेगळे राग काय एकूच हे विशीं मतभेद आसात. दोन निषाद स्वरांचो मेघ वा फकत कोमल निषादाचो. दोनूय तरांनी तो गायतात वा वाजयतात. हो राग मुदलांत पार्वतीच्या मुखांतल्यान आयलो अशी एक आख्यायिका 'राधागोविंदसार' ह्या ग्रंथांत सांपडटा.

आयज पावस येतिश्ट पडटा. भरपूर. कांद्याचीं हुनहुनीत कुरकुरीत भजीं आनी गरमागरम च्या घेत हांव पावसाक तोखेतां, सलाम मारतां आनी प्रमोद प्रियोळकार हांणी मेघ रागांत संगीत दिल्लें आनी वीणा देसाय हिणें गायिल्लें म्हजेंच हें गीत - हांव गुणगुणटां..... पावसाची दाद मेळटा काय ना हाची वाट पळेत.....

मळबांत धांवतात कुपां
वारो गडगड तट्‌टट जोगलां
सैम तत्वांचो अप्रूप आपालिपा
अंत्राळांत पावस मांडला..........

पावस ओतलो उटंगारांनी
भुरग्यां व्हडीं धांवती खळयांनी

पावस घसघसलो हरंधारींनी
माडयो कुडकुडल्यो कुळागरांनी...........

थंड थंड दडको शिरशिरल्यो
भुंये वयल्यो दोंगुल्ल्यो जाल्यो वोल्यो
तानेल्ल्यो बियो मड्डार किल्लल्यो
पाचवे सृश्टींत कोंब-योच आंक-यो.............

पावस शेतांत, पावस वतांत
पावस आंगणांत, पावस देगणांत
पावस शेनता मनामनांत
पावस भिनता आंगापांगांत..........



# उतरांचीं पांयजणां

मडगांवच्या एका इश्टाचो फोन आयलो. तो उमेदीन आनी खोशयेन सांगतालो, 'तुवें ही म्हण आयकल्या? म्हातारी खाणान घट आनी पोरणें सूप शेणान घट! म्हजे आवयन आतांच ही म्हण वापरल्या........'

हांवें म्हजे आवयक विचारलें, तिणें ती आयकल्ली. ते म्हणी विशीं म्हजे आवय कडेन थोडो वेळ चर्चा केली. मनोहर पै धुंगट हांचो 'कोंकणी म्हणीं सागर' उकतो केलो. ह्या कोशांत शेंकड्यांनी म्हणी आसात. कांय म्हणींची माहितीय दिल्या. पूण मुदलांतूच कोंकणी म्हणींचो सागर बरोच व्हडलो आशिल्ल्यान तातूंत कांय म्हणी आसपावच्यो उरल्यात. तात्पर्य, म्हज्या इश्टान सांगिल्ली म्हण तातूंत ना.

म्हणी आनी ओपारी हें भाशेंचें अलंकारीक वैभव. तांचो वापर लिखीत भाशेंत आनी साहित्यांत जाता, तेन्ना ते कृतीक एक वेगळी उंचाय आनी खोलाय येता. कारण शंबर उतरांचो गर्भितार्थ एकेक म्हण सांगता.

म्हातारी खाणान घट उरता. म्हणचे जाणटेले म्हातारेक आंगान घटमूट उरपाक पुश्टीक खाण वेळोवेळ जाय. टॉनीक जाय. आनी सूप पोरणें जातकच तातूंतल्यान तांदूळ फाफुडटना ते बुराकांतल्यान वा खांचींतल्यान झिरपुचे न्हय देखून सुपाक घटाय हाडपाक शेण सारोवचें पडटा!

आयच्या भुरग्यांक 'सूप' म्हणल्यार कितें काय विचारल्यार ते सांगतले - होटॅलांत वतकच आमी पयलीं सूप ऑर्डर करतात. बेळां पसून विणिल्लीं सुपां आयज ह्या भुरग्यांक दाखोवपाक तरी मेळत म्हूण शाश्वती आसा? आतां आयल्यांत तीं आलिमेनाचीं सुपां.

भाशेचीं मुळांचीं मुळां, कोंड्याच्या वेळांनी, सुपांच्या म्हणींनी आनी मातयेंतल्या लोकगितांनी - ओपारींनी रिगिल्लीं आसतात. हालींसराक काळाक अणसरून भाशा बदलता. धातूचीं सुपां येतात तशी भाशाय 'धातूची' थोडीभोव प्लास्टीक, थोडीभोव विज्ञान-तंत्रगिन्यानाचे परिभाशेचें आंगलें घाल्ली, थोडीभोव 'कोंग्लीश' जावपाक लागल्या. भाशा उरतल्यो काय सोंपतल्यो ही करांदाय मतींत घेवन हुसको करपाचीय गरज ना. कारण जें घडपाचें तें घडटलेंच. जण एकल्यान आपले परीन भाशा उलोवन आनी बरोवन सांबाळपाचे प्रामाणीक यत्न करीत रावंक जाय.

कोंकणी भाशेंत म्हणी आनी ओपारी व्हडा प्रमाणांत आसात, तेचपरी वाक्प्रचार आसात. जायते शिक्षक लेगीत हाचो उच्चार चुकून 'वाक्यप्रचार' असो करतात आनी असोच उच्चार विद्यार्थ्यांकूय शिकयतात. 'जीव' ह्या उतरा वयल्यान सुरू जावपी अठ्ठावीस वाक्प्रचार आमचेच कोंकणी-इंग्लिश डिक्शनरींत दिल्यात. देखीकः जीव अर्दो जावप, जीव खावप, जीव गोळाक लागप, जीव तुटप, जीव तोडून काम करप, जीव पंथाक लागप, जीव मुठींत दवरप, जीव सोडप.......... कोंकणींत कांय वाक्प्रचार अशे आसात जे आयचे पिळगेक समजुपाक मारामार जावची. ताकाच लागून कोंकणीक गरज आसा ती वाक्प्रचार कोशाची! रोमी लिपयेंत बरोवपी कोंकणी लेखकूय कांय आगळेवेगळे वाक्प्रचार वापरतात तांचोय अभ्यास जावपाक जाय. 'शार्ती पावोवप' हो एक असोच वाक्प्रचार! शार्ती पांवोवप म्हणल्यार पूर्ण करप वा तडीक व्हरप. हे सगळे प्रकल्प शार्ती पावोवपाक ते संस्थेन खूब कश्ट उसपिले. ह्या वाक्यांतल्यान हाचेर चड उजवाड पडटा. रवीन्द्रबाब केळेकार हांणी लेगीत आपल्या एका लेखांत हाचो वापर केला.

कोंकणी उतरां लेगीत अशीं भोव गिरेस्त आसात. पांयजणां कशीं तीं छुमछुमतात. ह्या उतरांतलें संगीत, नाद, तांची व्युत्पत्ती हो अभ्यासपा सारको विशय. मांड ह्या उतराक कितल्यो अर्थसया आसात पळयात. मांड म्हणल्यार धालो खेळटात ती सुवात. मांड म्हणल्यार पसरो. मांड म्हणल्यार दाळ. तोप वा आयदन धांपपाक जी ताटली वा वेळणी वा एळणी वापरतात तिकाय मांड म्हणटात. मांड नांवाचो शास्त्रीय संगितांत एक राग आसा. ताका लोकसंगिताचोय बाज आसा. मांड म्हणल्यार मांडी असोय एक अर्थ श्रीपाद देसायाल्या कोशांत आसा. हातूंतल्या कांय उतरांचो उच्चार 'माण' असो जाता. मांड ह्या उतराक आनीक अर्थ आसात काय? ह्या विशयाचेर हांवें एकदां सुनापरान्तांत पत्र बरोवन चर्चा सुरू केल्ली. तीग जाणांनी ताचेर बरयलें. कुळागर ह्या आनी हेर विशयांचेर खेरीत कथा बरोवपी कथाकार पांडुरंग काशिनाथ गावडे हांणी एक अभ्यासपूर्ण पत्र बरोवन विशेश माहिती दिली. तातूंतलो हो आसा वेंचीक आपरोस - 'मांड' ह्या उतरा परस 'माण' हें उतर बरोबर अशें म्हाका दिसता. मुकेशाचे आवयन सांगलां ते प्रमाण आमच्या जाणटेल्यांचे मुस्तींत रांदचेकुडींत फकत मातयेचींच आयदनां आसतालीं. आमचे जाणटेले हे कश्टकरी आशिल्ल्यान ते उकड्या तांदळांचें शीत जेवताले. आनी तें शितूय बरेंच निबर म्हणल्यार गोट्याक गोटो लागना इतलें फळफळीत आसतालें. अशें शीत करपाक शीत वाळपाची पद्दत आशिल्ली. शीत वाळपाक जीं आयदनां वापरताले तीं म्हणल्यार कुरपण, माठा आनी कदें. कारण वाळिल्ल्या शिताचो निवळ पियेवपा खातीर लागतालो. शीत वाळपाची पद्दत अशी आशिल्ली.

शीत जालें म्हणटकच मडकेच्या पोटकळाक भाणशि-यान घट्ट धरून पयलीं वयलो चडसो निवळ (नीस, पेज) कद्यांत रकयताले. मागीर शीत निवळांत पडचें न्हय म्हूण मडकेच्या तोंडार कुरपण दवरतालीं (कुरपण कोंड्याच्या वेळांची वाटकुळीच मडकेच्या तोंडा परस मातशी व्हड अशी कापोडयाच्या घरा भशेन विणलेली आसताली.) मागीर वयर ही माण दवरतालीं. माण म्हणल्यार लांकडाचे फळयेची

बरीच दाट अशी धरपाक वा दोरी बांदपाक उपेग जावचो अशी मूठ आशिल्ली, पनेळ व्हलोवपाच्या व्हल्या सारक्या आकाराची आसताली. कांय वेळार हे माणीचो उपेग कुळणें तशेंच मडकेच्या वा कद्याच्या तोंडार धांपणें म्हूण करताले. पूण शीत वाळपा खातिरूच चड उपेग जातालो. माण मडकेच्या तोंडार घट्ट धरून मडकेंतलो उरिल्लो निवळ कद्यांत रकोवन जालो काय मागीर माणीच्या आदारान शिताची मडकी तशीच कद्यार निस्तुपाक दवरताले. ताका वाळणी लावप अशें म्हणटाले. मागीर जेवपाच्या वेळार शिताची मडकी नीट करून उबी दवरताले ताका वाळणी परतप अशें म्हणटाले. शीत जावप, शीत वाळप, वाळणी लावप, वाळणी परतप अशीं बरींच उतरां वापरांत आशिल्लीं.

थोड्या काळान घरांनी आलिमेनाचे तोप, तपलीं आनी आयदनां आयलीं. मागीर शीत वाळपाक माणीच्या बदलाक आलिमेनाची ताटली वापरपाक लागले. मागीर ताटलेच्या बदलाक गोडाचे धेंपीक बांदून येवपी साकाचें पातळ कितान वा वाल्याचो कुडको घट्ट बांदून शीत वाळपाक लागले. पूण आतां शीत वाळचेंय पडना. कुरपण्याच्या आकाराच्यो चाळणी आयल्यात. शीत जालें म्हणटकच ते चाळणींत उसपितात.

मुकेशबाब म्हणटा तशें माणीक वेळणी वा एळणी अशें म्हणटात जाल्यार हांव नकळों. घडये शब्दाचो अपभ्रंश आसूं येता. पूण वाळणी हें उतर योग्य जावं येता. पेजेंतलें शीत वाळप म्हणल्यार सुकोवप. निस्तुवप आनी सुकें करप.

दुसरें - माणप म्हणल्यार दाळप हेंवूय हांगा ज्युस्त लागू जाता. मडकेच्या तोंडार कुरपण दवरप. कुरपणीचेर 'माण' दवरप आनी कुरपण माण हांचे सयत शिताची मडकी निवळाच्या कद्यार निस्तपाक दवरप हेंवूय खूब कलात्मक दाळपूच न्हय?

म्हाका आनीक एक गजाल सांगीन दिसता. आमचे जाणटेले अशिक्षीत आशिल्ल्यान आनी तांचे भाशेंत दुसरे भाशेचें मिश्रण (भेसळ) जावंक नाशिल्ल्यान ते सारकी कोंकणीच उलयताले अशें मानलें जाल्यार

(तांकां कोंकणी बगर आनीक दुसरी खंयचीच भास येना आसली देखून) ते 'ड' च्या बदलाक 'ण' चो वापर चड करताले. आतां आमचे भाशेचेर हेर भाशांचो चड करून मराठीचो खुबूच प्रभाव पडिल्ल्यान आमी 'ण' च्या बदलाक 'ड' चो वापर चड करतात अशें म्हाका दिसता. देखून 'मांड'च्या बदलाक 'माण' हें उतर कोंकणींत सारकें अशें म्हजें प्रामाणीक मत.

आनीक एक माण आसा तो राखण्याल्या खेळांतलो 'माण'. आमी भुरगेपणांत जेन्ना गोरवांनी वताले तेन्ना काजू घेवन माणांनी खेळटाले. राखण्यांनी गोरवां वांगडा येतना काजू घेवन येवप. आनी मागीर काजूंनी खेळप. तातूंतलो माणांनी खेळप हो एक खेळाचो प्रकार आसलो तो असो.

चार पांच राखणे पांच-पांच वा धा-धा बी अश्यो काजू एकठांय करताले. मागीर एक मोटीशी काज देंठा वयल्यान उबी करप (ते काजीक पीक अशें म्हणटाले) आनी हेर काजू फाटीच्या कण्यान एका फुडें एक अश्यो मर्दी मर्दी थोडें अंतर सोडून एके वळीन लावप. मागीर माणा मुखार २० ते २५ पावलांचेर एक शीम आसताली. प्रत्येकान एक भोटो (मोट्टी काज) घेवन माणा कडल्यान ते शिमे परस फुडें उडोवप. जाचो भोटो शिमे फुडें सगळ्यांत पयस पडटा ताणें त्या माणाच्या बियांक मोखप. आनी पिके पसून फुडले जे काजीक मोखून तो माणांतल्यान भायर काडटा ताचे फुडल्यो सगळ्यो काजू ताच्यो जाताल्यो. जेन्ना काजू नासल्यार तेन्ना माडाचे बारीक झडिल्ले बोणेय वापरताले. केन्ना केन्ना पोंग-याच्यो बियो लेगीत घेवन खेळटाले. हांगाय काजू, बोणे वा बियो एके हारीन मांडून खेळटाले. देखून हांगा लेगीत माण ह्या उतराचो लागींचो संबंद आसा अशें म्हाका दिसता. कोणा एकल्या कडल्यो काजू सोंपल्यो जाल्यार तो माणाक वा पिकेक बसतालो आनी त्या वेळार माणाच्या काजूंच्या कोणा कडेनूच मोखप जालेंना जाल्यार तो सगळो माण म्हणल्यार सगळ्यो काजू ताच्यो जाताल्यो.

अशें म्हणून पांडुरंगबाबान 'मांड' ह्या उतरा विशीं विस्तारान अर्थावणी आनी विस्कटावणी केली.

कांय तेंपान सुनापरान्ताच्या अग्रलेखांत एक वाक्य बरयिल्लें - 'सोरोप समजून ते वाय बडयतात.' वाय म्हणल्यार कितें? ह्या माथाळ्या खाला हांवें संपादकाक पत्र बरयलें. वाय म्हणल्यार झाडाचे साली पसून तयार केल्लो दोर. हो अर्थ दक्षीण गोंयांत घोळटा हें कळ्ळें. फोंडें तालुक्यांत ताका वांवळी म्हणटात, जी केळीच्या गब्या पसून तयार करतात. आनिकूय कांय वाचप्यांनी हातूंत अदीक माहिती दिली.

भाशेंत उतरांचीं अशीं जायतीं रत्नां आसात. हालींच एक उतर सांपडलें. अस्तर. अस्तर म्हणल्यार पोलक्याचो भितरलो फोर. हाकाय आनीक एक अर्थसया आसा. पुस्तकाच्या भायल्या कवराचे भितरले वटेन जो कागद दसयिल्लो आसता ताकाय अस्तर म्हणटात. हें उतर मूळ फारशी. पूण तें हिंदी, कोंकणी आनी मराठींतूय घोळटा. अस्तर म्हणल्यार स्तरा पोंदचो पातळ थर अशीय अर्थावणी जाल्या आसूं येता.

भाशेंत तरातरांचीं उतरां आसतात.

हेर भाशांतल्यान आयिल्लीं उश्णीं उतरां, नव्या वापराक लागून शेणपी उतरां, शेणिल्लीं आनी सध्या वापरांत नाशिल्लीं उतरां...........

ह्या सगळ्या उतरांचें खाशेलेपण परगटावपी पुस्तक कोंकणींत जाय. कारण उतरां म्हणल्यार पांयजणां कशीं. तीं गोड संगीत आनी नाद व्यक्त करीत वाजत आसतात.

गरज आसा, ती हें संगीत आयकुपा खातीर कान विकसीत करपाची!



# शब्दांच्या मळबांत

'चड खात्याक चड आशा

चड न्हात्याक चड बुरो.'

ही म्हण आयकल्या तुवें?

इश्टान बाबली नायकान फोन करून विचारलें. हांवें सांगलें - 'ना.'

'म्हजे आवयन उलयतां उलयतां वापरली ती.'

'अर्थ कितें रे तर?'

पळे, सादारणसो असो - 'कितलोय पुर्णत्वाचो ध्यास धरलो तरी, निमाणें थोडेंशें उणें उरतलेंच. अती करचें न्हय.'

म्हणी, ओपारी, वाक्प्रचार, उतरां, तांची उत्पत्ती हांची म्हाका आवड हें म्हजो इश्ट जाणा. देखुनूच तो थंयचे थंय आयकना फुडें म्हाका कळीत करता. 'हुनार हून' होय असोच एक उतरांसमूह. 'तात्काळ' ह्या उतराक वापरतात तो.

अनवाळी आनी नीज शुद्ध कोंकणी आयकुची ती जाणटेल्यां कडल्यान. हांव म्हजी आवय उलयतना आयकत आसतां. एक दीस आमी जेवतालीं. हांवें म्हणलें - 'जाणा मगे, हालींसराक 'ब' हो मनीस

'अ' गेर विनाकारण परत परत वता. आनी तूं जाणा. 'ब' हो सामको पाताळयंत्री आनी भितरले बुद्दीचो. कपटी. तो 'अ' गेर वचून ताची तकली फोडटलो आनी शांती घालयतलो. वीख पेरतलो. ह्या 'अ'क ना पयलीं अक्कल.

आवयन रोखडेंच म्हणलें - 'तुवें सांगून एकदम बरें केलें. 'ब' ची खोड सगळींच जाणात. तो तांगेर बिबो ओत्तलोच. फाल्यां 'अ' जर फोफेल्लीं भगडां घेवन हांगा आमगेर पिरंगत आयलो आनी 'ब'च्यो कागाळी सांगूंक लागलो जाल्यार अजाप दिसचें ना.'

'बिबो ओतप म्हणचे कितें गे?'

म्हजी आवय ही ओपार सदांच वापरताली. बिबो म्हणून एक झाड आसता. ताचे म्ह-यांत लेगीत गेल्यार कांय जाणांक एलर्जी जावन आंग सुजता. फुलता. ह्या बिब्याचीं फळां वखदीय बी आनी थोड्यांक तीं मालूय वतात. ताचे वयल्यान ही ओपार आयल्या आसुये.

उलयतां उलयतां आवय एक ओपार उलोवन गेली खरी. पूण म्हजें विचारचक्र चालू जालें. संशोधन सुरू केलें. आवयन सांगिल्ले प्रमाण तिच्या कुळारा म्हणल्यार म्हज्या जल्मघरा आनी आजोळा, पिरवळा, कांय बिब्याचीं झाडां आसात. पूण तांच्या भयानक गुणधर्माक लागून म्हाका तीं पळोवपाची छाती जालिना. अनंत साळकारान सांगलां ते प्रमाण ह्या बिब्याच्या झाडाक कांय वाठारांनी बिबय आनी कांय सुवातांनी बिबटी म्हणटात. ह्या बिब्याच्या फळांचे वखदी गुणूय आसात. आंग दुखून जोर येता तेन्ना हुनहुनीत पेजेंत बिब्याचें फळ मातशें बुडयतात खंय. काडामोड आनी जोर हांचेर उपाय म्हूण. ही माहिती शीला कोळंबकारान दिली. बिब्याचो उल्लेख धालांनी लेगीत येता हाची माहिती लोकवेद संशोधिका, डॉ. जयंती नायक, हांणी दिली. मराठींत 'बिब्बा घालणे' म्हणून एक वाक्प्रचार घोळटा. 'बिबो ओतप' हो म्हजे आवयन वापरिल्लो शब्दप्रयोग ताका लागींचो न्हय. 'बिब्बा घालणे' म्हणचे आडखळ हाडप, नड उपरासावप. 'बिबो ओतप' म्हणल्यार वीख ओतप,

उजो पेटोवप. ह्या बिब्याच्या फळांचो दीख खंय पनेळाच्या पोंदाक काजीच्या दिखांत भरसून वापरताले. बैलांच्या गाड्यांच्या चक्रां मदली जी दांडी आसता ताचेर जो काळो तेलतो दिसतालो तातूंत खंय हो बिब्याचो दीख वापरताले. कुळागरांतलीं झाडां मारतना बिबो मारपी मानांय दुस-या दिसा एलर्जी जाल्ल्यान कसो सुजलो ही गजाल म्हाका भोमच्या एका इश्टान सांगली. बिब्या विशींचें म्हजें संशोधन मात चालूच उरतलें. कांय कोंकणी शब्दकोशांनी मात हो बिबो दिसना. काजू बी तरणी आसतना तिका बिबो म्हणटात तें उतर मात कोशांनी दिसता. पूण म्हज्या मतान हो बिबो (झाड) पयलीं येवंक जाय. गोंयच्या वनस्पतीं विशींचें कोंकणी पुस्तक उजवाडाक आयलें जाल्यार तातूंत बिबो विशयाचेर दीर्घ नोंद जाय. नागेशीं महालक्ष्मी देवळा लागसारूच एक फुलझाड आसा. शिवलिंग म्हणटात ताका. सुंदर फूल. हीं फुलां मंगेशीं फुलकारां कडेन विकतीय मेळटात. शंकराक ओंपतात खंय तीं. ह्या सुंदर फुलाची वनस्पतीशास्त्राचे नदरेन आमकां माहिती जाय. एन शिवदासाले 'बाबू' नवलिकेंत दोंगरा वयली अमृतवेल असो उल्लेख आयला. हें उतर हांवें भुरगेपणांत म्हाड्डोळा आयकल्लें. हे अमृतवेली विशीं आमकां चडशी माहिती ना. ही संकलीत जावंक जाय. माधव बोरकार सांगी - नागगंधी नांवाची एक वनस्पत खंय पणजे एके सुवातेर आसा. ते विशींचीय सविस्तर माहिती त्या संकलनांत येवंक जाय. म्हजी आवयची आवय - आजी, कितल्याश्या तरांची भाजी करी, तायखिळ्याची, आळवाची, ते-याची, म्हसका पाल्याची भिकणां घालून, कुड्डुकेची, लुतीची, शिरमंडोळेची,.......... अंत ना. हालींच आवयन माहिती दिली ते प्रमाण ती चांदिणीच्या देंठ्यांचीय भाजी करी खंय. चांदीण नांवाची ही वनस्पत दोंगरार मेळटाली आनी चांदिणीचीं पानां तांबशीं कशीं आसतालीं. पूण भाजी मात देंठ्यांची करताले. आजी कांतन्यांचीय भाजी करी खंय अशें म्हजी आवय सांगता. आदोळेचें कांतनें आसता त्याच आकाराचीं कात-यांच्या आकाराचीं पानां आशिल्ली ही रानवट भाजी खंय. लुतीची भाजी ती करताली. वाळीची बी अदींमदीं आसतालीच. ही सगळी

वनस्पतीची माहिती संकलीत जावंक जाय. कोंकणी कोशांनी हाचो गंध लेगीत मेळना.

म्हजो आजो (आवयचो बापूय) एक ओपार मारी, 'दिव्याक वात आनी तोंडांत हात आनी हांतरुणाक फाट.'

हाचो अर्थ असो - तिनसांजचे कातरेर देवाक दिवो लायना फुडें तोंडांत जेवणाच्यो उंडयो वतात. म्हणचे बेगीन जेवपाचे संकेत. आनी बेगीन न्हिदचें ही कुरू. बेगसार जेवप आनी बेगिनूच जागरण करिनासतना न्हिदप भलायकेक बरें हो उपदेश हे अर्थपूर्ण ओपारींत भरला.

'ताका हांगा येवपाक बळणीक मारल्या, हरशीं गांवार सगळ्याक हेडटा.' ह्या वाक्यांत बळणीक मारप हो वाक्प्रचार आयला. हो हांवें पिरवळा आयकला. हालींच हांवें म्हजे भयणीच्या तोंडांत आयकलो. पिळगांवां रावपी अनंत साळकाराकूय तो खबर आसा आनी थंयूय घोळटा खंय. बळणीक मारप म्हणल्यार धाड भरप. अंत्रूज म्हालांत हो वाक्प्रचार आयकूंक मेळटाच.

म्हज्या बापायची आवय - आजी चोडणां सुटयेंत वतकच केन्नाय एक म्हण वापरताली. 'जिबलें पडलें बांयंत आनी मोतीं झळझळ्ळें.' खंयच्याय ब-या मार्गदर्शकाच्या सांगातांत एकटो सामान्य येता आनी त्या संपर्कान तो चकचकूंक लागता तेन्ना ही म्हण आजी वापरताली. ही म्हण कशी उपरासली ते विशींची काणीय मजेशीर आसा. 'एक आशिल्लें खंय जिबलें. जिबलें म्हणल्यार गांवचें एक पिसांट. भोंवती भागरथ कशें हांगा थंय वेळकाळ पळेनासतना रातदीस हेडत आसतालें. जिबलें पिशें म्हणटकच केन्नाच न्हाय बी नासलें. आपल्याच पिशेपणाचे तंद्रेंत आसतना खंय हें जिबलें चलतना एक दीस बांयंत पडलें. जालें कितें? जिबल्याच्या कानांत खंय मोतीं आशिल्लें. कानाक न्हायनाशिल्ल्यान दाटिल्लो बुरो. ताका लागून हें जिबल्याचें कानांतलें मोतीं केन्ना कोणाक दिसलेंच ना. पूण जिबलें बांयंत पडना फुडें उदकाच्या संपर्कान कानाचो

चिखल गेलो आनी मोतीं चकचकूंक लागलें.'

ह्याच चोडणांत आनीक एक म्हण आयकली. 'सुंगटां दाखय पूण पोंय मात दाखोवं नाका आं!' हाचो अर्थ असो - कोणाय इश्टाक कसलीय गजाल दी पूण ती खंय मेळटा ती उगम, सुवात वा स्रोत वा तिचें मूळ ताका दाखोवंक फावोना. ते गजालीचें म्हत्व उणें जाताच. पूण तो मनीस थेट ते सुवातेर वचून तुका सांगिनासतना ती वस्त घेवंक लागता. 'पोंय' म्हणल्यार न्हंयेक जोडिल्लो गांवांतलो उदका फांटो. तळी कशी. चोडणेच्या गांवांत नुस्त्या विशीं आनी नुस्तेमारी विशीं घे म्हणून शब्दसंपदा मेळटा. तीय संकलीत करूंक जाय. देखीक - त्या गांवांत काळुंदरांक टिपरे वा तिपरे अशें म्हणटात. मोरसो वा मोडसो ह्या दोनूय उच्चारांनी घोळपी नुस्तें आसा. भुयारी नांवाचें नुस्तें आसा. खरचाणेची भयणूच. वाटू म्हणल्यार न्हंयेंतली मोरी. चोडणें गांवांत नुस्तेंच कित्याक शिवराक उतरांय नकसूद मेळटात. प्रियोळा मळे आसतात. चोडणां जी भाजी रोयतात, मिरसांगो लायतात आनी लाठीन उदका वरवीं शिंपतात ते सुवातेक वारवें म्हणटात.

एक दीस मडगांवच्या एका इश्टान आल्मीखुशाल आनी आलमपेड्ड्यार ह्या उतरांची फोडणिशी विचारली. संशोधन करून ताका कळयलें. alma म्हणल्यार पुर्तुगेज भाशेंत आत्मो. गोंयांत आल्मांचो दीस पाळटात. All Soul's day. आतां alma (आत्मो) आनी perder (पिड्ड्यार म्हणजे वाया गेल्लो, इबाडिल्लो). हीं दोनूय पुर्तुगेज उतरां एकठांय येवन त्या संगमांतल्यान आलमपेड्ड्यार हें उतर घडलां. मूळ पुर्तुगेज उतर alma perdida. हाचो अर्थ - हेडगें, वाळेस, उडाणटप्पू, नावाडगें. आतां आल्मीखुशाल ह्या उतरा विशीं. हातूंत एक पयलें उतर पुर्तुगेज आनी दुसरें कोंकणी. विदेशी आनी देशी अशा दोन उतरांचो संगम. आपलेच भितर मग्न रावन जो खोशी आसा म्हणल्यार आत्ममग्न वा आत्मरत आसा ताका आल्मीखुशाल म्हणटात. खावन जेवन सुखी, हुसक्या मेकळें. कोंकणींत पुर्तुगेज उतरां वा तातूंतल्यान अपभ्रंश जावन घडिल्लीं उतरां वा अशीं संगम जावन घडिल्लीं उतरां भरल्यांत.

गुड्डुलसांव (अर्थ - भानगड वा गौडबंगाल) हें उतर पुर्तुगेज न्हय. पूण सांव ह्या प्रत्ययान सोंपता देखून ताचेर मातसो पुर्तुगेज प्रभाव दिसता. 'नसांव' म्हणल्यार नाका आशिल्लो प्राणी हेंवूय उतर अशाच पुर्तुगेज प्रभावांतल्यान आयलां जाल्यार कोण जाणा. फुगासांव हें एक अशेंच उतर. फुगार उतराक सांव प्रत्यय लागून घडिल्लें.

हालींच मडगांवच्या त्या इश्टाचो फोन आयलो. हांव बाजारांत आशिल्लों.

'म्हजे आवयन आतांच उलयतना एक ओपार वापरली रे. बरोवन घे.'

'धरीन म्हणल्यार ताळी ना, बसन म्हणल्यार सावळी ना. असले परिस्थितींत तीं वयर सरलीं.'

धरपाक कसलोच तेंको ना आनी बसतलो म्हणल्यार विसव घेवपाक सावळी ना अशे परिस्थितीक तोंड दीत तीं तातूंतल्यान यशस्वीपणान भायर आयलीं. 'धरीन म्हणल्यार ताळी ना, बसन म्हणल्यार सावळी ना' ही म्हण हांवें सोमतीच बरोवन काडली. जाणटेल्यांची कोंकणी कितली गिरेस्त आनी संपन्न आशिल्ली ताची ही देख. तातूंत अलंकारीक भास आसताली. सादें नकसूद काव्य आनी नीज कोंकणीचें सौंदर्य आनी लालित्य आसतालें.

एकाच उतराक दुसरीच सया आसता. 'निबर' म्हणल्यार 'घट्ट'. पूण पेडणें वाठारांत 'निबर' म्हणल्यार 'वत'. आयदनां घांसपाक 'तणशी' वापरतात. 'तणशी' उतर कोशांत मेळना हे विशीं एकदां शीला कोळंबकाराक सांगलें. ही चर्चा करून ब-याक पडली. 'तणशी' उतराची आनीक एक अर्थसया शीलाबायन सांगली. 'तणशी' म्हणल्यार कांद्या मोवळेक बांदताले तो पातयांचो घोंस अशा अर्थाची. एक दीस तांगेरूच फोव खाल्ले. ते बरे जांल्ले म्हूण हांवें आनीक मागले. हांकां हातसडीचे फोव म्हणटात अशें शीलाबायन सांगलें. हातसडीचे म्हणल्यार वानांत हातांनी कांडून केल्ले. तांची रूच मात वेगळीआं. खातल्याकूच कळपाचें. शीलाबायक शेंकड्यांनी कारवारी कोंकणी उतरां येतात. पुंजायल्यार तो

एक वेगळोच कोश जातलो. राग मारता ताका म्हजी आवय 'शिरशि-यो' मारल्यो अशेंय म्हणटा. तुमकां साद्या साद्या कारणावयल्यान शिरशि-यो मारतात अशें ती म्हणटा. आमी भिरभिरी मारली अशें म्हणटात. पूण मडगांवां भिरभीर मारली अशें घोळटा. दिवचल, नाव्याँ, पिळगांव वाठारांनी खंय शेताचे कुणगेक हुडो म्हणटात. ह्याच वाठारांनी कमरसरी अशें उतर घोळटा. ह्या उतराचो संबंद कमरा कडेन ना. कमरसरी म्हणल्यार पाख्याचो मदलो मुखेल वांसो. हीय माहिती अनंत साळकारान दिली. 'साड्डावप' हें क्रियापदूय साळकार वा हेर कांय इश्ट वापरतात. 'साड्डावप' म्हणल्यार पचपचीत माखप, सारोवप. आंगाक गोबरा सारको लेपोड सारोवन तो बशिल्लो. 'सोड्डेवप' अशें एक क्रियापद म्हजो एक इश्ट वापरता. तो बशीची वाट पळोवनं पळोवन सोड्डेलो. 'सोड्डेवप' म्हणल्यार वाट पळोवन पळोवन तळमळून थकप वा वाजेवपाचे त्रास अणभवप. 'धोरावप' हें अशेंच एक क्रियापद. 'धोरावप' म्हणल्यार फाटीक लागप. तूं फकत इतलेंच ताका व्हरून दी. मागीर ताका धोरावन धोरावन तें काम करून घेवपाची जापसालदारकी म्हजी. 'कांदे जोखप' हो वाक्प्रचार सगळे जाणात. नाटक पळेतना तो कांदे जोखता. म्हणचे झेम काडटा. 'घोडो खावप' हो असोच एक वाक्प्रचार. हालींच माधव बोरकारागेर गेल्लों तेन्ना ताच्या बापायन वापरलो. अमको मनीस पुर्तुगेज शिक्षणाचे अमके यत्तेंत शिकपाक पणजे आयलो आनी ताणे घोडो खालो. 'घोडो खावप' हाचो अर्थ हांव जाणां. हालींसराक हो वाक्प्रचार सपसप वापरप जायना. घरा येतकच कोशांनी तो सोदलो. मेळ्ळोना. मागीर हांवें म्हजे डायरेंत तो नोंद केलो. एक डायरी हांवें हेच खातीर राखून दवरल्या. डायरेक भायल्यान लेबल लायलां आनी वयर बरयलां: खंयच्याच कोंकणी कोशांत येवंक नाशिल्लीं उतरां, वाक्प्रचार, शब्दसमूह आनी म्हणी-ओपारी. 'घोडो खावप' हाचो अर्थ हांवें असो बरयलो परिक्षेंत नापास जावन वर्स फुकट वचप. कसलेय प्रवेश परिक्षेंत फेल जावप वेगळें आनी यत्तेंत फेल जावन वर्स वगडावप वेगळें. म्हजे हे डायरेचीं पानां भरत आसात. केन्नाय तीं चाळटना एक वेगळीच खोस

मेळटा.

एक दीस हे डायरेच्या एका पानार केळीपानाचीं उतरां पळेलीं. केळीच्या पानाचे खंय तीन भाग आसतात. झाडाक तेंकून आसता तो खादोती (खंडवती उतरा वयल्यान आयिल्लो). मदलो भाग आगोती आनी पानाच्या तोंका कडलो भाग तो शिरती. शिरतेक चोळखोय म्हणटात. चिकनाची वा मटणाची 'ग्रेवी' आसता ताका कांय जाण पातळ म्हणटात. कांय जाण पोळोव म्हणटात जाल्यार कांय जाण घस म्हणटात. 'फां फूं जावप' (वावडी पातळप) आनी 'टां टूं जावप' (पेटप वा वाद जावप) हे वाक्प्रचार कॉमीक कशे दिसतात. हीं हांगाचीं इतलीं फुलां आनी तांचो वास पळोवन म्हाका वास दिसलो. हें वाक्य म्हजे आवयन एकदां दिल्लीक म्हणिल्लें. फुलांच्यो राशी आनी तींय बी सवाय हें पळोवन. कारण गोंयांत फुलां येतात तीं शेजारच्या राज्यांतल्यान. तींय तितलीं ताजीं न्हय आनी इतलें आसुनूय म्हारग. वास दिसप हो कितलो सुंदर वाक्प्रचार. म्हणचे चुरचुरे दिसप. भयणीन एक दीस म्हणलें, तो सगळें आसून उकाशी. हांवें विचारलें, 'उकाशी म्हणल्यार कितें?' जाप मेळ्ळी. उकाशी म्हणल्यार घर भरून दार ओत्ता आनी इतलें आसुनूय भोगपाची वान्सा ना असो चामडो.

म्हजी डायरी सोंपत आयल्या. आनीक एक घेवन बरोवंक जाय. कोंकणी भास म्हणल्यार एक मळब. तातूंतलीं उतरां म्हणल्यार नखेत्रां. तीं मेजून सोंपनात. तांकां पळोवपांत वा तांचो वेध घेवपांत एक स्वर्गीय आनंद आसता. म्हजी भास आनी म्हजी संस्कृती कितली म्हान हाचोय थाव घेवन भितरलीं मुळां वोलीं वोलीं जातात.

आनी आयजूय मडगांवच्यान बाबलीचो फोन आयलो.

- आवयन आयज ही म्हण वापरल्या रे. 'जांची वल्ली जड, तांचीं सोय-यां गोड.'

- 'अर्थ कितें?'

'पयलीं तुजे डायरेंत नोट करून दवर रे. तुजे आवयक विचार. नाजाल्यार हांव तुका म्हजे आवयक विचारून सांगतां मागीर.'

आयज डायरेंत ही नवी म्हण बरयल्या. ताचें संशोधन सुरू जालां. नवें नखेत्र मेळिल्ल्याचो नवो आनंद आनी ताचे विशीं खबर नाशिल्ल्याची अस्वस्थताय. पूण ह्या दोनांतूय आनंद आसा. तीच तांक म्हज्या कोंकणी शब्द मळबाची!



# काळजाचे रंग

काळीज उलोवपाक सोदता. तुजे कडेन.

ताचें आयकतलो जाल्यार भायलो आवाज बंद करचो पडटलो. भायलो रेडियो 'ऑफ' करचो पडटलो. भायली करंदाय इतली जाल्या की काळजाचे उले तुजे मेरेन पावच नात.

काळजाचें आयक. तुका उजवाड मेळटलो. मोडां येतात तेन्ना शेणिल्ल्या तारवाक त्या म्हासागरांत दिका दाखयता चुंबकी कांटो. जिणेचे वाटेर वादळां येतलीं, तेन्ना काळजाचो चुंबकी कांटो तुका दिशा दाखयतलो.

काळजाची आपली अशी भाशा आसा. सगळ्यांत श्रेश्ठ अशी भाशा. तें चड उलयना. इल्लेंशें उलयता. फुतफुत्ता म्हणल्यार चड बरें! तें आयकुपाची कला विकसीत करची पडटा. संवय करची पडटा. तुका जाय तेन्ना तें उलयना. मात तुवें ताचें आयकुपाक सदांच तयार रावंक जाय!

बुद्दीची भाशा वेगळी आनी काळजाची वेगळी. एका वेळार एकूच कोण तरी उलयता. बुद्दीक शीम-मेर आसा. काळजाक ना! बुद्दीपेल्यान आकांताच्यो गजाली आसात. खूब, खूब. जांचो अणभव फकत काळिजूच करूंक शकता.

सगळ्यांत श्रेश्ठ अशें एकूच देवूळ आसा. तें म्हणजे म्हजें काळीज! सदांच उकतें. चोविसूय वरां. ह्या देवळांतलो देव तिनूय त्रिकाळ म्हजी वाट पळेत आसता.

ह्या म्हज्यांतल्या देवळांत वचपाक म्हाका पुजा-याची गरज ना. कारण तातूंत हांव एकलोच प्रवेंश करूंक शकतां.

काळजाचे गर्भकुडींत एकल्याकूच प्रवेश आसा. वचूंक मेळटा. देंवंक मेळटा. म्हाका एकल्याकूच. हांवूच म्हाजन. हांवूच पुजारी. हांवूच कुळावी. हांवूच भक्त.

ह्या देवळाची वास्तू केदी? भव्य आनी दिव्य! ताका सुरवात ना, अंत ना. जो भितर देंवता तो सासणाची यात्रा करीत रावता. ही यात्रा आसता खोसदिणी. आनंदाची.

काळजाक आयकतना मन मोडे घालीत. पूण तुवें पखवाज कसो दोगांय कडच्यान एकाच वगतार बडोवन घेवंक फावोना.

मन आनी बुद्दी तुका प्रस्नांच्या दर्यांत लोटीत आसतात. दुबावांचे न्हंयेंत व्हरत आसतात.

पूण काळीज तुका उतरांच्या सागरांत व्हरतलें. प्रस्नां परसूय चड आसात जापो. काळजा कडेन! आयकुपाची तयारी दवर. मन दाखयतलें फकत दुबाव-आडखळींचो! पूण काळीज घेवन येता फकत विस्वास. त्या आडखळींचीं खडपां फोडून मार्ग तयार करपाचो!

मनाक नाच्चें पडना. ताचो सभावूच तो. तें जितलें नाचता तितलें काळीज बंद जाता आनी उपरासता तें फकत दुख्ख. पूण काळजाक नाचोवपाक यत्न करचे पडटात. मात........ एकदां तें नाचूंक लागलें म्हणटकच मनाचीं दारां बंद जातात. मनमाकड बांदून घाल्ले भशेन जाता आनी एकूच गजाल घडटा, ती म्हणल्यार आनंद! शांती!

मनांत आसता तो बोवाळ. आवाजाचें प्रदुशण. मनांत आसता कुलकुलाट. चडांत चड अस्थीरताय हाडपी.

काळजांत आसता एक 'अनाहत' संगीत. गोड गोड आवाज. ज्या आवाजांत भिजून वच्चें आनी त्या नादब्रह्मांत शेणून वच्चें. विरून वच्चें. काळजांतलो षड्ज हाडटा चडांत चड थिराय!

मन चिकित्सा करता. दरेके गजालीची समिक्षा करता. जिणेचीय. हें अशें कित्याक घडलें? तें अशेच तरेन जावंक जाय. हें सारकें जावंक ना........

काळीज स्विकार करता. जी गजाल आसा ती आसा तशी मानून घेवपाची कला शिकयता. जीण आसा तशी स्विकार करपाचें धैर्य काळीज दिता.

उदकाक जसो रंग आसना, तेच परी मनाकूय रंग आसना. ताचें कितलेंय रंजन कर, तें रमना आनी रंगना. तें म्हणल्यार बुराक पडिल्ल्या पुड्या भशेन! कितलेंय ओत, ताची भर जायना......

काळजाचो अणभव घेशी जाल्यार तुका अनंत रंगांची शक्यताय तातूंत दिसतली. त्या पेल्यांत हे अणभविल्ले रंग सांठून उरतले. पेलो रकयतकूच तातूंत भरिल्ल्या द्रावाची कांठ भरिल्लो तेन्नाचे पातळेची कुरू दिसता तशीच रंगांची कुरू हें काळिजूय दाखयतलें! ही कुरू आसता खोशयेची!

मनाची भूक केन्नाच सोंपना अशी. इत्सा, वान्सा, हावेस हांकां ना अंत. हें जाय, तें जाय. तें मेळटकच तरी सुखी आसा? तृप्त जाता? सदांच चंचल, सदांच अतृप्त.

काळजाकूय भूक आसता. ही भूक उदात्त! भायल्या गजालींनी ती भूक भागना. ती भूक चड वाडली म्हणटकच जे तळमळे आनी वळवळे लागतात तांचे परिणाम बरेच त्राशीक आसतात.

काळजाची भूक एकाच अन्नान भागता. सत्याच्या सांगातान. भूक भागता आनी परत लागता. परत ताका सत्याचें सान्निध्य जाय पडटा. आनी काळीज भरत वता. रंगत वता.

मनाचो वापर खंय करपाचो, कसो करपाचो हें शाण्या मनशाक कळूंक जाय. काळजाचो उपेग केन्ना, खंय आनी कित्याक करचो हेंय कळपाक जाय. हें जाका कळटा तो ख-या अर्थान शाणो.

मनाचे कुकारे कोणूय आयकत. कारण ते आयकुपाक तकालस घेवची पडना. ताची चुळबूळ चालूच आसता. न्हिदेंत लेगीत.

काळजा-देगणांतले उले आयकुपाक मात साहस लागता. धाडशी मनिसूच ही मैफल आयकुपा खातीर काळजाकान विकसीत करूंक शकता. ही मैफल संथ, शांत, थीर मोरपांखी अणभव जिणेंत फुलयता.

काळजा तळाची जी शांतताय आसा तिची तुळा खंयच्याच संगिता कडेन, कविते कडेन वा स्वातंत्र्या कडेन करूं नजो! बुडून पळे काळजांत!



# आंबुल्ल्यो आनी घोंटां

यादींची आरमार ल्हान आसना. तातूंतल्या खणांक, कप्प्यांक अंत आसना. तिचे खोलायेचो थावूय लागना. चिंचेच्या पानां भितर पानांच पानां आसचीं तशी ही उगडासांची कोठी. केन्नाकेन्नाय कांय यादी वयर उफेतात. उचकतात. गोड गोड सुखद यादी!

हालींच सपनांत ती आंबुल्ली दिसली. स्पश्ट चंवरिल्ली. पाचव्याचार पानांचें व्हडलें तोंपरें. मोट्ट्या पोटाच्या कांडाक. चंवरां मदीं इल्लेशे कण. फुडारांतल्या तोरांचे. फुडारांतल्या घोंटांचे इल्लेशे पूण व्हड जावपाची तांक आशिल्ले.

जाग येतकच ते आंबुल्लेन जागयल्यो कितल्योश्योच यादी. भुरगेपणातल्यो. दिसूंक लागल्यो सगळ्यो आंबुल्ल्यो. भुरगेपण गेलें प्रियोळा. आकारवाड्यार, भुरगेपण गेलें शेतां-कुळागरांच्या गोपांत. आनी कुळागरांतल्या त्या आंबुल्ल्यांच्या मुळसांत.

हिंदी भाशेंत एक कवन आसा-

धीरे धीरे रे मना
सब कुछ होय।
माली सींचे सौ घडा
जब ऋतू, तब फल।।

(भावार्थ- सवकासायेन सगळें जाता. मना, धीर धर, माळ्यान जरी

शेंकड्यांनी कळशे रकयले तरी, रुतू येता तेन्नाच फळां लागतात.)

सांगपाचें म्हणल्यार त्यो आंबुल्ल्यो फुलताल्यो-फळटाल्यो तांचो हंगाम येतकच. आमी कांयच करिनासले ते खातीर. फकत त्यो आंबुल्ल्यो चंवरूक लागतकच एक वेगळोच वास सगळ्याक फांकतालो. पाचवेचार कण कशे चंवरांतल्यान तकल्यो भायर काडून पळेताले. तांचीं केन्ना तोरां जातालीं, कळच नासलें. तोरां जातकच आमी भुरगीं आपसूक आंबुल्ल्यां वटेन ओडटालीं. चुंबका भशेन.

फातरायकच थोड्या वेळान तोरां पडटालीं. तातूंत मीठ, मिरसांग घालून तीं चिड्डून कुडके करून खावचीं. तांचो फळफळीत दीख कपड्यांक बी लागल्यार खत पडलेंच म्हूण समजुचें. अशीं कितलीं खतां, दाग, मखां आमी कपड्यांक घालीं! दीख आंगाक-गळ्याक-तोंडाक लागून फोफेवचो. घरांत पांटलोभर तोरां येवचीं. खळांतल्यो आंबल्यो घालपा खातीर. दोणांतल्या आंबल्यां खातीर. देंठां-पानां सयत काळ्या दागांचीं तीं पाचवीं तोरां. काथावल्लीं तोरां आसतकच दोणांत घालपाक उपकारनात म्हूण आजयेन करंदाय करची.

आंबट चिंचेचे, तोराचे कुडके खातना आंग शीर्र जावचें. पूण शाळेंतूय खेळून जातकच धवीफुल्ल काथ्याची बी काडून उडोवन त्या धव्या आंगाक तांबडेगुंज म्हेळे बोटांचे दाग लावन आमी तीं खावचीं. तें भुकेक लागून खावप काय रुतू प्रमाण दिल्ली ती सैमाची भेट स्विकारप हे विशीं चिंतपाची ती पिरायूच न्हय तशी!

पयलेंच तरणें तोर खावपाक एक वेगळी खोस आसताली. एक वेगळी रूच आसताली. हंगामांतलें पयलें तोर! ताची चवूच वेगळी. लाळ गळोवपी. जीब मुतोवपी. ह्या दिखाळ तोरांचें लोणचें बरें रुचीक लागतालें. गोंया भायर प्रवासाक बी वतना ह्या लोणच्याची एक बाटली व्हेल्यार पुरो. त्या वासानूच वाटे वयलें वा गोंया भायलें जेवण लोणच्याच्या ह्या तोंडाकान परकी दिसनासलें.

तोरांच्यो उब्यो शिरो चिरून तांकां मीठ मिरसांग घालून दवरताले.

तीं भेतकां जेवणाक आसल्यार आनीक कांयच तोंडाक नाका जातालें. पेजे वांगडा भेतकां. जेवणाक भेतकां. कुरकुरीत, आंबटसार. मेथो घालून आंबल्यो खळांतूय घालून दवरताले. पुरुमेंता खातीर. पावसांत ह्या आंबल्यांक मोटी मागणी. मेथो, खळ हांची रूच आनी आंबलेची कुरकुरीतसाण, आंबटसाण. जीब धन्य जावची. आमच्यांतले कांय जाण तर ह्या खळानूच शीत कालोवन जेवचे.

आजोळाच्या घरा सरभोंवतणीं कितल्योश्योच आंबुल्ल्यो आशिल्ल्यो. तांच्यांतूय विवीधताय खूब! घरा मुखा वयल्या कुळागरांतल्या पयल्याच झाडाक आमी नांव दवरिल्लें - आंबटो. ताचीं घोंटां सदांच आंबट. आनीक एके आंबुल्लेच्या घोंटांक म्हणचें गुळ्याचीं घोंटां. तीं वाटकुळींच बटाटा भशेन आकाराचीं. गोड. मासाळ. इल्लोसो काथो. काथ्याचो रंग भगवो-केसरी कसो. आड्या कडले आंबुल्लेच्या घोंटांची कात मातशी दाट. पाचवीचार. पोपटी काथो लांबट. हळडुवसार. सगल्यांत गोड. तीं सकयल्या अनशींनी झडटालीं. काडुंकूय त्रास जाताले.

कुळागरांत अश्यो तरातरांच्यो आंबुल्ल्यो आसताल्यो. घोंटां लागतकच आमी थंयच खेळप, बागडप! ढब्ब करून वा-यान घोंट उडयतकच वचून हाडप. पोल्यार दूक देंवून सुकचें तसो ताच्या आंगार दिखाचो एक पटो आसचो. केन्नाय एक घोंट खावचें. मुखा वयल्या दांतांनी बुराक करप. मागीर तो रोस चोखप. साली काडून तांचेय भितरलो गोरोप दातांनी खरवडावन खावप. काथो खड्डो जायसर चोखप. दांतांनी सुतां भरून दांत हळडुवे - केसरी जायसर. तो रोस पियेतना कोंपरा वयल्यान सकयलूय गळचो. घोंटां खावन जातकच मागांतले फोंडयेंत हात धुवन कालसांवाक पुसप आनी परत वा-याची वाट पळेत रावप.

घोंटां खूब पडचीं. आमी एके पोंवलेंत तीं पुंजावचीं. नाजाल्यार इल्लेंशें फोंडकूल खणून तातूंत केळीच्यो शिरत्यो पिंजून दाळच्यो आनी वयर जिन्याच्या बडयांचें आडावण करचें. आपली हक्काची सुवात म्हूण कळपाक. नेटान वारो आयल्यार घबाघब घोंटां पडचीं. आमी सगळीं भावंडां, मामालीं, मावशेलीं, धांवत वचून झुडून पडचीं. केन्नाय माडयेक

आपटून पडचीं. जमिनूय भुसभुशीत. मोव.

आदेसांचे आदेस आमी आंबुल्ल्यांच्या मुळसा कडेन पडून आसचीं. केदी थंडाय, केदी शितळटाय थंय! सैमाचें एरकण्डिशण्ड वातावरण. वत ना. रखरख ना. ताप ना. शांत सांवळी. एक वेगळोच वास, एक आगळोवेगळो मोनेळ. मातयेच्या, सैमाच्या गोपांत, घोंटांच्या रोसांत, वा-याच्या खातकुतल्यांनी शरिराक पोसवण मेळची!

घोंटां पुंजावन घरा हाडचीं. राशींनी. जेवणाक करचें सांसव. सांसवाक रूच वेगळीच. सगळ्या आंबुल्ल्यांचीं तरातरांचीं घोंटां तातूंत आसपा वतालीं. गोड. आंबट. वाटकुळ्या काथ्याचीं. लांबट काथ्याचीं. एक वेगळोच सर्वसमावेशक रोस. जीव तृप्त करी. केन्नाय करताले काथ्यांचें तोंडाक. गालमो घालून वडयो भरसून अनसां फोडीचे कुडके घालून. ताचीय रूच वेगळीच.

आंबुल्ल्यांच्या सांगाता आमी कितलीं वरां, कितले खीण घालयले, कितले आदेस पासार केले हांची गणटी करूं नजो. ती खोस, ती उमेद, हांचीय मोलावणी करूं नजो. आंबुल्लेच्या पोटाक दाट कपचे आसताले. वेळ वचना जातकच आमी ते खरवडावचे. वणटीचे पेण्टाचे कपचे काडिल्ले भशेन ते सोलचे. केन्नाय तिका कांडार खरवडावन आमी आमचीं नांवां बरोवचीं. तारीख कोंरांतची. बावडी आंबुल्ली पासियेंसान सगळें सोंसताली.

याद जाता. एक दीस वादळ जावचें तशा नेटान आकांताचें वारें आयलें. गडगड जावन झाडांपेडां हुमटनात मूं अशें दिसलें. इतलो खर वारो आंबुल्ल्यांक धोंगसूंक लागलो. आनी घे! घडाघड घोंटांचो पावस पडूंक लागलो. गारांचो पावस आयकल्लो. पूण हो घोंटांचो पावस. पुंजावन सोंपना, सोंपून सोंपना इतलीं घोंटां.

सात-आठ वर्सां पिरायेचो म्हजो मामेभाव रस्त्यार य़ेवन खोशयेन उचांबळ जावन नाचूंक लागलो. तोंडाक येता तें वाक्य तो परत परत किळांचतालो - 'येयात. येयात. तुमी इतलीं वर्सां जगल्यात आसतले.

पूण इतलीं घोंटां, असलीं घोंटां तुमी केन्नाच पळोवंक नात. येयात. बेगीन येयात.' घोंटांच्या पावसा उपरांत हरंधारींनी, उंटगारांनी पावस ओतूंक लागलो, तरी तो आमचो गोरोगोमटोच मामेभाव बेभान जावन नाचत आशिल्लो...... आयज ताका केन्नाय ही गजाल याद करतां. तो विसरून गेला. पूण घोंटां कडल्या म्हज्या नात्याक लागून हांव मात ती गजाल विसरूंक ना.

घोंटां पसून आनीक एक म्हत्वाचो जिनस करताले. तो म्हणल्यार साठ. आंब्यांचें साठ. परातींत घोंटांरोसाचे थर सोडप. नळ्यांचेर सुकत दवरप. आनीक थर चडोवप. कावळे चोंचायत म्हूण ताटांचेर वयर लोखंडी जाळी धांपप. काळेंकिट्ट दाट दाट मातशें चॉकलेटीकोराचें अशें तें आंब्यांचें साठ! सुकतकच तें निखळावन जाणटेलीं काडटालीं तेन्ना आमी विजयी मुद्रेन थंय भोंवतणीं जमचीं. एका साठांत कितल्या घोंटांचे कण एकजिनसीपणान एकठावल्यात काय, तातूंत म्हजीं कितलीं घोंटां आसतलीं अशें चिंतीत आमी थंय पळोवचें! एक लांबचे लांब सुरी घेवन व्हडलो मामा त्या साठाचे पटे कापी. दाट कपडो पाटार घालचो तशें तें साठ पाटार आसतालें. कमराचो 'बॅल्ट' आसचो तसो एक एक पटो कापून ताचेर मातसो मिरयांचो पिठो घालताले.

वांवळेचो तीर घेवन तो पटो बांदताले. कांय पटे विकूंक धाडटाले. कांय डब्यांनी घालून पावसांत खावपाक दवरताले. ज्यो कडो उरताल्यो तांचे पसून कुंवळ करताले. त्या कुंवळाची रूच पंचतारांकीत खाणाक येवची ना!

पणसाच्या साठा परस म्हाका आंब्याचें म्हणल्यार घोंटांचें साठ आवडटा. हालींच म्हाड्डोळा पाविल्ले कडेन दुकानार विकतें घेतलें. आंबट-गोड. एक कुडको काडून तोंडांत घालो. चोखून तोंडांत विरगळायलो. जीब लाळेली. जीव तृप्त जालो. मन मात शेवणें जावन भूतकाळांत आंबुल्ल्यांच्या सांगातांत भूर करून उडून गेलें......



# हुंदराचे सिद्धांत

त्या ऑफिसांत इश्टाक मेळूंक गेल्लों. इश्टाच्या रुमांत गेलों. दारार उबो रावलों. म्हजो इश्ट मेजार कसलीं तरी कागदां घांशीत बशिल्लो. ऑफिसाचीं काय आनीक कसलीं तीं समजुपाक मार्ग ना. कारण तो कवी. कदाचीत कविताय येवजल्या आसल्यार खड्डीता आसत. ताका तेंकून ताचो दुसरो वांगडी वाडिल्ल्या नाखटांनी आपल्या दुस-या हाताचें चरतें खरंय खरंय करून खरपीत बशिल्लो. क्लार्क टेलिफोनाचेर बसून घरा कडेन पुर्तुगेझ भाशेंत झांकड्यो मारीत बशिल्लो. कोणाचेंच लक्ष म्हजे कडेन वचूंक नाशिल्लें. सगळे आपल्याच मग्मांत आनी विश्वांत. पांच मिणटां जालीं, सात आठ मिणटां जालीं. निमाणे म्हजो धीर धरपाचो बांद फुटलो आनी इश्टाक व्हडल्यान उलो मारलो. तो कच्च करून आंग काडून उठून भायर आयलो. इतलें आसुनूय बाकीच्यांचेर म्हज्या उल्याचो कसलोच परिणाम जावंक नाशिल्लो. कोण आयला काय थंय असली सादी उमळशीक तांकां नाशिल्ली. एके वेगळेच अनास्थेन ते आपल्या खरपुपाच्या वावरांत आनी फोनार बजबजपांत गुल्ल आशिल्ले. इश्टाक भायर आपोवन रेकाद दिवपाचो दिलो आनी एक गजाल शिटकायली! 'इतलो वेळ कोण दारार येवन उबो आसा हाचें धंगण कोणाकूच ना तें बरें आसा रे. पूण त्या तुमच्या रुमांत हुंदीर कुसून पडला आनी त्यो घाणी मारतात तातूंत तुमी मुदलांत बसतातूच कशे रे? म्हज्यान त्यो

घाणी सोंसनात जावन हांवें तुका उलो मारलो. नाजाल्यार तुमकां केन्ना जाग येता ताची मजा पळेत रावपाचों.'

दोन दिसांनी इश्ट मेळ्ळो. ताणेंच जावन विशय काडलो.

'तूं येवन गेलो खरो रे. पूण घाणी कडेन आडनदर आनी दुर्लक्ष करून हांव जीव खेळयतालों, कामांत रमयतालों, ती घाणीची जाणीव तुवें जागृत केली आनी जीव घुंवळपाक लागलो. कामार लक्षूच लागना जालें मागीर. घाणीचें 'ऑब्सॅशन' इतलें वाडलें की तकली उसळपाक लागली. आनीक कसलीय घाण परवडली. हुंदीर कुशिल्ल्याची घाण सोंसना रे! शिसलां उसळपाक लागलीं. तसोच आदेस सारलो. घरा परतताना बसींत लेगीत ते तुवें जागृत केल्ले यादीन तकली दुखूंक लागली आनी पोटांत मळमळूंक लागलें. ओंकारोच येता काय जालो. पयलींच बसींत उबो आशिल्लों. सिटूय मेळूंक नाशिल्लो. कसो तरी घरा पावलों.'

राव रे, मागीर दुस-या दिसा तुमी वा कोणें तरी तो कुशिल्लो हुंदीर काडलो तर?

कोण काडटलो? हाच्याक पाश्ट गजाली थंय चलतात. त्या कॉरिडोरांत तुका संडासाच्यो खातसाणी येनाशिल्ल्यो?

येताल्यो तर. पूण हुंदरा घाणी मुखार त्यो दिपावताल्यो. तुमचें मात कवतुकूच दिसलें रे. हुंदीर खंय कुसला तें समजप कठीण. खबरांपत्रांचे रद्दीचे राशी पोंदा काय आरमारी पोंदा काय आनीक खंय तें समजप कठीण. पारखितलो कसो? कळ्ळेंय जाल्यार काडटलो कोण? कोण कास्तीक आनी त्रास घेतलो? कित्याक?

निवळसाण करपी गांधीच्या अनुयायांनी लेगीत वायट अणभव भोगल्यात. हळशीक निवळ करूंक सान्नी घेवन वतल्यांक एकदां खंय एके बायलेन म्हणलें, 'थंय एक थापो उरला तो काडटात मूं?'

एका तेंपार कांय स्वच्छनारायणाचे पुजारी हळशीक वा थापो

दिसतकच आनंदान उडयो मारीत ते काडूंक वताले, आयची पुजा जाली आनी दिसाचें सार्थक जालें अशें समजून! पूण वायट अणभव येतकच ह्यो लस्कराच्यो भाक-यो सोडून तेय घाणी सोसूंक लागले. स्विकारूंक लागले.

आनीक एक गजाल. तूं तुजो जीव विट्टा म्हूण तो कुशिल्लो हुंदीर काडूंक वचशी वा कोणाकूय सांगून पदरचे दुडू मोडून तें काम करून घेशी जाल्यार फाटींफुडें तुज्या रुमांतले सोडूच बाकीच्याय रुमांतले हुंदीर काडपाचें काम तुजेंच असो कायदोच जावन पडटलो. 'ऊं.... ? घाण काड तूं!' हे कोंकणी म्हणी प्रमाण तुज्याच हड्ड्यार थापतले. खेरीज, इतले महत् प्रयास करून तो हुंदीर थंयच्यान काडलो जाल्यार दुस-या दिसा दुसरे सुवातेर आनीक एक कुसून पडटाच. ते परस घाण सोंसपाची प्रॅक्टीस केले बगर गत्यंतर ना.

'हय सायबा, तूं म्हणटा ती गजाल खरी. एका वाठारांत एकलो रिटायर्ड जाणटेलो उमेदीन कॉलनी कडेन नितळसाण करतालो. तोय निवळसाणीचो भोक्तो आनी थोडोसो विचारसरणेन सर्वोदयवादी. ताचें काम चकाचक. म्युनिसिपालिटीच्या नितळसाण पंगडान तो वाठार सदांच निवळ, लींप आनी लकलकीत आसता म्हूण तितल्याच वाठारांत आपणें नितळसाण करपाचें सोडून दिलें. इतलें की तो वाठार म्युनिसिपालिटीन निवळसाण करपाचे अखत्यारींत येच ना अशे तरेचो एक आपघोशीत कायदो वा 'स्टॅच्युटूच' तयार जालें म्हणल्यार जाता. कालांतरान तो जाणटेलो भायर पडलो. पूण तो वाठार नगरपालिका अजुनूय निवळ करिना खंय. कारण थारायिल्ल्या वावर आटापा प्रमाणें तांचें काम न्हय खंय तें.'

म्हजो इश्ट मुखार सांगूंक लागलो.

'बरोबर तुजें. आनीक एक म्हत्वाची गजाल सांगतां तुका. कुशिल्लो हुंदीर सोदप आनी ती हळशीक काडून उडोवप ही बरीच तकालशीची गजाल. हांवें अणभव घेतला रे तो. भुरगेपणांत आमगेर जळवाक

लांकडां हाडटाले. पावसांत पुरुमेंताचो स्टॉक दवरचोच पडटालो. घरांत एका कोनशाक कितलींशींच लांकडां दाळून दवरिल्लीं आसतालीं. एकार एक रास. तेन्ना गॅस सिलिण्डर बी खंयचे? केन्नाय हुंदीर कुसून पडटकच नाका जल्म जावचो. ताकतिकेन हांव एका मानायांक वा कामगाराक आपोवंक धांवतालों. ताका बाबापुता करून आपयतालों. लोणी लायतकच मागीर तो मोहीम सुरू करी. सगळीं लांकडां घाण येता ते दिशेन अदमासान काडी. हुंदीर सांपडटकच परत दाळपाचो वावर. केन्नाकेन्नाय लांकडां खांचींनी फारकून दोन तीन हुंदीर कुसून पडिल्ले आसताले. ते काडटासर नाकापुरो जातालें. तो कामगार नाकाक लेंस बांदून विचित्र तोंड करून हें क्लिश्ट काम करी बावडो. कुसक्या हुंदरांचो विलो लायले बगर घरांत रावतले, रांदतले, खातले, न्हिदतले कशे? ह्यो सगळ्यो यातना अणभवल्यात रे हांवें. पूण आतां म्हजो तरणोपाय ना. आतां ऑफिसांत त्यो घाणी सोंसपाचीच कला शिकपाचें थारायलां हांवें.'

* * *

हांव रावतां ते कॉलनी लागसारूच मोडणार म्हणल्यार तीन रस्ते एकठांय येतात थंय एक कॉलेज आसा. इमारत सुंदर. सकयलूच तांचो भव्य असो बाल्कनी आशिल्लो एक एसी हॉल आसा. कॉलेजीचे प्रोग्राम थंय केन्नाय जातात.

एक दीस हांव सकाळीं फुडें म्हज्या कामाक लागून भायर सरलों. त्या मोडणार पावलां मात..... प्रिन्सिपल थंयच त्या हॉलाचे गेटीर रावन भुरग्यांक आडायतालो. आनी आमुडटालो. दोनूय हात आडवे करून येरादारी पुलिसा भाशेन तो भुरग्यांक आडावन हॉलांत वचून बसपाक फर्मायतालो. ते गडबडींत थोडे भुरगे सटकतालेच. सांपडटाले तांच्या भुजांक धरून हो शिक्षक तांकां त्या हॉलांत धांवडावन घाली.

सदचे भशेन हांव ताका हांसलों. आपली कृती विचित्र दिसतली म्हूण ताणें बोमाडो फोडलो.

आमच्या हॉलांत आतां एक कार्यावळ जावपाची आसा. आयकर आयुक्त, पुलीस महासंचालक, बँक मॅनेजर आनी एक चार्टर्ड अकाउण्टण्ट हांकां भुरग्यांक वेवसायीक मार्गदर्शन करपाक आपयल्यात. हॉल आमचो तसो तो बंदूच उरता न्हय? सकाळींच उकतो केलो. भुरगे भितर बसच नात. हुंदरा सारके जीव, जल्ले, पाली, बी भितर आर्दी कुसून मेल्ल्यान त्यो सगळयो हॉलांत तुंबिल्ल्यो, सांठिल्ल्यो आनी कोंदटिल्ल्यो घाणी सोंसनात अशें म्हणटात ते. गॅस्ट येवपाचे जाले. आयकुपी विद्यार्थीच नात जाल्यार जातलें कशें हो म्हजेर आकांत आयला.

हांव बेठोच हांसलों आनी वाटेक लागलों. पूण वाटभर म्हाका हांसुंकूच येवंक लागलें. हांसप बरें. तकलेक त्रास करून ताप कित्याक करून घेवचे? हरशींच पयलीं आमच्या भुरग्यांक भाशणां जावं आनीक कितेंय आयकुपाचें मातूय पासियेंसूच आसना. तातूंत आनी ह्यो असह्य वाणी. वा रे वा! कित्याकूच म्हूण बसचें तांणी? इश्टाच्या ऑफिसांतल्यो हुंदीर कुशिल्ल्याच्यो घाणी परवडल्यो रे सायबा! कारण त्यो उकत्या जनेलांतल्यान भायर वचून वचून दोन तीन दिसांनी नाच्च जातल्यो म्हूण आशा आसता. पूण न्हय ह्यो यमयातना. येदी व्हडली बिल्डींग, खंयचेच शिक्षणीक संस्थे कडेन ना तसलो हॉल. पूण ताचो सांबाळ कसो करचो हें सभाग्यांक खबर ना. सांबाळ करपाक कितें व्हडलें माथें मारूंक जाय? दर दिसा तो कांय वरां उकतो करून भितर वारें घोळयल्यार पुरो. पूण ती समजणी नाका?

दनपारच्या साडेबारांक हांव म्हजें काम सोंपोवन घरा परततालों. त्या मोडणार पावलों. एकलो क्लार्क घरा वतालो. जेवपाक. इतलेच बेगीन जाली रे कार्यावळ? हांवें ताका हडकिलो.

ताणें जाप दिली, 'ना, अजून चालू आसा.....'

घरा पावलों आनी म्हाका आनीक हांसूंक आयलें. त्या चित्रविचित्र 'परमळांचे' दर्पटाणींत हे सगळे मानेस्त, गॅस्ट, उलोवपी, शिक्षक आनी

आयकुपी विद्यार्थी वरांचीं वरां कशे बसल्यात आसतले काय? कितलोय जरी वासाचो स्प्रे आनी एरफ्रॅशनर मारलो तरी तो इतल्या तेंपाचो कोनशेवन फुगिल्लो वारो आनी वाय भायर इतले बेगीन वतलोच कसो? म्हाका उरिल्लो आदेसूय हांसुंकूच येतालें. पोटांत मुड्डो जायसर. येद्या धीरवान सोंसप्यांक हांवें मनांतल्यान शेंकड्यांनी सलाम मारले.

* * *

ती कॉलनी तशी पॉश. शारांत तिची नामना. नवी ताल्ल, वारें घोळटा. बोवाळ ना. उद्देगांचो वा मोटारींचो घरघर ना. तातूंत तरातरांच्यो चार-पांच बिल्डिंगो आसात. फ्लॅट आसात. रो बंगले, स्वतंत्र बंगले, मदीं गार्डन, झाडां..... ओडलायणीं. गेटीर गुरखो बी. भितरले रहिवाशी आमची कॉलनी सबंद शारांत नंबर वन म्हूण झेत मारतात ते पळोवपा सारके.

एक दीस थंय गेटिरूच सकाळीं फुडें मेल्लो हुंदीर पडलो. मदींच लांबचे लांब शेंपडी. आतां हुंदीर मरून पडटकच तो कसो पडलो, खंयच्यान आयलो, कित्याक मेलो, कोणें सभाग्यान ताची पिडापीड जाता म्हूण वीख घालून दवरिल्लें काय कितें हे विसकटावणेक आनी पंचनाम्याक कसलोच अर्थ ना. लोक येताले वताले. पेपर हाडूंक, दूद हाडूंक बाजारांत वताले. कांय जाण कामाक भायर सरून वताले. हुंदीर जण एकल्याक दिसतालो. कांय जाण आपलें वाहन ताका घश्टून व्हरताले. पूण तो काडून उडोवया कोणाकूय सांगून तरी, अशें कोणाकूच दिसलेंना आनी तो काडून उडोवपाची प्रत्यक्ष कृती घडलिना ही वस्तुस्थिती. करतां करतां कावळे त्या मेल्ल्या हुंदराचें मडें उस्तूंक लागले, पिंजूंक लागले. आतां आनी हेर अवयव ते भायर काडीत रावले. दोर कशे, वायरी कश्यो....... आदल्या तेंपार पाश्तां आसतालीं आनी तीं जाम जातकच ताच्यो वयल्यो वायरी भायर सरताल्यो. तेच तरेन हुंदरा भितरल्यो वायरी भायर काडून ह्यो विदरणा चलिल्ल्यो. तातूंत थोडो म्हूण पावस ओतलो. घे! ते हाल पळोवं नजो. गुरखो थंय बसून

विडी ओडटालो. ताकाय दिश्टी पडटा. पूण हुंदराचे हाल, अप्रतिश्ठा आनी आवतिकाय आनीक आनीक बिकट जायत आशिल्ली. आमची कॉलनी म्हणजे कितें? अश्यो बडायो मारपी लोक येताले वताले. कोणाकूच पडूंक नाशिल्लें. नितळसाणीचेर रेडियो-टिवीचेर व्याख्यानां दिवपी एकलो दोतोर पासार जालो. पर्यावरणाचेर जगभर लॅक्चरां दिवपी एक टीचर भायर सरून गेलो. आदवोगादूय गेलो. तरी बरें, ताका कोणें तो हुंदीर पडला म्हूण सांगलेंना म्हूण. म्हजे कडेन कागाळ केलीच कशी म्हूण उलोवपाचे पयशे पयलीं दी अशें धमकावन तो वकील त्या हुंदराच्यो वाद-यो चलिल्ले सुवातेरूच रावन हुज्जत घालपाचो. दीसभर हो 'शो' चालूच आशिल्लो. तिनसांजे त्या हुंदरा मड्याची फकत पोती म्हणल्यार चंची कशी उरिल्ली. तें कितें हें वळखप लेगीत शक्य नाशिल्लें. गाडयोय ताका चिड्डावन-गुड्डावन गेल्ल्यो. मागीर ते चामड्या पोतये अवशेश कोणें पक्षान खंय व्हरून उडयले समजुपाक मार्ग ना. पूण मनशांनी मात आपली जात दाखयली हें खरें!

ऑफिसांतलो कुशिल्लो हुंदीर काडून उडोवया अशें कोणाकूच दिसना. विटनासतना तेच घाणींत काम करपाची तांकां संवय जाल्या. घडये तरांतरांच्यो कुसट्टाणी आनी किल्लुसाणी आतां तांकां बादच नात आसत. ते असल्या गजालींक 'इम्यून' जाल्यात आसत. आपूण घाणींत बसलां ही जाणीव आनी नेणीव तातूंतल्या कोणाय संवेदनशील मनशाचे नदरेक हाडून दुस-यान चाळोवचीय न्हय. ताका आनीक त्रास केल्ल्याचें पातकूच तें. कारण तो पयलींच हतबल आनी असहाय्य आशिल्ल्यान कांयच करूंक शकना.

हॉल हो फकत कार्यावळी पुरतोच उकतो करपाचो आसता, म्हणजे 'गरज पडटा तेन्नाच वापरुया तुका' ही जांच्यांत सुवार्थी भावना बळावल्या आनी जडावल्या, तांचेय विचार करपाचे मनाचे कप्पे अशेच धांपिल्ले आनी कोनशेल्ले आसतात. तातूंतल्यान ब-या विचारांचें वारें येच ना. वयल्यान हे लोक हेरांक पिडटात. जनेलां-दारां हीं भितरल्यो घाणी भायर

वचपाक आनी भायलो सैमीक वारो भितर खेळपाक आसतात हें तांकां कशें कळटलें? बावड्या भुरग्यांनी आनी हेर बळी पडिल्ल्यांनी फकत सोंसपाचें!

'म्हजें घर निवळ आसतकच जालें. फ्लॅटा मुखा वयलीं जोतीं काडपाची सुवात नितळ आसतकच जाली. सोंपणां पाड पडनात! म्हजीं तीं? गेटीर हुंदीर कुसूं नाजाल्यार आनीक कसलोय प्राणी. म्हाका फकत येतना वतना भस्स करून येवपी घाणीचे किंचीत त्रास जायत. कित्याक तीं दंडणां? म्हजें घर, म्हजी बायल, म्हजीं भुरगीं, म्हजो सुणो आनी म्हजी गाडी. कॉलनी भायल्या आनी भितरल्या रस्त्यांची जाल्यार म्हाका पर्वाच ना. हुंदीर कुसल्यार चडांत चड रोग जायत. म्हाका तो बादत हाची प्रॉबेबिलिटी तशी उणीच. म्हणटकच, आपल्याच मग्मांत रावप बरें.' ही आपसुवार्थी आनी कम्युनिटी सॅन्स नाशिल्ल्याची वृत्ती कुसट्टाणी पयस करपा विशीं पावलूच उखलूंक शकना!

आमच्या चामड्याच्या दोळ्यांक दिसतात आनी दिसनात अशे तरातरांचे हुंदीर वेगळ्यावेगळ्या मळांचेर कुसून पडत आसात. ते घाणींत दीस काडपाची कला जिणेंत शिकप हें एक व्हड आव्हान. सोंपी गजाल न्हय ही. व्हड साधना ती. धडाधड फारपेट करून आर्माच्यो गुळयो घालून रक्तपात करपी आनी धपक्यान मारून उडोवपी आतंकवादी खूब परवडले. पूण हे म्हजे विचार, हे म्हजे आचार म्हूण भयानक विकारांचे आनी आतंकाचे हुंदीर समाजांत बुचबुचावपी बुरखोधारी टणटणमारी न्हय रे बाबा! हे 'सायलण्टकिलर' मारून उडयच नात. ते हुंदिरूच वेगळे जातीचे. मरून कुसयनात. ते कितल्योश्योच गजाली कुरतडावन आनी चांचावन उडयतात. स्वताय पूर्ण खायनात आनी हेरांकूय ताचो कसलोच लाव जावचो ना अशे तरेन दांतांक लागता ती वस्त छिन्नविछिन्न करून सोडटात. निरुपयोगी करून उडयतात. तांकां ताचें दुख्ख, वेदना कांयच नासता. तबल्याच्यो आनी पखवाजाच्यो वादयो जेन्ना असले हुंदीर कुरतडावन उडयतात, वा पेटयेच्या भात्याक बुराक घालून दवरतात तेन्ना तीं वाद्यां वाजतलीं कशीं? तातूंतल्यान सुरार आनी तालार समाजीक

संगीत निनादतलेंच कशें? सोड ती आशा. भयानक हुंदीर हे. तरातरांचीं बेगडी म्होंवाळीं घाल्ले हे कथीत मानेस्त बळयां, मस्तेन खास हुंदीर परतपरत सोडीत आसतात. शरीर निवळ राखलें तरी तांचीं मनां निवळ आसनात. देखुनूच आपलो खाजगी रूम नितळ राखतात आनी भौशीक सुवातांचेर हळशीक वाडयत आसतात.

समाजीक, भौशीक, राजकी, अर्थीक, संस्कृतीक, शिक्षणीक आनी हेर मळांचेर कितलेशेच हुंदीर कुसून पडत आसात. दृश्य आनी अदृश्य. तांची जाणीव जितली चड, तितलें तकली घुंवळपाचें प्रमाण चड.

स्वामी रामकृष्ण परमहंसांचें एक वचन आसा- 'शब्दकोशांत स व्यंजनान सुरू जावपी उतरां चड आसात. तें एकूच गजाल सुचयता. सोंस, सोंस, सोंस. सहनशक्ती, सोंशीकपण!'

म्हणटकच-

हुंदीर कुसतकच घाणी सोंसनात ही गजाल खरी. पूण ताचेय परस बौद्धीक आतंकवादाचे आनी वैचारीक भ्रश्टाचाराचे जिते आनी मेल्ले हुंदीर समाजांत कुसट्टाणी वाडयतात त्यो घाणी कश्योच सोंसूं नजो. तेन्ना ह्यो घाणी नाकाक गुड्डे मारिल्ले भशेन वा नाकूच नाशिल्ले भशेन वा नाक चोंदिल्ले भशेन सोंसप आनी तातुंतूच वावरप-जियेवप ही नाट केळय. आनी आपूण कांयच करूंक शकलोंना तरी किल्लुसाणी सोंशीत चिखलांत कमळ कशें जगतां म्हूण धन्यताय मानून स्वताची फाट पोशे, थापटी! खूब जालें!!



# गोदूबाय

भुरगेपणांत म्हणल्यार पांचवे-सवे यत्तेंत आसतना हांव काणयो-निबंद बरयतालों. ह्या वावराक दिशा मेळची अशें घरच्यांक दिसतालें. हांव आजोळा रावतालों. पिरवळा.

एक दीस म्हाका रवीन्द्रबाब केळेकारांगेर धाडलो. सबंद गांवांत रवीन्द्रबाबांक तातो म्हणटाले. हांव सवेंत आशिल्लों. एक-दोन काणयो घेवन तातोगेर गेलों.

तांणी आरामखुर्चेर बस म्हूण सांगलें. मुखा वयले खुर्चेर ते बसले. वासपूस केली आनी घरकान्नीक म्हणलें- 'गोदू, च्या हाड. गुळी हाडआं!'

गोदूबायन कार्रेगाद च्या हाडली. वांगडा लाडवाची गुळी. ती च्या आनी गुळी हांची रूच अजुनूय जिबेर घोळटा. आनी विशेश म्हणल्यार गोदूबायचें तें पयलें दर्शन नदरे मुखार तशेंच येता!

'कसो आसऽ?' घरांत येवपी सोय-याक गोदूबायन विचारचें. मायेमोगान ताची वासपूस करची. 'आसा' ह्या उतराचो 'आसऽ' असो उच्चार करपी लक्ष्मणराव सरदेसाया फाटल्यान गोदूबाय ही म्हाका भेटिल्ली दुसरी व्यक्ती.

'आसा' ह्या क्रियापदाचो उच्चार 'आसऽ' करपी कांय कुटुंबां गोंयांत आसात. 'दिसतालें' ह्या क्रियापदाचे सुवातेर 'दिसऽ' अशें म्हणपी आनी बरोवपी गोंयकार आसात.

भोंवतणीं कितें चलता, कितें घडटा हे विशीं गोदूबाय चवकसपणान

जाणून घेतालें. फकत पेपर वाचून गोंयांत, देशांत आनी जगांत कितें चल्लां इतलेंच न्हय. समाजांत आनी गांवांत कितें घडटा हाची अद्ययावत माहिती गोदूबाय उमळशिकेन जाणून घेयी.

हांव तेन्ना इश्कोलाक. पुस्तकां वाचपाक वा तातो कडल्यान मार्गदर्शन घेवपाक अदींमदीं सांजवेळा तांगेर वतालों. त्या दिसांनी वॅस्ट इंडिझाचो क्रिकेट पंगड भारत दौ-यार आयिल्लो. मुखेली क्लायव्ह लॉयड परजळटालो. आपल्या पंगडाक लॉयडान एक वेगळीच उंचाय हाडिल्ली. स्वता एक बरो फलंदाज. गोदूबाय रेडियो कॉमॅण्ट्री आयकून आमचे कडेन लॉयडाचे बॅटिंगे विशी उलयी. 'आयज लॉयडान इतले चार मारले आनी इतले स मारले.' चार (बावंड्री) आनी स (सिक्सर) हीं गोदूबायन तेन्ना उच्चारिल्लीं सोंपीं सादीं उतरां म्हाका खूब आवडटालीं. चवके, सके हीं उतरां हालींसराक प्रसार माध्यमां वापरतात. लॉयडा विशीं आनी क्रिकेट दौ-या विशीं सविस्तर म्हायती दिवपी एक नेमाळें तेन्ना आयिल्लें. एक दीस गोदूबाय तें वाचपांत मग्न आशिल्लें हांवें पळेलें. उपरांत म्हाकाय तें मॅगेझीन वाचपाक दिलें. भारत-वॅस्ट इंडीज क्रिकेट खेळां विशीं गोदूबायन बारीकसाणीन भासाभासूय केली.

हांव कॉलेजींत आसतना गोंयांत नव्यानूच टिवी आयले. काळे धवे. फकत मुंबय दूरदर्शनाच्यो कार्यावळी वितरायताले. त्या टिवीचें आकर्शण नाविन्याक लागून चड आशिल्लें. आमी पिरवळा नगरांत रावतालीं, त्या वाड्यार फकत दोन-तीन घरांनी टिवी हाडिल्ले. टिवी हाडप म्हणल्यारूच एक व्हडलो आक्त कसो. पयलीं म्हणचे तो 'म्हारग'. मागीर घराच्या पाख्यार माडये इतले उंचायेर एण्टेना बसोवपाची कटकट आसताली. आमकां सगळ्यांत लागीं टिवी पळोवपाक मेळटालो तो केळेकारांगेर. तांचें घरूय उंचायेर आशिल्ल्यान टिवी दिसतालोय बरो!

आयज काल मनशांक मनशांच नाकाशीं जाल्यांत. कोण कोणागेर वचना. पूण टिवी पळोवपाक आमी जेन्ना दीसपट्टीं आनी खास करून विशेश कार्यावळीं खातीर केळेकारांगेर वतालीं, तेन्ना गोदूबायन घणघणीत

येवकार दिवचो.

इतलेंच कित्याक! 'काल आयतारा माई पिक्चराक कित्याक पावलिना' अशी वासपूस गोदूबायन आस्थेन करची. खूब मायेमोगान आनी आपलेपणान. आयजकाल चिमटीभर भुरगीं जाणटी पिराय पळेनासतना व्हडांक नांवान उलो मारतकच 'कच्च' जाता. पूण गोदूबाय, रवीन्द्रबाब जालींच पूण तातोची आवय - बाई - म्हजे आवयक (जी पिरायेन तिगांय परस खूब ल्हान) 'माई' म्हूण उलो मारताली तेन्ना म्हाका वेगळेच तरेन अजाप जातालें!

गोदूबायक सगळ्यां वांगडा टिवी पळोवपाक चड आवडटालो. हांव, म्हज्यो दोनूय भयणी, दया आनी नंदिनी, आनी माई अर्दीमर्दी छायागीत जावं हेर कार्यावळी पळोवपाक वतालींच. केन्नाय चोडणा सावन म्हजो भाव अमोल सुटयेंत येतकच आमचे वांगडा टिवी पळोवपाक येतालो. टिवी पळोवप इतलेंच नासतालें. जायराती म्हणल्यार 'कमर्शियल ब्रेक' बी येतकच गोदूबायल्यो आलायत्यो खबरो आसताल्यो. म्हज्या भयणीं कडेन वा माई कडेन. हलकेफुलके विनोद आसताले. मर्दीच गोदूबाय कार्रेगाद च्या वा काफी करून हाडून सगळ्यांक व्हड आदरातिथ्यान दितालें. ती साय आशिल्ली च्या आनी तातूंतलें गोदूबायचें स्नेहाचें रसायन अजुनूय जिबेर आसा अशी याद म्हजो भाव केन्नाय काडटा. गोदूबायक सगळ्यांत चड हांसतना पळेलें, तें टिवी वयल्या पिक्चरांतले ज्योक वा विनोदी प्रसंग पळेतना! म्हजी भयण नंदिनी हाची याद काडीत आसता. विनोदी कलाकारान हांसयतकच गोदूबायन मना पसून हांसचें; मागीर हांशांचें कारंजें उसळचें. गोदूबायचे विसकळ दांत तेन्ना दिसताले. हांसून हांसून गोदूबायच्या दोळ्यांत दुकां येवचीं.

टिवी वयलो पिक्चर उसरांच सोंपतालो. रात जाल्ली आसताली. आमी परतता आसतना जोतीं घालता थंय दारा कडेन गोदूबायन निरोप दितना आनंदान उरिल्ल्यो गजाली करच्यो. सोंपणां कडेन रावन आमी देंवतात आसतना एक व्हडलो बॅटरे दिवो पेटोवन गोदूबाय थंय उबें

रावतालें. 'सवकास सांबाळून.....' टिवी पळोवपाक आयिल्ले सदचे सोयरे काळखांत निसरून पडत हो येजमान्नीक हुसको!

सोयरे सदांच येवचे कारण हे इश्ट आनी सोयरेच आनंद वाडयतात अशे कितेंशें ह्या केळेकारांल्या घराचें मूळ तत्व! घर प्रशस्त, आयसपयस, शेकानशेक. व्हडलीं व्हडलीं सालां. मदीं सोबीत राजांगण. कुडींचो हिशोब लागचोच ना. भोंवतणीं सोबीत पोरसूं. वयर जायांचे मळे!

त्या प्रचंड घरा परसूय व्हड आशिल्लें गोदूबायचें काळीज. सगळ्या सोय-यांची सरबराय हांसत्या मुखान, सेवाभावनेन आनी तत्परतायेन जावची. त्या घरांत कोण येता, कोण वता, कितले दीस रावता, कित्याक आयला, कितें करता, बी असल्या गजालींचो थाव कोणाकूच लागचो ना. येजमानाक असल्यो नोंदचोपड्यो वा 'लॉगबूक' कागदी रुपांत वा मनांत सांठयनशें केन्नाच दिसलेंना!

देशी-विदेशी विद्यार्थी येताले. थोडे कोंकणी शिकताले. थोडे गोंयची वा भारताची संस्कृताय शिकूंक आयिल्ले. अभ्यासक, लेखक, पत्रकार, हेर इश्ट..... ही गर्दी कितलीय आसूं, गोदूबायची एक विशिश्ट लय आशिल्ली. ती हालनासली.

गोदूबायचे जिणेची लय विलंबीत आनी मध्य हातूंत मदेकाद मावपी! शांत, संथ, मंद, गोड! चलप तशें, उलोवप तशें, कामाची पद्दत तशी.

निळे देगेची धवीच साडी, धवोच पोलको, चकचकीत सदांच धुयिल्लीं निवळ जोतीं. त्या दोन पट्यांच्या जोत्यांचो आवाज गोदूबायल्या लयबद्द चलपान एक दोन मात्रांचो ताल घडयतालो. 'चरंय, चरंय, करंय, करंय......' बोवाळशुन्य अशा त्या घराच्या वातावरणांत हो ताल आयकूंक येतकच समजुचें, गोदूबाय नांवाचें चैतन्य येता. आपलो आगळोवेगळो परमळ घेवन!

लांबरुंद राजांगणांत शुद्ध, नितळ वारो खेळटालो. कुळागरांतले मातयेचो आनी जायां परमळाचो वास जाय जाय कसो दिसतालो. आनी

हे रसरशिल्ले रावतिकेंत गोदूबायचें चलप-भोंवप आनी असल्या मायेस्त मनशाचो सहवास जाय जाय सो दिसल्यार तातूंत अजाप कसलें?

गोदूबायक तिडकीन वा किंवाट्याचे भिरकेंत 'एक्सायट' जातना आमी केन्नाच पळोवंक ना. कारण गोदूबायन विद्यार्थीदशेंत आश्रम जिणेंतूच आपलें जिणे संगीत, लय-ताल अशीं 'ट्यून' केल्लीं की असल्या बेसूर गजालींक त्या जिणे संगिताच्या चलनांत वा आवर्तनांत भितर रिगपाक संदूच नाशिल्ली.

रवीन्द्रबाबां कडेन गंभीर विशयांचेर चर्चा करतना गोदूबायक पळेलां. विशय कसलेय आसूं. मुद्दे कसलेय आसूं. पूण तातूंत विखारी तापातापी केन्नाच नाशिल्ली. वाद, झगडीं, रागार-फुगार, बी ह्यो गजाली वखदाक लेगीत नासल्यो!

'फुलत्यो कळयो' हें गोदूबायचें एक अप्रतीम पुस्तक. बालमानसशास्त्राचेर उजवाड घालतना भुरग्यांची जतनाय आनी पोसवण कशी ल्हवपीकपणान करची हें सांगपी! हातूंत गोदूबायचो सभाव उकतो जांला. अचळय आनी अळंग पद्दतीन दुखयनासतना बालमनां कशीं सांबाळचीं आनी घडोवचीं हे वेव्हारीक धडे तातूंत आयल्यात.

सरभोंवतणचीं समाजांतलीं सगळींच कुटुंबां सुखी, धादोशी आनी तृप्त आसचीं हे गोदूबायचे तळमळे. कितल्याश्याच शिकिल्ल्या भुरग्यां खातीर आपले परीन, आपले तांकीन गोदूबायन नोकरे खातीर उतर घालचें. कांय जाणांचीं कामां तांच्या तांच्या नशिबान जावचीं. 'हांवें केलें' ही भावना मात गोदूबायच्या मनांत केन्नाच नासताली. जाका कुटुंबाची पोसवण करपाक नोकरेची गरज आसा, ताका ती मेळूंक जायच अशें गोदूबायक मना पसून दिसचें.

आमच्या कुटुंबा कडेन गोदूबायचें नातें खूब लागींचें! गोदूबायन दिल्लें नैतीक फाटबळ आनी 'वच फुडें' म्हूण दिल्लो नेट हाकाच लागून आमकां खचिल्ल्या खिणां वेळार मुखार पावलां घालपाचें धैर्य आयलें. हातूंतल्यो कितल्योश्योच गजाली खूब 'पर्सनल' आसात, त्यो

उच्चारिनासतना काळजा कप्प्यांत सांठोवपूच योग्य. पूण म्हजी आदरणीय आवय, भाव आनी दोगीय भयणी त्यो यादी काडीत आसतात. 'बाय म्हणचे बाय, ताची सर कोणाकूच येवची ना' अशें माई दोळयांत दुकां हाडून म्हणटा.

आपल्या कुकुल्या नातरांक घेवन गोदूबाय सांजवेळा आमगेर सकयल देंवतालें. माई कडेन खबरो करी. भयणी कडेन वेगळ्या विशयांचेर गजाली करी. आपल्या लग्ना वेळच्यो, लग्ना आदल्यो, विनोबा भावेच्या आश्रमांतल्यो आनी हेर अश्यो विवीध खबरो रंगच्यो.

'गोदूबायचे केंस लांब. धव्याफुल्ल भेसांत गोदूबाय तेजस्वी देवी कशी दिस,' अशी याद म्हजी भयण नंदिनी काडटा. गोदूबाय मायेस्त कितलें, कुटुंब वत्सल कितलें अशी एकेक याद म्हजे घरचीं काडीत आसतात. ह्यो यादी वेगळीच खोस हाडटात.

त्या तेंपार 'रवीन्द्र' म्हूण घरकाराक नांवान उलो मारपी गोदूबाय ही पयली घरकान्न आसुये! तांचें दोगांयचेंय सहजिवन कितल्या वर्सांचें, कितलें सुसंवादी, कितलें आदर्श हाचो हिशोब मांडूं नजो. म्हजो व्हडलो भाव अमोल तर एक याद परत परत काडटा. ती अशीः 'टिवी पळेतना सगळ्यांत पयलीं गोदूबाय आमकां च्या दितालें. आनी मागीर म्होंवाळ अपुरबायेच्या आवाजान विचारी'- "रवीन्द्र, काफी हाडूं?" हें तीन शब्दांचें वाक्य गोदूबाय जितले लक्तुबायेन, नमळायेन विचारी तें मात ह्या छापील तीन उतरांनी मांडूं नजो. "रवीन्द्र, काफी हाडूं?" हीं मंजूळ उतरां मात त्या 'मोड्युलेशना' सयत कानांत सादत आसात.

गोदूबायचे दांत एकूच. खावपाचे वेगळे आनी दाखोवपाचे वेगळे अशे नाशिल्ले. भायरभितर करप, दाखयलिपय करप, नाटकीपणां करप म्हणचे कितें हें गोदूबायक केन्नाच कळ्ळेंना. पारदर्शक, निर्मळ सभावाक लागून गोदूबायचें व्यक्तिमत्व चकचकतालें.

घरांत कितलीय व्यस्त कार्यावळ चालू आसली तरी तिनसांजचे कातरेर रवीन्द्रबाब आनी गोदूबाय आपल्या थारायिल्ल्या वेळार

थारायिल्ल्या खुर्च्यांचेर वचून बसचीं. मागीर तांणी आश्रमांतली प्रार्थना सुरू करची. "ॐ ततसत् श्रीनारायण तूं, पुरूषोत्तम गुरू तूं........." पिरवळच्या त्या सैमीक अशा शांत शांत वाठारांत, शांत शांत मनशांचीं हीं स्पंदनां आनी भारीत प्रार्थना मन शांतोवन वच्ची. कुशीक रावन हांवें खूब खेपे ही प्रार्थना आयकल्या. समर्पीत भावांतली ती प्रार्थना आयकतकच गांधीजींच्या उतरांची याद जावची. "म्हजे जिणेंत प्रार्थना नाशिल्ली जाल्यार हांव केन्नाच पिसो जावपाचों!"

खंयच्याच ग्रंथालयांत आसचीं नात अशीं पुस्तकां तांच्या घरांत दिसतात. आरमारीच आरमारी. ते भायर, जाग प्रकाशनाच्या पुस्तकांच्यो राशीच राशी. सगळे तरांचें 'वारें' घोळपी त्या घरांत सगळ्यांकूच मोग वांटपी मायेस्त गोदूबाय. योगेश, भारती, गिरीश, माधवी, सविता, विजय हांकां भरून भरून मोग दिवपी गोदूबायन आमकांय तितलोच मोग दिलो. त्याच घरांतलीं कुटुंबाचीं वांगडी आमी आसूंक जाय आशिल्लीं अशें तेन्ना आमकां दिसचें. गोदूबायचे, तातोचे आनी पुस्तकांचे ओडीन!

मवाळ आनी म्होंवाळ गोदूबायची आमकां इतली याद परत परत कित्याक येवची तर? हांव म्हाकाच विचारतां. आनी भितरल्यान जाप येता ती अशी- सकाळीं फुडें घरांतल्यान पावल भायर घाल. जगाच्या ग्रावण्डार सगळ्याच जाणांनी तुजे खातीर 'फिल्डींग' लायिल्ली दिसता. वळखीचो जो कोण मेळटा तो बॉलिंगूच करता. जण एकलो हारसो फोडून उडोवचो तशी वेर काळजा हारशाक घालता. उतरांनी दुखोवन. नाका आशिल्लें विचारून. थोमणे मारून.

हाडामासाच्या रुपांतलें प्रेम म्हणल्यार गोदूबाय आपली धरतरे वयली भुमिका येशस्वीपणान करून कुशीक सरता तेन्ना ताचे अनुपस्थितीन जिवाक चिटमिटे पडटात ते हाकाच लागून! 'कसो आसऽ' अशी मायेन वासपूस करपी ती चैतन्यरुपी व्हाळीक त्याच घरांतल्या त्याच राजांगणांत परत स्पर्श करपाक ना म्हणून!



# जिवनाचो रियाझ

कितल्याश्याच लेखकांच्यो वेगळ्यावेगळ्या माध्यमां खातीर मुलाखती घेवपाचो योग आयलो. जण एकल्या साहित्यिकाक हांवें एक प्रस्न सदांच विचारला. तुमी कित्याक बरयतात? बरोवपा फाटली प्रेरणा कितें? आनी तरातरांचीं उत्तरां म्हाका मेळ्ळ्यांत.

पॅंग्वीन प्रकाशनान शतकांतल्या मानेस्तांच्यो मुलाखती नांवाचें एक पुस्तक कांय वर्सां आदीं उजवाडायिल्लें. तातूंत एकाच भारतीयाचो आसपाव आशिल्लो - महात्मा गांधी. संवसारांतल्या कांय म्हान साहित्यिकांच्यो आनी कवींच्यो मुलाखती तातूंत आशिल्ल्यो. तातूंतल्या लेखकांनी आपूण कित्याक बरयतां ह्या प्रस्नाक वेगळ्योवेगळ्यो जापो दिल्ल्यो. अजुनूय वेगळ्यावेगळ्या नेमाळ्यांनी आनी पुस्तकांनी लेखकांचे अणभव वाचूंक मेळटात. तातुंतूय जण एकलो लेखक ह्या प्रस्नाची जाप आपापले परीन दिवपाचो यत्न करतना दिसता.

आयज हो प्रस्न हांवें म्हाकाच विचारलो. आनी कांय खीण हांव ओग्गी उरलों. हांव कित्याक बरयतां?

भुरगेपणांत दोंगरार वतकच रोयणीचें तोंक आमी उडयताले आनी तेन्ना भितरल्यान वाळटी, मुयो, किडी भुरूभुरू भायर येत रावताल्यो तशीं कितलींशींच चिंतनां ह्या प्रस्नाचो सोद घेतना भायर येतात अशें

जाणवलें. ही जाप दिवप तितली सोपी गजाल न्ही.

हांव भुरगेपणा सावन बरयतां. इश्कोलांत आसतनाच म्हज्यो काणयो नेमाळ्यांनी छापून येताल्यो. ते पिरायेर आपलें नांव छापून येतकच बी बरेंऽऽ दिसतालें. जिवाक खातकुतल्यो जाताल्यो. पूण वांगडचे इश्ट खंय बरयताले तर? तांकां आपलें नांव छापून येवचें अशें कित्याक दिसलेंना काय?

ताचें कारण एक. बरोवप ही एक कला. बरोवंक येवप म्हणल्यार बरोवप न्हय. ताल शिकोवं येता, लय न्हय. गाणें शिकोवं येता, सूर न्हय. बरोवप म्हणल्यार वाङ्मयीन मुल्यां आशिल्ली साहित्य निर्मणी करप. तें करपा खातीर प्रतिभा आसची पडटा. आंगांत. जात्याच. उपजत. आपणा कडेन हें 'गिफ्ट' आसा हें कळटकच साधना मात नेमान करची पडटा.

हांव सातत्यान कित्याक बरयतां तर? बरय, बरय रे...... नाजाल्यार तुका आमी सुळार दितले अशें सांगीत कोण तरी म्हजेर तुतये मारीत आसता? बरयना जाल्यार कितें जातलें? कित्याक सगळो हो खटाटोप आनी कित्याक हे उपद्व्याप तर?

बरयतकच जिवाक बरें दिसता. कसली तरी थाकाय मेळटा. बरयतना एके तरेची तकलीफोड आनी सृजनावेळच्यो कळो, दगदग सोंसचे पडटात. पूण ती कथा आसूं वा निबंद आसूं, तो शिजता आसतना एक त्रास जायत आसता आनी त्याच वेळार वर्णन करूं नजो असो एक आनंद जायत आसता. ताणाचीं आनी आनंदाचीं हीं कारंजीं एकाच वेळार भितर उसळत आसतात. आपणें कितें तरी पळेलां, कितें तरी अणभवलां, कितें तरी अणभवून हांव तिरतिरलां, कसलें तरी दुख्ख पळोवन हांव निन्नळ्ळां, वळवळ्ळां, कळवळ्ळां, दुस-याचें दुख्ख पळोवन हांव तें समानुभुतीन (एम्पथी) आनी सहानुभुतीन (सिम्पथी) स्वताचेंच म्हणून समजून घेवपाचो यत्न करतां, भोंवतणची फ्राक 'सिस्टम' पळोवन, सगळ्याच यंत्रणांक बळणीक मारल्या हें पळोवन हांव तापार

जातां, तणटणटां, फणफणटां, व्यथीत जातां, भितरले भितर उसळटां, म्हाका बंड करून पेटून उठचेंशें दिसता. भावनांक, उत्फर्क्यांक आनी उमाळ्यांक, किंवाट्यांक वाट करून दिवपाक लिखणेचो आदार घेतां. कागदारूच बरयतां अशें न्हय. मनाच्या कागदार झर झर झर बरयत आसतां.

अंतरमनांत भितर खंय तरी खोल खोल कितें तरी उबत आसता. उसळत आसता. कसली तरी रंवथ चालूच आसता. कितें तरी पिकत आसता. एकार एक अणभव सांठून सांठून तांकां कसलो तरी फुलारो आनी आंक-यो येत आसतात आनी त्यो भितरले भितर त्रास करूंक लागतात. भायर येवपाची तांकां उत्कंठा लागता. आपल्याक जाय त्या साहित्य प्रकाराचें आंगलें घालून ते अणभव उसळून भायर येतात. तेन्ना पॅन हातांत घेवपाक ही भितरली प्रक्रिया म्हाका फोर्सार करता. अणभव कागदार देंवतकच बरें दिसता. 'रिलीफ' मेळटा. म्हज्यांत कांय 'टॅलण्ट' आसात. पूण लेखक ही म्हजी वळख म्हाका आवडटा. हांवें म्हजो लेखक म्हणून स्विकार केला. बरोवप हो म्हजो एक स्वधर्म कसो. शेवणें कित्याक उडटा? उडना जाल्यार ताका कोण ख्यास्त दितलो? गावपी कित्याक गायता? तो भायल्यांतलो आवाज करून रियाज करीत आसता. कित्याक? तो फकत मैफिली वेळारूच गायता अशें न्हय. भायल्यांतलो आवाज करून रियाज करिना तेन्नाय तो भितरले भितर गायत आसता. भितरले भितर गुणगुणत आसता. त्या संगितांत, त्या दर्यांत बुडून वचपाक ताका आवडटा. तातूंतल्या बारीक बारीक बारीकसाणींचो थाव आनी वेध तो घेत आसता. सुरांक तेंकून आशिल्ल्या हयन्हयश्या श्रुतीं विशीं तो सादूर आसता. ताचे खातीर स्वर हो ईश्वर. लेखका खातीर? शब्द हो ईश्वर. लोकीक अर्थान पयशांची वा हेर भौतीक प्राप्ती जाता वा जावची म्हणून ही धडपड नासताच. गायकाचो प्रवास चालूच आसता. कित्याक? ही प्रक्रिया ताका मळबा येदो आनंद दिता. आनी हो कलानंद जिणेक एक 'कॉलिटी' हाडटा.

कवी आरती प्रभून बरयलां.

'तो न गातो
तो आतून ऐकतो.'

लेखकूय असोच आसता. अमर्याद अशे यात्रेचो तो एक प्रवासी. तातूंत साध्य अशें कांयच आसना. साधता तो फकत यात्रेचो एक आगळोवेगळो आनंद. जिणेची साधना हो लेखक करता. तो जिणेच्या सत्या कडेन निश्ठेन दसून आसता. भोंवतण बारीकसाणीन नियाळटा. तेळटा. भोंवतणच्या मनशांक आनी स्वताकूय तो वाचता. तांकां आनी आपणाक एकसारको 'अण्डर ऑब्झर्वेशन' दवरता. जिणेच्या वेगळ्यावेगळ्या तासांक, आंगांक आनी आयामांक तो मेकळेपणान, उत्कटपणान भिडटा. तातूंत झोकून दिता. आनी न्हावन येतकच आंग तुवाल्यान पुसून लेगीत उदकाचे थेंबे, तुशार उसळत रावचे तशे तरेन लेखक ह्या जिवनाच्या रियाझांतल्यान कांय थेंबें कागदार ओतून रसीक वाचकांक उत्स्फूर्तपणान दिता. ताणें अणभविल्लें खूब आसता. ताका खूब सांगीन दिसता. पूण कितलोसोच अणभव शब्दां पेल्यान आसता. तो उतरांनी बद्ध करून म्हणल्यार शब्दांनी अणकारपाक ताका अपेस येता. उरलां, खूब कितें तरी सांगपाचें उरलां हीं खंत लेखकाक तोपत रावता. ही बोंचपी त्राशीक अतृप्ती आनी आपणें जें सांगलां ताची खोस अशे संमिश्र मनोवस्थेंत लेखक उरता. तो बरयना. तो फकत जिणेचे सूर आयकत आसता! हीच प्रेरणा ताका तुकलायत रावता - आनिकूय बरयत राव. केन्नाय वाचक अमूक आवडलें अशें सांगता. मना पसून. तेन्ना लेखका खातीर तो खरो खरो पुरस्कार आसता.

वाचन. हेरांनी कितें बरयलां तें लेखक वाचता. बरें बरें वाचतकच आपणेंय तितलेंच तांकीचें चिरंतन मोल आशिल्लें अभिजात आनी तगून उरपी अशें साहित्य बरोवचें अशें लेखकाक दिसता. जगभरांतलें आदलें आनी समकालीन साहित्य, ताचे अणकार लेखक वाचीत आसता. बरयना तेन्ना तो वाचता. हो रियाझ चालूच आसता. ह्या वाचन व्यासंगांतल्यान लेखक वाडत आसता. मनीस म्हणुनूय तो भितरल्यान वाडूंक जाय. तशे यत्न ताणें करूंक जाय. दर दिसा वाड जावंक जाय.

वैचारीक प्रगल्भताय आनी परीपक्वताय येत रावंक जाय. नाजाल्यार सांचिल्लेपण येवं येता. लेखकान आपल्या अणभवविश्वा कडेन आपले शैली कडेन आनी ज्या मुळांनी आपली पोसवण करून आपणाक घडयला त्या गजालीं कडेन प्रामाणीक रावंक जाय.

तातूंत कपट, दुटप्पीपण चलना. साहित्याचें तेज उरपा खातीर हे निश्ठेची गरज आसता. वाचनान लेखक वाडटा. अणभव वेवस्थीत रिचोवपाची कला सादल्यार तो वाडटा. कारण दर दिसा आमी अणभव घेतूच आसतात. ते कशे घेवप आनी मन-कम्प्युटराच्या कप्प्यांत कशे 'सेव' करप ही एक कळाशी. चिंतन, मनन, वाचन, लेखन ह्यो एकामेकाक पुरक अश्यो गजाली. हाचो ताका फायदो जाता आनी ताका लागून हाका दिशा मेळटा अशें हें गणिती समीकरण.

वाचता आसतना हांव कसलोच पातसो दवरिना. दिसाळीं, नेमाळीं, पुस्तकां सगळ्या तरांचीं, सगळ्या भाशांतलीं वाचतां. कोंकणी, मराठी, हिंदी आनी इंग्लीश. हांव कित्याक बरयतां हें सांगपाक जितलें कठीण तितलेंच कठीण हांव कित्याक वाचतां हें सांगप. दिसाळ्यांनी काळीज चर्र करपी बातम्यो आनी घटना मेळटात, तसलेच तरेची घडणूक केन्ना तरी हांवें अणभविल्ली आसता आनी हांव ते गजाली कडेन म्हाका 'आयडॅण्टीफाय' करतां, 'रिलेट' करतां आनी तातूंत तादात्म्य पावतकच केन्ना तरी ती बातमी एक विचार वा कथाबीज वा संवादाचें मुळावण मनांत खोल खोल किल्लयता.

हेर लेखकांच्या कृतीं विशीं नव्या नाटकां विशीं, नव्या चित्रपटां विशीं नेमाळ्यांनी अद्ययावत माहिती आनी खबरो वाचूंक मेळटात. हें भान आनी जाण लेखकाक जायूच. गिरीश कर्नाडालीं नवीं दिर्घांक रुपांतलीं नाटकां आनी ताचे विचार वाचूंक मेळटात. नाटक कशें सादर करचें हाची देख दिवपी एका बंगाली नाटकाचें परिक्षण हांव दिसाळ्याच्या आयतारच्या अंकांत वाचतां. आनी खूब खूब शिकूंक मेळिल्ल्याच्या आनंदांत उफेतां. उदय प्रकाश नांवाचो सध्या गाजपी 'पावरफूल' हिंदी लेखक आनी ताच्या बरपा विशीं हांव वाचतां. कसल्या तरी बक्षिसां

वांटपाच्या सुवाळ्यांत वांटेकार जावपाक तो मुंबय येवन वता आनी ताका कोणूच वळखनाशिल्ल्यान गर्दी आसना, नोबॅल पुरस्कार मेळोवपी साहित्यीक पामूक मुंबय आयिल्लो तेन्ना गर्दी कशी जाल्ली पूण उदय प्रकाशाच्या साहित्या विशीं प्रेक्षकांक अज्ञान आशिल्ल्यान ते खातीर खंत उकतावपी दखलरुपी टिपण हांव वाचतां आनी म्हाका ताचे विशीं जाणून घेवपाची उमळशीक जाता. मागीर हांव इण्टरनॅटार वतां. थंय उदय प्रकाशाली व्हडली २० पानांची इंग्लीश मुलाखत वाचतां. आनी तटास जातां. ताचीं परखड मतां, विचार वाचतना मदींमदीं म्हजेंच मन तो उकतायता काय कितें असो भास म्हाका जाता. पॅंग्वीन प्रकाशनान हिंदी पुस्तकां उजवाडावपाक सुरवात केल्या आनी तांणी उदय प्रकाशाचीं पस्तकां उजवाडायल्यांत. इण्टरनॅटाचेर उदय प्रकाशाले हिंदी लेख हांव वाचतां आनी त्या लेखांक हेर साहित्य मोग्यांनी आनी साहित्यिकांनी बरोवन धाडिल्ल्यो प्रतिक्रिया हांव वाचतां. हें विचारमंथन म्हाका धवळून काडटा आनी संपन्न करता.

ह्या उदय प्रकाशाल्यो साहित्यकृती जगभर अणकारीत जायत आसात. चित्रपट, नाटकां ह्याय रुपांनी ताच्यो कृती रुपांतरीत जायत आसात. अमेरिकेंत, पाकिस्तानांत आनी न्युझिलण्डांत लेगीत. ताका लोकीक अर्थान व्हडले व्हडले पुरस्कार मेळूंक नात देखून तो तितलोसो उजवाडझोतांत नासता. पूण फकत इंग्लीशूच वाचपी भारतीय लेखकांनी जर उदय प्रकाश वाचलोना जाल्यार कितें तरी वगडायलें अशेंच म्हणचें पडटलें. ज्ञानपीठ संस्थेचें 'नया ज्ञानोदय' हें म्हयनाळें म्हाका येता. साहित्य अकादेमीचें दोन म्हयन्यांनी येवपी 'समकालीन भारतीय साहित्य' हें हिंदी नेमाळें येता. प्रादेशीक भाशांतल्या भारतीय साहित्याचे अणकार तातूंत वाचूंक मेळटात. नया ज्ञानोदयान 'नया पीढी' विशेशांक काडिल्लो. तातूंत तरणाट्या उदेत्या हिंदी लेखकांचें साहित्य घेतिल्लें. बिहारांत आनी हेर वाठारांनी कल्पना करूं नजो अशी गरिबी आनी दळडीर भोगपी, भूक, उपासमार, मागाशिल्लेपण हातूंत भाजून गेल्ल्या तरणाट्यांनी बरयिल्लें कार्रेगाद साहित्य तातूंत वाचूंक मेळ्ळें. ज्वलंत,

जितेंजिवें, रसरशीत आनी तट्‌टटीत. तातूंत तेजस्वी अशें सच्चेपण दिसलें. बैल कसो विकतो घेतात ह्या विशयाचेर उत्तर प्रदेशांतल्या एका तरणाट्यान बरयिल्ली कथा ही हिंदींतली ह्या विशया वयली आयज वयरची श्रेश्ठ कथा असो उल्लेख संपादकियांत वाचलो आनी हांव अजापलों. आनी हांव बरयतां तो हो लेख एरकण्डिशनांत कम्प्युटराचेर कम्पोज करतना लेखक म्हणून हांव खंय आसां हाचें आत्मपरिक्षण, चांचपणी आनी नियाळ हांवेंच सुरू केलो.

संवसारीक किर्तीचो भारतीय कादंबरीकार भैरप्पा हाच्यो कांदब-यो वाचतना जीं विश्वां आनी मळबां पळेलीं तो विशय बरोवन सोंपचो ना. हालींच ह्या लेखकाची 'मंद्र' ही कादंबरी वाचली. एका गायकाचेर हातूंतलें कथानक केंद्रीत आसा. भारतीय शास्त्रीय संगीत ह्या विशयाचेर इतली सखोल कादंबरी ना अशे नियाळ इण्टरनॅटाचेर वाचूंक मेळ्ळे. लेखकान संगीत ह्या विशया विशीं मेळयिल्लें ज्ञान, ताची उत्तूंग प्रतिभा आनी कल्पक प्रज्ञा पळोवन वाचक तोंड आं करून उरता. म्हजे भाशेंत अशी कादंबरी येवची अशें म्हाका दिसता. पावलु कुएल्युच्यो कादंब-यो वाचतना वा तरणाट्यांचो आवडटो भारतीय तरणाटो लेखक चेतन भगत हाचीय कादंबरी वाचतना म्हाका कोंकणींत इतली समृद्धी केन्ना येतली हाचीं सपनां पडूंक लागतात.

'रिडींग एण्ड रायटींग' हें नायपॉलाचें पुस्तक हांवें धा खेपे वाचलें. विजय तेंडुलकारांचें बरप वा दि. बा. मोकाशीच्यो कथा हांव परत परत वाचतां. कांय साहित्य परत परत वाचपा सारकें आसता. होच ब-या साहित्याचो जादू. हांव बरयतां तें परत परत वाच्चें अशें वाचकांक केन्ना दिसतलें? तशें लिखाण म्हज्या हातांतल्यान जावंक जाय अशें मागीर म्हाका पोटतिडकीन दिसपाक लागता आनी हीच गजाल आनीक बरोवपाक प्रेरणा दिता.

सध्या मेजार आसा ज्ञानोदयाचो ताजो अंक. नामनेचे उर्दू कथाकार मंटो हांचेर काडिल्लो विशेशांक. मंटो जगलो फकत ४२ वर्सां. पूण

ताच्यो कथा संवसारीक पांवड्यार कितल्यो श्रेश्ठ आसात, चेकोव आनी मोपासां हांच्या बरपा इतल्यो तोलामोलाच्यो कश्यो आसात हें सांगपी म्हान विद्वान समिक्षकांचे लेख तातूंत आसात. मोहन राकेशाचीं तीन पुस्तकां ज्ञानोदयान उजवाडायल्यांत. लेख, प्रवासवर्णन आनी कथांझेलो. ते मागोवंक जाय. आख्खो जैनेन्द्र, समग्र निर्मल वर्मा ज्ञानपीठान उजवाडायला. चडश्या भाशांतल्यो कादंब-यो अणकारीत करून उजवाडायल्यात. तातूंत कोंकणी मात दिसना. कितलें वाचूं आनी कितलें नाका अशें जाता.

बंगाली साहित्यीक सुनील गंगोपाध्याय हांची 'पहिली जाग' ही कादंबरी जाल्यार वाचून सोंपना. मदींमदीं आडवी कविताच वाचिल्ले भशेन दिसता. इतली खोल आनी दाट कादंबरी हांवें तरी भारतीय साहित्यांत वाचूंक ना. तिचो आनीक उत्तरार्ध आसा खंय.... शी सायबा. केदे लेखक हे!

हांवें काव्य नाका बरोवं, पूण श्रेश्ठ काव्य वाचपाचो आनी समजून घेवपाचो यत्न करतां. कलात्मक चित्रपट पळेतां. थेटरांतलीं नाटकां पळेतां आनी वाचतांय. आनी भोंवतणचीं नाटकां तटस्थपणान पळेतां. म्हजो पार्ट चलतनाय म्हाका आनी हेर सवंगांक पळेत रावतां.

खोलाय आनी बारीकसाण ह्यो दोन म्हत्वाच्यो गजाली. निरिक्षण करतना, अणभव घेतना वा जीण वाचतना, पुस्तकां वाचतना, मनशां वाचतना बारीकसाण जाय. खोलाय जाय. परिस्थिती वा घटना हांच्या कारणांचो वा उगमाचो थाव घेतना वा फोडणिशी करतना ही बारीकसाण जाय आनी खोलाय जाय. जी साहित्यकृती रचल्या म्हणल्यार कागदार देंवयल्या तातूंत लांबाय, रुंदाय आनी खोलाय जाय, प्रवाही शैली जाय, सुटसुटीत वाक्यां जाय. जिणेच्या कोडू सत्यां विशीं जी अस्वस्थताय आपूण भोगतां ती वाचकाक भोगूंक लावन ताका चिंतपाक, समस्या हाताळपाक स्फटिका भाशेन स्पश्टताय दिवपाची तांक लेखकाक आसूंक जाय. आपणें घेतिल्लो आनंद दुस-याक दिवन ताकाय तातूंत भिजोवन

ताची रसीकताय वाडोवपाची कला लेखका ठांय आसूंक जाय. वाचकाक विनोदी शैलींत हांसयतां हांसयतां, चिमटे काडीत ताका जिणेच्या ताणें पळोवंक नाशिल्ल्या गजालीं विशीं एक दर्शन, लखख करून दिश्टावो घडोवपाचें कसब लेखका कडेन आसूंक जाय.

लेखका कडेन प्रज्ञा आनी प्रतिभा ह्यो दोनूय गजाली उपजत आसत जाल्यार संतुळीत प्रमाणांत म्हणल्यार साहित्यकृतीचे गरजे प्रमाण त्यो तातूंत प्रतिबिंबीत जाल्यार एक वेगळीच चकाकी आनी तिकतिकसाण येता. साहित्यकृती हें एक सुंदर शिल्प कशें आसूंक जाय. तातूंत कितें आसा, कसलो विशय आसा, आशय आसा, सूख वर्णिलां काय दुख्ख हे गजाली परसूय तें साहित्यशिल्प कलात्मक रितीन, तंत्राचे फास्केंत कशें मांडलां हें भोव मोलाचें. देखून वाचप्याच्या काळजाक आनी तकलेंत तें खोल भिडूंक जाय. तें ताचे यादींत उरूंक जाय. आनी ताचें तकलेंत, मनांत तें घोळत उरूंक जाय. वाचलां तो आपलो वेळ फुकट वचूंक ना हाची हमी लेखकान वाचप्याक दिवंक जाय. लेखका विशींची ही विस्वासार्हताय वाडटी आसूंक जाय. वाडूंक जाय. गायकाच्या वा वादकाच्या रियाझाचो गांधार वा षडज् जसो श्रोत्याच्या कानांक गोड लागता आनी ताचें अंतरंग भेदून, चिरून वता तशें लेखकांचें शाब्दीक कोरीवपण वाचप्याक भिडपाक जाय.

पचपचीत, उथळ, 'मिडियॉकर' बरप चाळटना लेगीत ज्यो वेदना जातात तेन्ना हांव म्हाकाच शिटकायतां - तुज्या बरपांत एक सूर लेगीत बेसूर लागूंक फावोना. एक वाक्य न्हय, एक उतर लेगीत विनाकारण, गरजे भायर आयलां अशें दिसूंक जायना. कसलेंच पातळपण, पसरटपण, पाल्हाळीक भरडकथा तातूंत येवंक फावोना. आनी जेन्ना हांव बरें बरें दर्जेदार वाचतां तेन्ना म्हजे भाशेंत असलें बरप केन्ना येतलें हो हुसको म्हाका छळूंक लागता. म्हाका जे उंचाये वयलें आनी खोलायेचें बरप आवडटा आनी जें वाचतकच म्हाका वर्णन करूं नजो असो आनंद जाता तसलें बरप म्हज्या हातांनी केन्ना तरी जावचें ही प्रेरणा म्हाका कसदार बरोवपाक बळ दीत रावता. म्हज्या बरपांत निश्चीतपण आसचें,

नेमकेपण आसचें, तें आटीव-घोटीव एकजिनसी आसचें, तें आंखीव-रेखीव आसचें, तें प्रवाही, तोंकाळ आनी धारदार आसचें, तातूंत सुचकपण आसचें, पावसांत जशी उमळ आसता तशे तातूंत अंतप्रवाह आसचे, आशयघनताय आसची, विशयाचें आनी गरज पडल्यार शैलेचें प्रायोगीक नाविन्य आसचें ही म्हजी तळमळ. म्हजे भाशेंत अशें साहित्य येवचें की तें संवसारांतल्या सगळ्या भाशांनी अणकारचें पडचें आनी जगभरांतल्या लोकांनी उडक्यो मारून तें वाच्चें, ताका लागून म्हजी भास शिकूंक येवचें. तसलें ओजस्वी साहित्य म्हज्या कुकुल्या हातांतल्यान घडूं वा हेरांच्या. म्हजी भास आनी तातूंतलें साहित्य जगभर चकचकत उरचें होच म्हजो ध्यास. भोंवतणचो पयशांचो भ्रश्टाचार आनी नैतीक भ्रश्टाचार, दांभीकताय, नाटकीपणां, फटींगपणां, कुसकी यंत्रणा, झुंडशाय आनी दादागिरी, कोसळपी मुल्यां, गलगल्याक आयिल्ली आनी बळणीक मारिल्ली समाजवेवस्था, निश्क्रीयताय, आतंकवाद, उग्रवाद आनी नैतीक आतंकवाद, पिळवणूक, तरातरांचें राजकारण, शोशण, शिकून ब्रूत कशे वागपी आनी ह्या सगळ्या गजालींक कारण थारिल्ले घटक हांकां पळोवन हांव तडफडटां. कितलींशींच पात्रां वादळां जावन म्हज्यांत थैमान घालूंक लागतात. अमूर्त गजाली मूर्त रुपांत आकाराक येतां येतां तीं एकांकी वा नाटक वा टेलीफिल्म वा कथा वा कादंबरी जावन भायर सरपाक वथ्रेकतात. कितलेशेच ज्वालामुखी म्हज्यांत खदखदत आसतात. तो उजो म्हज्यांतलो लेखक जिवो दवरता. आनी जिवाक सूऽऽ जाता. बरयता तेन्ना तो लेखक जिवो आसता. जितीं प्रेतां कशे जगपी संवेदनाशुन्य लोक हांव समाजांत पळेतां. सोंपिल्ले आनी लिखाणाचे झरे आटिल्ले लेखक पळेतां. लेखकान बरोवन हांव जितो आसां अशें सांगप हें स्वता खातीर आनीक दुसरें सूख ना. वरांचीं वरां कोणूय गरोवपाक बसता तशें लेखकाचें आसता. आपणें फकत attuned आसप इतलेंच लेखकाच्या हातांत आसता. केन्ना कितें गरयेक लागत ताची वाट पळोवपाक मात धीर, थारो लागता. सदांच व्हडलें नुस्तें नाका लागूं. सदांच 'मास्टरपीस' नाका येवं. पूण वेगळें कितें तरी ग-याक फारवता.

खूब खेपे बरयिल्ली साहित्यकृती हांव म्हज्या विस्वासू, अणभवी, म्हालगड्या दोन-तीन इश्टांक दाखयतां. तांचो 'फिडबॅक' घेतां. ती 'फ्लॉलॅस' म्हणजे उणावा विरयत उरची हो ताचे फाटलो हेत. ह्या मोलाच्या सुचोवण्यांचो म्हाका खूब उपेग जाता. ती कृती परत बरोवपाक वा तातूंत गरज ती दुरुस्ती आनी संपादन करपाक हाचो आदार जाता. म्हजे इश्ट खूब खेपे म्हणटात, तुजें कांय बरप तकले वयल्यान वता. कांय जाण तातूंतल्यो चुकी आनी मिळमिळीतपण दाखयतात. तेन्ना सुदारपाच्या मार्गार एक पावल पडटकच बरें दिसता. लेखकान सदांच विद्यार्थीपण बाळगुचें. शिकत रावचें. आपलो वाचक आपणा परसूय हुशार, सूज्ञ, बुदवंत अशें जो लेखक समजता तो बरें बरें, आदल्या परसूय बरें निर्मीत वता आनी एक दीस ताच्या हातांतल्यान 'मास्टरपीस' येता.

एक दीस हांव गांवघरा चोडणां वतालो. आशाढ काय श्रावण तें याद जायना. पूण अकस्मात निर्जन सुवातेर एक मड्डा कडेन पावस सुरू जालो. स्कूटर थांबयली. कापोत नाशिल्ल्यान काजीच्या आडसाक थांबलों. तेंकून आशिल्ले दोंगुल्लेचेर पाचव्याचार तणाच्या लॉनार मोर नाचूंक लागलो. पिसारो फुलोवन फुलोवन आपलेच तंद्रेंत तो नाचतालो. आनंदान बेभान जावन. कसले तरी रागधारी रचनेच्या तालासुरार लयेंत ताच्यो पावल्यो पडटाल्यो. तो अणभव हांव आयुश्यांत विसरचों ना. भांगराळ्या वतांत पडपी पावस, मळबांतलें इंद्रधोणू. मोराचो इंद्रधोणूमय पिसारो पळोवन म्हज्या मनाचो पिसारो फुल्लो. त्या मोराक कोणें नाच म्हणून सांगिल्लें? काय हांवें 'वन्स मोर' म्हणलां म्हणून तो नाच नाच नाचतालो?

लेखक म्हणून मोरा कडल्यान एक गजाल हांव शिकलों. सृजन कुपां मनांत येतकच शब्दांच्या विचारांच्या पावसांत मनपिसारो फुलोवन नाचत रावचें. जीव ओतून. बेधुंद जावन. फकत आनंदा खातीर.

हांव कित्याक बरयतां हें सांगप सोपेंय बी आनी कठिणूय बी.

कांय वर्सांनी ह्याच प्रस्नांच्यो जापो अदीक विस्तृत आनी अदीक स्पश्ट जावन मेळत.

तुर्ताक तरी इतलेंच दिसता. गोठाणी भशेन. गोठाणीक कोणें तरी विचारलें खंय - आगे, तुका शेंकड्यांनी पांय. चलतना तूं पयलीं खंयचो पांय उखलता? ती चिंतूंक लागली, चलपाक लागली आनी प्रस्नाची जाप चिंतूंक लागली. पयलीं हो, मागीर हो काय तो, आनी ती चलूंक पावलीच ना. बरयत राविल्लें बरें रे सायबा. नाजाल्यार गोठाणी भशेन जातलें.

हांव सगळ्योच गजाली 'सिरियसली' घेतां. बरप हो छंद जालो तरी तो गंभीरपणान घेतां. साहित्याचें लेखन आनी वाचन ह्या दोन गजालींनी म्हाका जिणेचे वाटेर मोलादीक सांगात दिला. चिमटीभर खिणांच्या फुलांचो जीण नांवाचो म्हजे खातीर जाल्लो चमत्कार आनी घडिचार हांवें खूब खूब गंभीरपणान घेतला. जिणेचे खोलायेंत आनी अर्थ सोदीत हांव जीण सफळ करपाक आंवडेतां. एकेक खीण म्होंवा भशेन चाटून तो ख-या अर्थान जगपाची कला हांव केळयत आसतां. आनी म्हज्या हातांनी बरवलोच जाल्यार तो एकेक शब्द अक्षर कसो जावन उरतलो हो पूर्णतायेचो ध्यास आनी त्या सृजन आनंदाची ओड म्हाका सदांकाळ बरयतो दवरता.



# 'नाड'कां

हालींसराक जात्रांकाल्यांनी वा उत्सवी रंगमाचयेर विनोदी कोंकणी नाटकां जातात. हीं नाटकां पळोवन मरसर सगळेच हांसतात. आमच्या भुरगेपणांत वाड्यार वर्सुक्या उत्सवांत तीन मराठी नाटकां जातालीं. पौराणीक, इतिहासीक आनी सामाजीक. गांवांत वाड्यावाड्यार अशीं नाटकां जातालीं. हीं नाटकां तशीं गंभीर. पूण तातूंत अस्वडीं जाताले वा घडटाले, ते 'ज्योक' चिंतल्यार आजूय हांसून हांसून मुड्डो जाता.

पयली गजाल म्हणल्यार चडश्या पार्ट्यांची अशुद्ध भाशा. अशुद्ध 'उच्छार'. 'माजे भलदण्ड भाऊ' म्हणलें काय समजुचें 'माझे बलदंड बाहू'. 'बाहू मला शमा करा' अशें म्हणलें काय समजुचें 'भाऊ मला क्षमा करा'. 'आठवणींचा ठसा उमटला' हें वाक्य आमचोच शेजारी 'आटवणींचा सठा हुमटला' अशें उच्चारी. मास्तरान येसायेक ताका कितलो उजरायलो तरी तेंच. 'ठसा' आसा तें 'सठा'! 'शणोशणी आटवण हाचें शुद्धरूप 'क्षणोक्षणी आठवण येते'. कोणाकूच म्हणूंक येनाशिल्लें. आयज खिणाखिणाक हे ज्योक याद करतां तेन्ना हांसपा खातीर खेरीत यत्न करचे पडनात.

येसायो सदांच पयल्या अंका पसून सुरू जावच्यो. दीसपट्ट्यो. ताका लागून जेमतेम दुस-या अंका मेरेन सगळें पाठांतर सादारणशें सुसह्य

आसतालें. तिस-या अंकाची वेगळीच येसाय दर दिसा सुरू करुया हो 'कॉमन सॅन्स' कोणाक नासतालो. ताका लागून पयल्या अंकांत प्रॉम्टींग चडशा वाक्यां आदीं एकदांच मायका वयल्यान आयकूंक येवचें. दुस-या अंकांत सगळ्या संवादांचें प्रॉम्टींग दोन खेपे आयकूंक येवचें. तिस-या अंकांत उणेंच तीन खेपे प्रॉम्टींग आयकुनूय पात्रांक सबंद वाक्यां शेंवटुपाक कुस्तार जावचें. पात्रां फाटल्या पड्ड्याक घश्टून वा दाव्यांत वा उजव्यांत फालींक तेंकून भितर कानोसो घेवन रावचीं.

प्रॉम्टर कंसांतलींय वाक्यां उलयतालो. देखीक-स्वगत. पाट्यीन तें मोट्ट्यान उच्चारचें. लोकांकूय त्या उतराचो बोध जायनाशिल्लो म्हणटकच आनंदीआनंद. आनीक एकदां मजाच जाली. मसुंडेंतलो गंभीर सीन. हिरो लांपयांव घेवन थंय पावला. प्रॉम्टींग आयकून ताणें कंसांतलें व्हडल्यान म्हणलें, 'कंदील ठेवतो'.

आमच्या गांवांत एक सादोभोळो अरवळ तरणाटो आशिल्लो. पांडलो. ताका इतिहासीक नाटकांतूच काम करपाची उमेद. कारण हेर कडेन ताका घुसडावप शक्य आसनासलें. ताका तो मुसलमान सैनिकाचो झगझगीत झळझळीत भेस खूब आवडटालो. रांदन सारयिल्ले भशेन मेकप. खाडके वयलें बोकडे भशेन खाड. पोल्यार सदांच मोट्टो तीळ. नाटक जालें तरी तो भेस काडप वा मेकप धुवप पांडल्याच्या जिवार येवचें. मराठा सेनापतीक कैद करून धरून व्हरपी मुगलांच्या गटांत हो पांडलो एण्ट्री घेतालो. तो माचयेर येना फुडें माटवांत घे गा कुयो, शिळोण्यो, बोवाळ...... पांडलो आयलो, पांडलो आयलो. पांडलो शिकूंक नाशिल्लो. म्हणटकच ताची इत्सा आसुनूय ताका वाक्यां दिवप शक्य नासतालें. माचयेर येना फुडें तो सगळ्या पाट्यांक तुकूतुकू करून विचित्र तकली-मान हालोवन पळेतालो. ह्या कांय खिणांच्या मोरपांखी अणभवा खातीर पांडलो येसायो चलतना कसलींय कामां रेड्या भशेन मरसर करतालो. पांयपेटी उखलून हाडप, माटव घालप......ताचे ते उमेदीचेर जीव उंवाळून उडोवचो कसो दिस. एक दीस वाक्य उलोवपाची

पांडल्याची उर्मी ताच्या नियंत्रणा भायर गेली. थोबा, थोबा, दीन, दीन अशें म्हणीत तो भालो 'ठेजीर' आपटीत रावलो. मी दिवाणखान्यांत आराम घ्यायला जाते, म्हणीत तोंडार पदर घेत हांसो दामीत नटी कडसरली. माटवभर किलांट्यो, कुका-यो..... प्रवेशाचो पड्डो उडोवपा बगर गत्यंतर नाशिल्लें.

एकदां पिरवळा नाटकाक गेल्लों. चांदणे शिंपित जा. ऐन त्या वगतार त्याच दिसा सकाळीं एका पाट्योन घात मारलो. कसल्या तरी कामा खातीर बेळगांवां गेलो. झ्या झ्या, कोणाक तरी बोरयेच्यान ते भुमिके खातीर आवाशिवा करून हाडलो. ताणें केन्ना तरी तो पार्ट केल्लो अशें ते सांगी. पूण तो सगळोच लडबडटालो. चुकतालो. ताच्या मुखामळाचेर आबोलार जाल्ल्याचो एकेच तरेचो अभिनयाचो भाव दिसतालो. एक गंभीर सीन. कोणें तरी आत्महत्या केल्या. इतल्यान हो पार्टी आयलो. सगळे पार्टी हांस हांस हांसतात. कितें जालां तें म्हाकाय कळूंक ना. प्रवेश जातकच म्ह-यांत आशिल्ल्या इश्टाक विचारलें. तो म्हाका म्हणटा - ताचे फुडलो तूं घोनो. ताच्या कोटाचे बुतांव वयर-सकयल जाल्ले. आनी पॅण्टीचे लावंकूच विसरिल्लो. कर्मभोग!

त्या तेंपार करमणुकीचीं कसलींच साधनां नाशिल्लीं. म्हणून 'नाडकांक' गर्दी पडटाली. ती धुंदीच वेगळी आसताली. पदां नासल्यार मास्तर पदां घालतालो. जानू मास्तर आपणेंच बरयिल्लें, कम्पोज केल्लें एकूच पद कितल्याश्याच नाटकांनी खंयच्याय पात्राच्या तोंडांत घाली. वसंत फुलला..... आनी पांयपेटयेचेर तो घोळोवन घोळोवन परत परत कडवीं वाजयतालो. नटयांचें पाठांतर तरी आसतालें. नट पदाच्यो वळी हातार बरोवन व्हरताले. व्हडल्या पोपायां सारक्या दिव्यांच्या झोतांत हात मुखार व्हरून वाचून गायताले. एकदां एकट्याच्या तळव्याक घाम आयिल्ल्यान ताका कांयच दिसना जालें. तरिकूय मास्तरूच उमेदीन गायत रावलो. ताचो वसंत तिनूय त्रिकाळ फुलत रावतालो.

आमच्या मंडळाची हिसबापटी आसताली. तातूंत कोणें कोणें पटी

(वर्गणी) दिल्या ताचो हिशोब आसतालो. हेर खर्चाचो तपशील आसतालो. हांव तेन्ना कॉलेजींत. सहज एक दीस तो नोटबूक चाळटालों. हांवें मंडळाच्या अध्यक्षाक विचारलें, 'हाचो अर्थ कितें? न. उ. फों. आ. ख.'

अध्यक्ष उसळ्ळो. तुका नाका आशिल्ल्यो जायण्यो जाय. पार्ट कर म्हणल्यार 'ठेजीर' वचपाक भियेता. हांव फाटीक लागतकच ताणें त्या आद्याक्षरांचो अर्थ सांगलो. नटीला उसगांवहून फोंड्याला आणण्याचा खर्च.

तेन्नाच कित्याक? आयच्याय नाटकांनी विनोद घडत आसतात. फकत ते पळोवपाची नदर जाय. मात हे विनोद शॉक दिवपी आसतात. कांय वर्सां आदली गजाल. कला अकादमीचे कोंकणी नाटकां सर्तींत म्हज्या एका इश्टान नाटक घाल्लें. ताणेंच बरोवन बसयिल्लें. एक पार्टूय तो करतालो. उणींच पांच नाटकां जायना जाल्यार सर्त बंद पडुये देखून ही खटपट, अशें तो सांगी. ताका वायट दिसतलें म्हूण नाटकाक गेलों. उसरांच गेल्लों. पयलो अंक जातकच भितर ताका मेळपाक गेलों. हांव आयलां हें ताका दाखोवप आनी ल्हवूच कूस मारप. पळेत जाल्यार तो खट कसो फाटीक लागलो. दुस-या अंकांत एक दोन वळींचो पोस्टमनाचो पार्ट आसा. तुवें करुंकूच जाय. कसोच आयकना जालो. दुस-या दिसा म्हजे भुमिके वयल्यान पेपरांच्या समिक्षणांनी कुळाचो, घराण्याचो उद्धार जाल्लो. तेन्नाच्यान म्हजो आवरो उडला तो अजून जाग्यार बसना. देखून हांव ही सर्त चालू आसतना मिरामार वचपा आसल्यार कांपाला वयले कला अकादमी कडल्यान केन्नाच वचना. धाडसूच जायना. परत कोणूय कोंकणीच्या नांवान 'ब्लॅकमेल' करून 'सायड व्हिलना'चो रोल दिवन 'ठेजीर' धुकलीत जाल्यार !



# सुत्रसंचालन

वळेसरांत वा फांतयेंत वांवळी आसता. पूण ती दिसना. फुलां एकठांय हाडून गुंथपाचें काम ही वांवळी करता. कार्यावळ नांवाची हळी आसा तातूंतलें उलोवप आनी हेर सोपस्कार हांकां गुंथपाचें काम निवेदक करता. ताका सुत्रनिवेदक वा सुत्रसंचालक अशें म्हणटात.

कितल्याश्याच कार्यावळींचें निवेदन करपाची संद म्हाका फाटलीं कांय वर्सां मेळ्ळी. तातूंतल्यान शिकपाक खूब मेळ्ळें. कांय चुकी केल्यो आनी तातूंतल्यानूय शिकूंक मेळ्ळें. साहित्यीक कार्यावळी, ग्रंथांचें प्रकाशन, साहित्य पुरस्कार प्रदान सुवाळे, संगीत संमेलनां, उकतावण सुवाळे, परिसंवाद, चर्चासत्रां, हेर उपचारीक कार्यावळी हांचेंय निवेदन करपाच्यो संदी मेळ्ळयो. निवेदन कितलें बरें करूं येता हे विशींचें चिंतन तातूंतल्यानूच सुरू जालें.

निवेदक चड उलयलो वा कार्यावळीचेर शेक गाजोवंक लागलो रे लागलो, असंतुळा सादलीच अशें समजुचें. मुदयेर थीक कशें उलोवचें ही कठिणांतली कठीण गजाल. तीन वाक्यां भितर दोन भाशणांचीं फुलां ह्या निवेदकाच्यान गुंथूं येतात. पूण चार वा पांच वाक्यां उच्चारलीं काय समजुचें, अती जालें. वांवळी दिसपाक लागली. ती दिसूंक फावोना. वांवळी सगळ्यांक बांदून दवरता हाचो अर्थ तिणें आपलें वेगळें अस्तित्व

दाखोवपाचो यत्न करचो अशें न्हय. भाशणां सामकींच मुद्द्या भायर व्हांवपाक लागतात आनी कार्यावळीचो बेरंग जावपाक लागता तेन्नाच सुत्रनिवेदकान मातशें सांबाळचें पडटा. म्हणजेच जीं मदलीं तीन वाक्यां आसतात तीं खोलाय आशिल्लीं उलोवचीं पडटात. श्रोत्यांक थाकाय दिवपाक, कार्यावळीची दिशा मार्गार दवरपाक.

खूब खेपे कोणाय वक्त्याचें भाशण इतलें तेजस्वी जाता की माचयेर बशिल्ले सगळे तशेंच श्रोते भारावन वतात. निवेदकूय त्या अणभवान भिजून गेल्लो आसता. अशा वेळार निवेदक त्या आनंदाच्या भरांत त्या भाशणा विशीं तें कितलें प्रभावी आनी अप्रतीम आशिल्लें हें सांगपाक अतिताय करून चड वाक्यां उलोवपाच्या मोहाचे भकीक पडपाची शक्यताय आसता. हो संयम आनी नियंत्रण भोव म्हत्वाचीं. तोल सांबाळूंक जाय. श्रोत्यांक कार्यावळीचो आनंद घेवपाक वातावरण पोशक दवरप, ते आनंद घेतात आसतना ते प्रक्रियेक बादिकार जायनासतना आनंदांत तरंगपी त्या श्रोत्यांक तातूंत रममाण करून दवरप ही निवेदकाची एक भुमिका. भोव मोलाची ती!

सुत्रनिवेदक हें पात्र आमच्या सामुदायीक, भौशीक, उपचारीक कार्यावळींनी केन्ना आयलें हाचो इतिहास, वर्स, काळखंड आमी नकळो. एक गजाल खरी. एका तेंपार कार्यावळीचो अध्यक्ष वा यजमान हें काम करी. म्हणजे आतां अमको उलयतलो इतलीच उद्‌घोशणा तो करी. चडांत चड ताचे फाटल्यान एक वा दोन वाक्यां. आनी सगळ्यांत निमाणो तो स्वता उलोवन कार्यावळीचो समारोप करी.

ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जाल्ले कोंकणीचे विचारवंत लेखक रवीन्द्र केळेकार हांणी ह्या सुत्रनिवेदका संदर्भांत एक काय दोन स्वतंत्र लेख बरयल्यात. 'नवप्रभा' दिसाळ्यांतल्या 'स्वगत' ह्या स्तंभांत कोणाकूय किरकोळ दिसुये अशा विशयाचेर स्वतंत्र लेख बरोवचे अशें ह्या लेखकाक दिसलेंच कित्याक? इतल्या विवीध, खोल, गहन जिवनस्पर्शी अशा विशयांचेर हो लेखक बरयत आसता. मागीर मळबांतल्या नखेत्रां

इतले असंख्य विशय स्तंभां खातीर आसतना हो निवेदनाचो विशय ह्या लेखकाक इतले तळमळीन स्वतंत्र लेख कित्याक बरोवंक लायता? उत्तर सादें. दर्जो नाशिल्ल्या निवेदनाक लागून कार्यावळींनी कांय खेपे जो व्यत्यय येता, बेरंग जाता, ताका लागून ह्या चिंतनशील लेखकाक कितल्यो कितल्यो यातना जाताल्यो तेंच ह्या लेखांतल्यान होलमता. समाजीक सांस्कृतीक मळ ह्या सुत्रसंचालकानूय घटमूट करचें ही ताचे फाटली भावना.

निवेदन हाता भायर वचूंक फावोना. निवेदन 'शॉर्ट' आनी 'स्वीट' करूंक जाय. निवेदनांत उत्साह आनी उमेद आसूंक जाय. निवेदनांत उच्चारांच्यो वा विशयाच्यो चुकी आसूंक फावोनात. माहितीचो अर्दवट उल्लेख आसूंक फावोना. उलयिल्ल्या वक्त्यांच्या मुद्द्यांची पुनरुक्ती निवेदक करूंक लागतकच पसरटपण येवंक लागता. तें टाळूंक जाय.

कांय आयोजक सुत्रनिवेदकाक खूब खेपे सविस्तर कार्यावळ, भाशणांचो क्रम वा मुखेल सोय-यांची वळख आनी हेर तपशील दिनात. माहिती दिलीय जाल्यार कांय गजाली दिवपाच्यो उरतात. कार्यावळ 'कॅज्युअली' घेवप हें ताचे फाटलें कारण. तें टाळूंक जाय.

सुत्रनिवेदकान कार्यावळीक रंगत हाडची. रूच हाडची. उठाव हाडचो. सगळी जोडणी करून दिवची. Involve जावन करचें हें. सामकेंच वयले वयर आनी उखलापेपणान करचें न्हय. पूण एक. लोक आपलें आयकूंक येवंक नात जाल्यार वक्त्यांचें वा संगीत कलाकारांचें आयकुपाक आयल्यात ही गजाल गांठीक घट्ट बांदची.

सुत्रनिवेदकाक बसपाक आसन वा कदेल नाका? खूब जाणांक हे गजालींची पर्वा नासता. ताका एक तर माचयेरूच कदेल दिवं येता वा जो संस्थेचो मुखेल जाणवळदार वेदीचेर बसला ताचे म्ह-यांत ताका बसोवं येता. कारण कसल्योय ऐन त्या वगता वयल्यो सुचोवण्यो दिवपाच्यो आसत जाल्यार तो जाळवणदार निवेदकाक कानांत फुतफुतून वा कागदार बरोवन त्यो दिवंक शकता. वेदीचेर नासत जाल्यार निदान

'पोडियमाचे' कुशीक तरी कदेल दवरूक जाय. कार्यावळभर उलोवपी निवेदकाक ताळो सुकता आनी तान लागता म्हूण थंय उदका बाटली दवरूक जाय. गजाली साद्यो दिसतात ख-यो पूण सगळेंच कॅज्युअली घेवपी आयोजकांक खूब खेपे हाचें भान आसना.

रेडियो सिलोनाचेर बिनाका गीतमाला गाजोवपी रेडियो निवेदनांतलो सम्राट अमीन सायानी निवेदनाच्या मंत्रा विशीं आनी तंत्रा विशीं कितें सांगता तें पळेयात. अमीन सायानीचे हिंदी उतरावळी प्रमाण सुत्रसंचालना विशींचीं स (६) 'स'चीं सुत्रां आसात, जीं कसलेय तरेच्या निवेदनाक लागू जातात.

सही. सही म्हणजे खरें. अचूक. उलयतना चुकी करूं नाकात. ह्यो चुकी कसल्योय आसूं येतात. उच्चारांच्यो, माहितीच्यो, भाशाशुद्धीची पर्वा करिनासतना केल्ल्यो कसल्योय.

सत्य. तुमचें निवेदन, तातूंतलें दरेक उतर खरें जाय. फट सांगून म्हणजे वेळ मारून व्हरपा खातीर फटास मारून लोकांक फटोवंक फावोना. सत्य कथनान विस्वासार्हताय वाडटा. निवेदकाची, निवेदनाची, कार्यावळीची.

स्पश्ट. उलयता तें स्पश्ट आसचें. कितें उलयलां तें आयकुप्याक कळचें. तकालशी विरयत. अर्दकुटे उच्चार, कायलोळ्यो केल्ले भशेन संदिग्ध अपूर्ण अर्थांचीं विधानां टाळचीं. स्फटिका भशेन स्पश्ट आनी पारदर्शक निवेदन कार्यावळीची रंगत वाडयता.

सरल. म्हणजे सुटसुटीत. सोंपें. सादें. आपूण कितें उलयतां तें सामान्याक लेगीत कळचें. आमी जशे उलयतात तसली सादी भास वापरची. जडगुळो बोजड कृत्रीम ग्रांथीक अलंकारीक न्हय.

सभ्य. भाशेंत सभ्यताय जाय. विनोद जाय पूण तो करतना व्हांवून पोजडेपण, अश्लीलताय, उखलापेपण वा उर्मटपण, आगाऊपण उपकारा पडना. सभ्यपणांत म्होंवाळपण, नमळाय, ऋजुता, शूचिता, शालीनताय ह्यो गजाली आसपावतात आनी त्यो निवेदकाच्या रक्तांत घोळत

आसल्यार हें सहज घोळटा.

सुंदर. निवेदन सुंदर जावचें. ओडलायणें. लोकांचीं मनां कार्यावळी कडेन ओडपी. खेंचपी. मनां आनी लक्ष माचयेर बांदून घालपी. गोड. काळजां जिखपी. आपखोशयेन, कलेचे सेवाभावनेन, सृजनाचो आनंद घेवन सादरीकरण करतकच निवेदन सुंदर जाताच.

कोंकणींत अजून तरी सुत्रसंचालना विशीं पुस्तक येवंक ना. हेर भाशांनी आसात. कोंकणींत तें येत जाल्यार ताचो आदार उदेत्या सुत्रसंचालकांक जातलोच..... पूण...... निवेदन शिकूंक सोदपी नव्या भुरग्यांक फकत पुस्तकांच्याच आदारान पावल्यो मारून जावचें ना. तांकां ह्या मळार वावुरपी अणभवी निवेदकांचें मार्गदर्शन जाय पडटलें. ते खातीर जाय कार्यशाळा. सुत्रसंचालन म्हणजे कितें हें धडे दिवपी आनी प्रत्यक्षांत वांटेकार जाल्ल्या त्या भुरग्यां कडल्यान काम करून घेवपी.

अश्या कार्यशाळांचो उपेग जाता. म्हाका फाटल्या कांय वर्सांनी असल्या कार्यशाळांनी उलोवपाचो वा सादरीकरण करपाचो अणभव मेळ्ळो. उदेत्या निवेदकांक ताचो खूब लाव जाता हें पटलें.

कार्यावळ बरी जावची, लोकांक आनंद दिवपी थारची अशें दिसता जाल्यार एक गजाल जावंकूच जाय. ती म्हणल्यार सगळ्या घटकांची येसाय फावो तशी जावंक जाय. निवेदनाचीय जावंक जाय.

हय. जाय. येसाय. पूर्वतयारी. अभ्यास. कांटेकोरपणान. बारीकसाणीन. खोलायेन.

निवेदन म्हणल्यार निवेदन. भाशण न्हय तें. कॉमॅण्ट्रीय न्हय. पूण तें बरें गोड प्रभावी जातलें जाल्यार येसाय जाय. जितली येसाय शिस्तबद्द, आंखीव, रेखीव, वेवस्थीत, तितलेंच हें निवेदन परिणाम सादपी जाता. हो म्हजो तरी अणभव.

ही येसाय कशी मारची तर? ती कशी मारची हाचे नेंम नात. सुत्रां नात. पुस्तकां नात. जण एकल्या निवेदकान आपले कालेती प्रमाण ती

थारावची. पूण आपल्या निवेदना विशींचें हें चिंतन जाय. ज्या दिसा निवेदन स्विकारलें त्याच दिसा ही प्रक्रिया सुरू जाली.

एक सुत्रनिवेदक म्हूण हांव स्वता कार्यावळीची येसाय कशी मारतां? पयली गजाल म्हणल्यार हांव येसाय नांवाचे हे गजालीक समर्पीत आसतां. येसायेचें म्हत्व हांव जाणां. अणभवान. सोंशाच्या कासाक वतना वागाच्या कासाची तयारी आसूंक जाय हें हांव मानतां आनी ते प्रमाण तयारेक लागतां. म्हणजेच जे कार्यावळीचें हांव निवेदन करपाचो आसां ते कार्यावळी विशीं, तातूंतल्या विशयां संदर्भांत, बारीकसारीक गजालीं विशीं चिंतन करतां. आयोजकां कडल्यान कार्यावळीची व्याप्ती, क्रम, भाशणांचो विशय, उलोवपी हांचे विशीं विचारून घेतां. मुद्दे बरोवन काडटां. कार्यावळींत खंयच्यो गजाली सांगच्यो, कसली काणी, काणुली वा नितीकथा सांगची (सांगचीच पडली जाल्यार), कसलो चुटको सांगचो, कसलो किस्सो सांगचो, कसलो विनोद सांगचो, विचारवंताचें खंयचें वाक्य केन्ना सांगचें, काव्यपंक्ती जाय पडल्यार खंयच्यो वापरच्यो हाचो अभ्यास करतां. गरज पडल्यार हीं वाक्यां कागदार बरोवन काडटां. मनाच्या कागदाचेर बरोवन तीं परत परत म्नांतले मनांत घोळयतां. मनांतले मनांत उलयतां. तीं वाक्यां हांव कितले शक्तीन, कितली फेंक दिवन आवाजाच्या खंयच्या 'मोड्युलेशन' सयत मांडटलों हाची उजळणी करीत रावतां. साणीचेर पाळ झरयत रावन गंध काडचें तशी ही मानसीक येसाय आसता. वागाचे शिकारेचो जो मसालो हांव इतल्या प्रमाणांत एकठांय करतां, तो सगळोच तोंडाचे नळयेंत घालून 'ठो' करूंक जायसो नासता. (थोडो मसालो फुडल्या तोंडाकाक वापरूं येता). पूण ताचो आटाप व्हडलोच जाय. कारण तातूंतल्यान आत्मविस्वास वाडटा. तो निवेदनांतल्यान झिरपता. तयारे विरयत अडेचो आनी फाजील आत्मविस्वास शाण्या श्रोत्यांक कळटा आं!

निवेदन म्हणल्यार निखटे कागदा कुडक्यार मांडिल्ले शब्द न्हय. ते ध्वनी, आनी श्राव्य माध्यमांतल्यान कशे तरेन सादर जातात तें म्हत्वाचें. त्या उतरां मदलें काव्य, जीव, लालित्य, भाव, रोस, अर्थ, फावो त्यो

'पॉजी' आनी 'मोड्युलेशनां' हांचे सयत प्रेक्षकां मेरेन प्रामाणीकपणान पावोवपाचें कसब ब-या निवेदकाक पेलचें पडटा. हें कितपत साध्य करचें हें हांव चिंतीत रावतां. तातूंत सपनेतां. शब्दां मदलो, पोंदचो, भोंवतणचो जादू उच्चारांचे बारीकसाणी सयत कोंकणी नादा-संगिता सयत हांव 'पोडियमा' मुखार मायका कडेन उबो रावन कशे तरेन लोकां मेरेन पावयतां ही म्हजी प्रतिमा हांव परत परत नियाळटां, तेळटां, पळेत रावतां. अमूक वाक्या वेळार हांव अशे तरेन हांसतां. अमूक वाक्या वेळार हांव गंभीर जावन अशे तरेन हातवारे करतां हें हांव पळेत रावतां. तातूंतल्यो चुकी समिक्षकाचे नदरेन काडीत रावतां आनी स्वताकूच झोडून सुदारायत रावतां. हे प्रक्रियेंतल्यान जाता कितें? निवेदकाचे भुमिकेचें 'स्पिरीट' म्हज्यांत भिनूंक लागता. म्हजें निवेदन जगमा वरी गोड गोड जायत चल्लां आनी तें प्रत्यक्षांत कार्यावळींत जातलेंच हाचो भरवंसो म्हाका खात्रीन दिसूंक लागता.

ही सगळी येसाय हांव पुजा कशी करतां. त्या खिणांनी समरसून ताचो येतिश्ट आनंद घेतां. ह्या कलानंदांत चिप्प भिजता तोच श्रोत्यांक आनंद दिवंक शकता. आनंद म्हत्वाचो. कार्यावळ जातकच म्हज्या निवेदना विशीं हांवूच चांचपणी घेतां. आत्मपरिक्षण करतां. बरें मागपी इश्टांचो 'फिडबॅक' मतींत घेता. आनीक कितलें बरें जावं येता? मळब ही मर्यादा. त्याच सोदांत बुडून वतां. तोखणायेक भुल्लुसून वचनासतना.

परिपूर्ण येसाय घेवनूय कार्यावळीचो जायत्या कारणांक लागून बेरंग जावं येता. मायक खरखरत रावता वा सिस्टमींत जाल्लो इबाड पंदरा मिणटां तो तंत्रज्ञ दुरुस्त करीत रावता. वीज वता, जनरेटर नासता अशा वेळार संयम, शांती आनी थिराय राखप इतलेंच निवेदकाच्या हातांत उरता. आपली येसाय पूर्ण करची इतलेंच निवेदकाचें कर्तव्य आनी तातूंत मातूय घाळपणाचो जुगार उपकारना.

येसाय नाशिल्लें निवेदन म्हणल्यार मोव करूंक नाशिल्लें जगम. तें आडूक लागता. हाताच्या तळव्याचेर कुळागरांतलें जगम धरून 'चानये

चानये मोव कर, हुंदरा हुंदरा गोड कर' अशें म्हणून खातात तेच तरेन निवेदकान चानी जावन येसाय घेवची. अभ्यासान गोडसाण हाडची. तेन्नाच तें सुत्रनिवेदन अमृता भशेन रुचीक लागतलें. निवेदनांतलें एक तरी वाक्य प्रेक्षकाचें मन-काळीज, मास आनी हाडां भेदून वतलें.

सांस्कृतीक जोराची धाम सामाजीक मळार वाडत आसा. जोर रडटा पेजेक. हो जोर रडटा येसायेक आनी अभ्यासाच्या आंबले कुडक्यांक. येसायेचो ध्यास जाय तर? निदिध्यास जाय! तेन्नाच निवेदन जाय तशें जाता. प्रभावी. भांगरा सारकें!



# पिशें : वाचपाचें

पुस्तकांच नाशिल्लीं जाल्यार कितें जावपाचें? हो विचारूच जीव आकुळपिकूळ करून सोडटा. पूण हें म्हत्व कोणाक? तानेल्ल्याक उदकाचें म्हत्व, तशेंच वाचनाचें पिशें आशिल्ल्याक पुस्तकाचें म्हत्व.

पुस्तकांनी म्हाका खूब कितें दिलां. म्हजे वयलें तांचें रीण दिशीं दिशीं वाडत आसा. तांणी म्हाका साक्षर केला. सुशिक्षीत केला. सुसंस्कृत केला. पुस्तकां माहिती दितात. गिन्यान दितात. शाणो करपाचो यत्न करतात. जिणेंतलें अदींमदीं येवपी अळणीपण काडून उडयतात.

पुस्तकां सारको इश्ट ना. व्हड व्हड लेखक आमचे कडेन उलयतात. संवाद सादतात. आमकां जाय तेन्ना तांकां आपोवं येता. प्रज्ञावंत, प्रतिभावंत, हुशार, बुदवंत लेखकांचो हो सांगात भोव सूखदिणो आसता. पुस्तकां विचार दितात. धीर दितात. मार्गदर्शन करतात. उजवाड दितात. विचार करूंक लायतात. मनीस खंय आपली चिंतपाची ८० प्रतिशें तांक जिणेंत केन्नाच वापरिना अशें न्युरॉलॉजी विज्ञान सांगता. पुस्तकां वाचप्यान आपल्या मेंदवाची सुप्त क्षमताय चड प्रमाणांत वापरूं येता. पुस्तकां आमच्यो चिंतपाच्यो आनी येवजुपाच्यो कक्षा वाडयतात. जिणे कडेन वेगळ्यावेगळ्या कोनांतल्यान पळोवपाचें ओक्ल दितात. जिणेचेर रसीकपणान मोग करपाची कला सादपाचो मंत्र शिकयतात.

पुस्तकांचे विशय आनी तरा विवीध. तांकां अंत ना. शीम-मेर ना. विज्ञान, अध्यात्म, समाजशास्त्र, राजकारण, तत्वगिन्यान, साहित्य, जिणेक प्रेरणा दिवपी पुस्तकां...... पुस्तकां व्यासंग घडयतात. सत्संगाचो लाव दितात. भितरल्यान घटाय दितात. भितरल्यान उंचायेर व्हरतात. भितरल्यान सोबीतकाय हाडटात.

प्रसार माध्यमांचो आनी इलॅक्ट्रॉनीक माध्यमांचो स्फोट हांकां लागून पुस्तकां वाचपाची संवय उणावल्या अशी एक बेठीच करांदाय जायत आसा. तातूंत कितलें तथ्य आसा खबर ना. पूण एक गजाल खरी. बरें दर्जेदार पुस्तक आसल्यार वाचक उडयो मारून वाचतात. हालींसराक इंग्लीश भाशेच्या आक्रमणाक लागून देशी भाशांक एक भिरांतूच उपरासल्या. नवी पिळगी देशी भासो घडघडीत वाचूंक शकना ही वस्तुस्थिती. ताका लागून इंग्लीश साहित्याचीं पुस्तकां विक्रमी खप करतात. इण्टरनॅटाचेर पुस्तकां वाचपाची तजवीज आसा. पूण तीं 'डावनलोड' करून संगणकाचेर 'स्क्रिना'चेर वाचपाचें वा छापून वाचपाचें पासियेंस कोणाक आसना. देखून छापी पुस्तकांचें म्हत्व मात्तूय उणें जावंक ना. हीं पुस्तकां आड पडून वाचूं येतात. बसींत, रेलगाडयेंत, विमानांत, वोल्तेरार, कोणाचीय वाट पळेतना..... केन्नाय वाचूं येतात. नव्या पुस्तकांक एक वेगळोच वास आसता. आरमारींतल्या खूब तेंप जावन हळडुवसार जाल्ल्या पानांचोय एक आगळोवेगळो वास आसता.

लेखक, पत्रकार, वकील, नाटकाचो दिग्दर्शक हांणी कितलेंय वाचलें तरी थोडेंच! तांच्या वेवसायांत पुस्तकां वाचप म्हणल्यार वेवसायाक घोळत दवरपी वंगण तेल कशें. कॅरमबोर्डार पावडर नासल्यार घुलो सोंपेपणान हालनात. तशींच लेखकांक, पत्रकारांक, संशोधकांक, अभ्यासकांक पुस्तकां टवटवीत दवरतात. विजेभारीत करून दवरतात. लेखकाची भास तुकतुकीत, चकचकीत उरतली जाल्यार ताणें पुस्तकां वाचीत रावंक जाय. नवीं उतरां, नवी शैली, अभिव्यक्तीची नवी मांडा वळ, नवे झरे, नव्यो कल्पना वाचनान स्फुरतात. संगितकाराक रियाझ, खेळगड्याक सराव तशें लेखक-पत्रकाराक जाय अखंड वाचन!

जो चोखंदळ वाचक चोंयवशीन वाचीत आसता, ताचें व्यक्तिमत्व एका सुंदर फुला भाशेन दिसता. हो मनीस चारचौगां मदीं बसता, तेन्ना भोवतणच्यांक ताच्या पाकळ्यांचो अचळय घमघम येता. पूण वास घेतल्याचें नाक मात तितलेंच संवेदनशील आसूंक फावो. वाचनान शाणो जाल्लो मनीस हेरांक उलयतना वा उलयनासतनाय, बरयतना वा निखटो वागतना देख दिवंक शकता. ताचे ठांय एक खेरीत खोल परिपक्वताय नंदता. वसता. जिणेच्या वेगळ्यावेगळ्या आयामां कडेन भिडटना, फुडो करतना पचयिल्ल्या गिन्यानाचो तेंको आनी फाटबळ असल्या मनशाक मेळटा. वाचता ताचे कडेन एक वेगळेंच तेज आसता. विनय-विवेक, नमळाय-संस्कृताय, ऋजुता-शूचिता आनी मनीसपणाचे हेर गूण आसल्यार हें तेज चकचकत रावता.

जीण म्हणल्यार तरी कितें? जल्म आनी मरण हांच्या तारखां मदीं आडवी घालतात ती इल्लीशी 'डॅश!' वाचपी मनीस ही इल्लीशी 'डॅश' सजयता. तातूंत गुणवत्ता आनी कस हाडटा. आनंद हाडटा. हेरां भशेन तोय वता. पूण सरणार ताची निर्जीव कूड भगभगीत पेट घेता तेन्ना कितल्याश्याच आरमारींतल्यान एकठांय केल्लें म्होंवाचें पोळें ना नपश्यात जाता हाचें दुख्ख जाता. पयशांचें काळींग केल्लो मनीस वता तेन्ना ताचीं बँक खातीं भक्कम आसतात. पूण व्यासंगी, पुस्तक-वेसनी मनीस वता तेन्ना समाजाचें व्हड लुकसाण जाल्ल्याची खंत भोगता. अब्राहम लिंकनान म्हणलां - असलो मनीस मरता तेन्ना पुस्तकांचें आनी वाचनाचें म्हत्व जाणा जाल्ले लोक चुरचुरे काडून हळहळटात, 'खूब खूब वाचतालोआं!'

हांवें मेजार आनी शॅल्फार कांय वेंचीक पुस्तकां दवरल्यांत. तीं कितले खेपे वाचल्यांत आसतलीं हाची मेजणी करूंक नजो. तांची अवीट गोडी तशीच आसा. तातूंतले कांय परिच्छेद आनी वाक्यां अधोरेखीत केल्यांत. हांव केन्नाय तीं पुस्तकां चाळटां आनी हे वांटे नदरे खाला घालतां. म्हजो जीव तरतरीत जाता. नवी उर्मी येता. नवी उमेद फुलता.

गांवागांवांनी ग्रंथालयां आसचीं अशें म्हणटात. एक गजाल मात खरी.

दरेका घरांत खबरेपत्रां, नेमाळीं, पुस्तकां मात आसचीं. 'इण्टेरियर डिझायनिंगा'चो तो प्रदर्शनाचो निखटो भाग आसचो न्हय. घरांतल्या एका मनशान तरी तीं वाचिल्लीं आसचीं. दशिल्लीं पानां कापिल्लीं आसचीं. नाजाल्यार तीं पुस्तकां घुसमटून रडटलीं. जावं बंगलो, घर वा फ्लॅट-पुस्तकां नासत जाल्यार मसंडेंत पाविल्ले भशेन दिसता. घरांत पुस्तकां नासल्यार 'घरपण' परिपूर्ण जावं नजो !

रशियी कथाकार चॅकॉव हांची एक कथा आसा. पैज नांवाची. ताचो थोडे भितर आपरोस असो - इश्टांची पार्टी चलता. खबरो, चकाटां चालू आसतात. फांशीची ख्यास्त चड भयानक काय जल्मठेपेची ह्या विशयाचेर वादविवाद सुरू जाता. एकलो वकील येजमाना कडेन वाद घालता. फांशीची चड भयानक, तो म्हणटा, येजमान सांगता - ना, जल्मठेपेची ख्यास्त चड भिरांकूळ. वाद वाडत वता. येजमान सांगता - तशें जाल्यार तूं एकांतवासांत कोठयेंत राव. पांच वर्सां रावशी जाल्यार हांव तुका दोन कोटी दितां. जालें. आदवोगाद कोठयेंत वता. त्या तरणाट्या वकिलाचे जिणेंत जें परिवर्तन जाता, तें चॅकॉव समर्थ लिखणेंतल्यान उबें करता. ताका त्या काळखांत जियेवपाची चावी मेळटा. पुस्तकां. तो पुस्तकां वाचूंक सुरू करता. तातूंत रमता, बुडून वता. वाच वाच वाचता. तो कितल्योश्योच भासो शिकता. ज्ञानकोश वाचता. शब्दकोश चाळटा. कविता, शास्त्र, साहित्य, कथा, कादंब-यो, ललीत, वैचारीक, विज्ञानीक, सैम, परिसर, तत्वगिन्यान, आपजीण, आध्यात्मीक, नाटकां......... उकत्या जगांत ताका जो जिणेचो गूट समजूंक नाशिल्लो तो ताका बंदखणीच्या वारांवां भितर होलमूंक लागता. मनाचें सौदर्य ताका दिसूंक लागता. ते काळखी घोलींत ताका कितलींशींच जगां सांपडटात. कितलींशींच मळबां. नखेत्रां.

पांच वर्सां सोंपत येतात. पैज मारपी त्या येजमानाचें दिवाळें जावपाचें उरलां अशा समयार तो निरशेता. कोठयेंतल्या ह्या वकिलाचो गळो दामून खून करुया आनी आपले दोन कोटी वाटावया अशें तो थारायता. पैज सोंपपाक तीन दीस बाकी आसतना तो काळखे कोठयेंत ताचो गळो

दामपाक वता. तेन्ना ताका मेणवातीच्या उजवाडांत एक चीट दिसता. 'ह्या एकांतवासांतल्या ग्रंथवाचनाक लागून म्हाका एक नवी जिणे नदर मेळ्ळया. तुमचें जग आनी त्या जगांतल्यो गजाली ह्यो खिणयाळ्यो आसात. पुस्तकांनी म्हजे जिणेक एक नवो अर्थ आनी दिशा दिल्या. म्हणून हांव ही कोठी सोडून वतां. म्हणटकच आपोआप पैजेचो भंग जातलो. पयशां विशींची म्हजी वान्सा सोंपल्या.'

ही आशयघन कथा पुस्तकांचें म्हत्व सांगता.

भुरग्यांक पुस्तकां वाचूंक दिवंक जाय. वाचपाचे संस्कार तांचेर करूंक जाय. तांची कल्पनाशक्त फुलोवपाक आनी तिचो आवाठ वाडोवपाक बरीं बरीं पुस्तकां तांच्या हातांत पावोवंक फावो. सर्तीच्या युगांत तगपाक वाचात नाजाल्यार वांचपं कठीण हें तांकां पटोवन दिवंक जाय. वाचनाची चळवळ वाडत रावंक जाय. किद्याक? समाजाची भलायकी घटमूट, बळिश्ट आनी निरोगी राखपाक तिची भोव गरज आसा. भौस आनी लोकशिक्षण हांचे मदलो 'वाचन' हो एक पूल. तो मोडूंक फावोना. केरळांतले रिक्षा ड्रायवर, म्हातारे, जाणटे लेगीत दनपारच्या वगतार न्हिदनात. झेम काडिनात. वाचीत आसतात. ही संवय सगळ्यांनीच अनुकरण करून आपणावपा सारकी!

जिणेच्या हमररस्त्यार धांवतना पुस्तकांच्या रुखां पोंदां हांव विसव घेतां. तीं थाकाय दितात. सावळी दितात. फळां दितात. फुलां दितात. घडक घडक करून जीण आपले गतीन धांवत आसता. पुस्तकांतल्या उजवाडांत कितल्याश्याच फोंडकुलांनी म्हजी गाडी पडपा पसून वाटा वल्या. ह्या म्हामार्गार तरातरांचे मनीस मेळटात, आपटतात, 'मनीस' नांवाचें हें पुस्तक कशें वाच्चें हेंय शिकोवपाक कागदांचीं पुस्तकां आदार करतात. तांचे कडेन वागतना, उलयतना, वेव्हार करतना कशें धोरण आपणावपाचें हीय कला आत्मसात करपाक पुस्तकां अणभवाक पालव दितात. 'रॉंग सायडीक' वचून मनशां कडले कितलेशेच अपघात टाळून गाडी रुळांचेर हाडपाचें आनी निटायेर दवरपाचें काम पुस्तकां करीत

आसात.

भरकटिल्ले विचार नियंत्रीत करून ते उदात्त करपाचे उपकार पुस्तकांनी केल्यात. कळमेवपी आनी सांचपी बुद्दीक धार काडून पोसवण दिवपी पुस्तकां ही एक कानस. हय. चलतां भोंवतना पुस्तकांच्यो ह्यो कुबड्यो जायूच जाय!

व्हॉल्तॅरान ओगीच म्हणूंक ना - दर दिसा नव्यान उजवाडाक येवपी पुस्तकां म्हज्या अज्ञानांत भर घालीत आसतात.



# शीला

कोंकणी कथा हेर भारतीय कथेचे तुळेन बरी घसघशीत वाडल्या. वाडत आसा. आनी भाशीक चळवळी वेळार वेगळ्यावेगळ्या तरांचे संघर्श करीत वयर सरपी हे भाशेचें साहित्यीक दालन कांय कथाकारांच्या अपरूप कथांनी फुल्लां. कथांच्या ह्या पोरसांत एक सुंदर फूल सगळ्यांचें लक्ष आपणा वटेन ओडून घेता. ही कथा म्हणल्यार 'इल्लें शीं, इल्ली गरमी.' पावरफूल अशी ही कथा. कोंकणी कथावाटेक आनी भारतीय कथेक एक नवें मोडण दिवपी. ही श्रेश्ठ कथा बरोवपी लेखिका म्हणल्यार शीला नायक - कोळंबकार.

खूब वर्सां पयलींची गजाल. प्रकाशक प्रभाकर भिडेन रायबंदरा आपल्या घरा बालसाहित्या विशीं एक कार्यशाळा दवरिल्ली. भुरग्यांलो राजहंस नेमाळ्याचो हांव एक स्तंभलेखक म्हणटकच म्हाका आपयिल्लो. भूषण भावे आनी रवींद्र घवीन बी आपापले पेपर वाचले. भासाभास बी जाली. दनपारचो जेवणाचो विसव आशिल्लो. जेवणाची तयारी चलताली. खूब तेंपान मेळिल्ले आमी एकामेकां कडेन खबरो बी मारताले. इतल्यान एक बायल म्हजे सरीं आयली आनी थंड आवाजाचे पट्टेन म्हजेर ताणशेली.

- तुवें राजहंसांत लक्ष्मणराव सरदेसायाली वळख भुरग्यांक घडयल्या.

तातूंत कथाशिल्प पुस्तकाचें लक्ष्मणरावा कडल्यान डिक्टेशन घेतना मावज्याली कथा, मीनाली कथा इतलोच उल्लेख केला. म्हजो कित्याक करूक ना? हांव शीला कोळंबकार.

तुमचो प्रस्न बरोबर आसा. कथाशिल्पांतलें सगळेंच डिक्टेशन हांवें घेवंक ना. तुमचे कथेचे समिक्षे विशींचें डिक्टेशन हांवें घेतिल्ल्याची याद म्हाका जायना. कारण काका (लक्ष्मणराव) आमगेर अदींमदीं येताले तेन्ना ते अक्षर बरें आशिल्ल्यान आपल्या साहित्याचें म्हाका डिक्टेशन दिताले. कथाशिल्प पुस्तकांतल्या बाकीच्या साहित्याचें डिक्टेशनूय हांवें घेवंक ना.

ही लेखिका खरें म्हणल्यार म्हजी आवडटी लेखिका. तिची मॅगी कथा खुबूच सुंदर. पाठ्यपुस्तकांत तर हे लेखिकेचें चित्र अशे तरेन पिंतारिल्लें की तिच्या शांत, थीर सभावाची झांक तातूंत मारताली. त्या चित्रांतलो हे लेखिकेच्या मुखामळा वयलो भाव आनी तिच्या कथांतलें खोल भावविश्व हांचें एक लागींचें अशें नातें दिसतालें. शीलाबायच्यो कथा हांव वाची. हेर बरप वाची. गोंयची ही धूव लग्ना उपरांत रावता मुंबय. म्हणटकच तसो केन्ना मेळपाचो योगूय येवंक नाशिल्लो. खूब खूब वर्सां आदीं दादाकाकान (प्रकाश थळी) हिचे गॅर कथेचो इंग्लीश अणकार करून फॅमिनांत उजवाडायिल्लो. कोंकणी कथेचो आनी शिलाबायचे कथेचो आवाज देशभर पाविल्लो. हिची ती बक्षीस फावो जाल्ली उत्कृश्ठ कथा खूब आवडल्या म्हूण दादाकाकान अणकारिल्ली. खरे अणकार ते हे. आवडटकच उत्स्फूर्तपणान जातात ते. लेखिका आनी अनुवादक मुंबय आसून लेगीत एकामेकाक केन्ना मेळूंक नाशिल्लीं. म्हाकाय मेळपाची तशी संद उणीच. तातूंतले तातूंत म्हजें बरप आनी तेंय बी भुरग्यांच्या नेमाळ्यांतलें बरप ही वडील लेखिका वाचता ही गजाल मातशी खोसदिणी आनी अजापाचीय थारली.

केन्नाय ही व्हड लेखिका पणजे कुळारा येवन वताली. केन्ना येता तें कळनासलें. वतकच मागीर कोण कोण सांगताले. शीला आयिल्लें.

कालूच गेलें मुंबय. दुसरे खेपे येता तेन्ना हिका मेळप अशें हांव थारायतालों. आनी आयज पयलेच खेपे ही मेळटा म्हणटकच हांव हिचे विशीं, कथां विशीं आदरान, तोखणाय सांगपाचो आशिल्लों मात. पूण आगांतूक अशा ह्या वासपूसरुपी सौम्य शब्दहल्ल्यान हांव जखमी जरी जालोंना तरी भांबावल्ले भशेन जालों. कारण हांवें जी जाप दिल्ली तिणें ही लेखिका समाधानी जाली काय कितें कळ्ळेंना. जेवतना मात हांव तेच गजाली विशीं चिंतीत आशिल्लों. पयलेच खेपे मेळिल्ल्या मनशाक डायरेक्ट येवन विचारपाची हिची कापाझदादूच तोखेवपा सारकी.

जेवन जातकच एका लेखकान हिका एक पुस्तक भेट दिलें. ताणें पॅनान निशाणी मारतना पयल्या पानार वयर बरयलें. शिलाबायक, मायेमोगान.

परत तिणें हांसहांसत वडिलकेन ताचेर धेंगसोसो घालो. '-ह्रस्व दीर्घ कळना रे तुका? सदांच म्हजें नांव चुकयतात तुमी. शिला म्हणल्यार फातर. म्हजें नांव शीला. शील हाचो अर्थ खबर ना? सारकें बरय.' सडेतोड, खरें खरें उलोवपी हे लेखिके विशीं उमळशीक मात तशीच उरली.

सांजेच्या सत्रांतले भासाभाशेंत शीला कोळंबकार उलयली. भासाभाशेंत वांटेकार जाली. मदींच थोडेभोव 'ज्योक' बी करून तिणें वातावरण खेळिमेळीचेंशें केलें. च्या घेतना म्हाका आनीक कितें तरी विचारलें. पूण वेवस्थीत. आर्गुमेंट ना. पूण उलयतना हांव मात सादुरूच रावलों. हांव गॅर कथे विशीं, अणकारा विशीं, बी मातसोसो उलयलों. पूण दुखावल्ले भशेनसो जाल्ल्यान दिलखुलासपणान, मेकळेपणान उलोवप जालेंना. कालांतरान आनीक कसल्या तरी प्रोग्रामा खातीर शीलाबाय गोंयांत आयिल्लें. तेन्ना मात हे लेखिके कडेन उलयतना जाणवलें तें हें. ही लेखिका आपणाक जें दिसता तें तोंडारूच मेकळेपणान सांगपी. जशें दिसता तशें. पूण फाटल्यान तुजें तासपी वा दुस-या कडेन धुवपी न्हय. हो निर्मळ सभाव विशेश ही बरी गजाल अशें

म्हाका दिसलें.

शीलासाहित्य आमकां आवडटालें. शीलाची व्हडवीक गावपी आनीक एक व्यक्ती मेळ्ळी. वास्कोची आमची एक 'फॅमिली फ्रॅण्ड' छाया कर्पे ही शीलाबायची आतेभयण. छायाबायच्या चारूय भुरग्यांक कोंकणी विशयांत शीलाबायचो मॅगी धडो आशिल्लो. आमचें शीला व्हड साहित्यीक हाचो अभिमान छायाबायक खुबूच. भुरग्यांकूय बी इश्कोलांत आमच्या शीला आण्टीन बरयिल्लो हो धडो हाचो गर्व दिसतालो. मुदलांतूच मॅगी ही शीलाबायची आनीक एक पावरफूल कथा. 'मास्टरपीस'. तिचो आसपाव पाठ्यपुस्तकांत केल्ल्यान शीलाबाय गोंयभर फामाद जाल्लें. छायाचो घरकार श्यामराव कर्पे हाकाय शीलाचो आनी ताच्या भयणींचो तितलोच भोव अभिमान. आमगेर केन्नाय येतकच ताणें व्हडविको सांगच्यो. शीलाची व्हडली भयण, डॉ. शशिकला अभ्यंकर हें केदें व्हड दोतोर, मुंबयच्या वैजकी कॉलेजींत ताका हुशार प्राध्यापक म्हूण केदो मान, दोतोर जावनूय तें केदें व्हड सतारवादक, एक भयण चित्रकार, पणजेची भयण बॅंकेची मॅनेजर आनी खूब खूब किदें. श्यामराव एकदां तांच्याच सोय-यांच्या लग्नाक मुंबय गेल्लो तेन्ना शीलान आपली वळख लग्नाच्या बोवाळांत कितल्याश्याच जाणां कडेन करून दिली म्हणून तो अभिमानान सांगी. शीलान आपणाक खूब मान दिलो हें तो गर्वान सांगी. हांवें तेन्ना ह्या शीलाबायक पळोवंकूच नाशिल्लें. वळखदेख नाशिल्ली. मागीर जालीय ती लेखिकेनूच केल्ल्या प्रस्नांनी. ह्या छाया-श्यामरावाली धाकली धूव विभूती तर मॅगी धडो शिकयतकच खंय लेखिकेक मेळूंक वध्रेवंकूच लागलें. आपले मावशेचो धडो हो अभिमान ताका स्वस्थ बसूंक दिना जालो. शीलाबाय गोंयांत पणजे येतकच आवयबापूय ताका मुद्दम लेखिका 'दाखोवपाक' पणजे घेवन गेल्लीं. ही गजाल म्हाका तांणी सांगली तेन्ना म्हाका दिसलो तो दुस्वास. केन्ना तरी हांवूय बी एक बरो साहित्यीक जावचों आनी कोणें तरी म्हज्या सोय-याधाय-यांनी म्हजो व्हड अभिमान बाळगुचो, म्हाका पळोवपाक मेळपाक बी येवचें अशें दिसून शीलाबायची असुया दिसली.

अशेंच एक दीस शीलाबाय गोंयांत आयिल्लें. म्हाका फोन केलो. हांव मेळूंक गेलों. ताच्या भावागेर, बैला येदो एक पेटो आशिल्लो. ताचें तें भोंकप. शी सायबा! त्यो बोबो आयकूं नजो जाल्यो. शीलाबायचे आवयन ताका धांवडावन दुसरे कुडींत बंद करीसर म्हजो उडिल्लो आवरो जाग्यार थिरावंक नासलो. हांव सगळ्यांत पयलीं देवाक भियेतां. थर्त. ते उपरांत ह्या सुण्यांक. चाबल्यार तीं इंजेसांवां घेतलो कोण?

हांवें म्हणलें, खरें म्हणल्यार म्हाका ह्या सुण्यांचो विटूय येता. ती लाळ. आंगाक घश्टप. शी;

म्हजें वाक्य शीलाबायक आनी तिचे आवयक चड आवडलें. कारण फुडले खेपे शीलाबाय आयिल्लें तेन्ना हांवें फोन करून पयलीं सुण्याक बांदात म्हूण सांगलें. वतकच म्हज्या वाक्याची तांणीच पुनरुक्ती केली. हांव फकत देवाक भियेतां आनी ते फाटोफ़ाट सुण्याक.

तर त्या दिसा शीलाबायन वासपूस केली.

कितें चल्लां रे गोंयांत? कोंकणीच्या मळार नवें बी?

व्हडलें कांय ना खास अशें.

गोंयच्यो खबरो म्हाका सुनापरान्ता वयल्यान कळटात रे. पूण तूं आकाशवाणीचो बातमीदार बी न्हय?

तूं म्हज्यो आकाशवाणीच्यो बातम्यो आयकता?

ना. एक दीस मुंबयच्या आकाशवाणी स्टेशना वयली म्हजी कार्यावळ आयकूंक रेडियो ऑन केल्लो तेन्ना सांजेच्यो तुज्यो बातम्यो पयलीं कानार पडल्यो..... आनीक कितें खबर?

खबर अशी कांय ना. पूण एक गजाल सांगीन दिसता. हांवें कसलीय गजाल कितलीय प्रामाणीकपणान करूं, दुसरो कोणूच ती गजाल कितले पोटतिडकीन तळमळीन केल्या वा करतां हें समजून घेना. हें दुख्ख पर वडलें. पूण वयल्यान तो दुखयता म्हणजेच 'हर्ट' करता, काळीज जखमी करता तेन्ना मात खूब त्रास जातात. कितेंय करपाची उमेदूच जिरता. हांवें

म्हजी व्यथाय सांगली आनी हेर गजाली टाळपाक विशय बदल्लो. अकस्मात शीलाबायन म्हजें फुडलें संभाशण आपणाक कळिल्ले भशेन म्हजें वाक्य सोंपचे पयलींच उपदेश केलो. असलीं गंभीर वाक्यां वा थंड आवाजांत आपलो निशेध व्यक्त करतना शीलाबायचें उजव्या हाताचें एक बोट तें मुखार रोखून धरता. आयकतल्याक तें आपल्या दोळ्यांत बी 'ड्रील' करिना मूं अशेंच दिसता. हात अस्सो वयर फाफुडटना ती शैली मातशी गायिका आशा खाडिलकारा भशेन दिसता. मर्दी मर्दी डॉ. किरण बुडकुले भशेनशें मारता. ल्हान भुरग्यां भशेन मनसोक्त हांसतना फुगीर पोले देवकी पंडिताची याद करून दितात. मात ह्या हांसपांत तांच्यांतलें एक भुरगें दिसता. हांसतना बोंचो मातसोसो कलता.

- हें पळे. आपणें कशें वागप हें आपल्या हातांत आसा. दुस-यांनी कशें वागचें तें आमी थारावंक शकनात. आपणें सदचे भशेन बरेंच वागचें.

ते उपरांत हांवें कितें तरी विचारलें. पूण म्हज्या दुबावांनी मात्तूय घुसपनासतना भोंवतणच्या जिव्या तट्टतटीत पात्रांच्या मनोव्यापाराचो थाव घेवपाची कळाशी आशिल्ले हे लेखिकेन म्हजें वेवस्थीत 'ब्रेनवॉशींग' केलें. संतांचीं कांय वचनां बी उद्धृत करून सतविचार सांगून मनांतलो कोयर घयरूव झाडलो.

- भुरगो आसा तूं. मागीर असले प्रसंग हाताळपाची.......

कितें 'मॅच्युरिटी' येता?

- कांय ना रे. मागीर ताची संवय जाता. कांयच 'फील' जायना. बरेंय म्हण वायटूय म्हण. फरकूच पडना.

आयज लेगीत मनांत केन्नाय दुसरे म्हाका समजून घेनात वा म्हाका जाय तशें घडना हो काळोखरुपी विचार मनांत येता तेन्ना खोल खोल काळजांतल्यान शीलाबायन दिल्लो उपदेश 'लेझर' किरण कसो वयर उसळटा, परजळटा आनी.......... हो उजवाड काळखाक नाच्च करता!

शीलाकथा हो अभ्यासपा सारको विशय. ह्या साहित्यांत एक विलक्षण सादेपण आसा. उतरांची सादी रांगोळी घाल्ले भशेन कथानक विणिल्लें आसता. खडपा पोंदा उदक पाझरचें तशे undercurrents आशया पोंदा उमळ कशे सुटिल्ले दिसतात. 'ओली सांज' पुस्तकांतल्यो कथा फकत आकारान मोटव्यो आसात इतलेंच. पूण 'गॅर' वा 'कथाशील' ह्या पुस्तकांतल्या कथांनी तितलेंच सादेपण आसा जें सुरवातीच्या कथांनी दिसतालें. सादें म्हणजे सोंपें न्हय. सादेपणांत एक सौंदर्य आसता जें शीलाबायच्या कथांनी दिसता. एस डी तेंडुलकार हांणी 'वालोर' पुस्तकांत शीलाबायचे 'विद्येच्यान तर' हे कथेची सोबीत समिक्षा केल्या. आनी लक्ष्मणराव सरदेसाय हांणी कथाशिल्प पुस्तकांत शीला कथांची सविस्तर फोडणिशी केल्या. पीएच्‌डी केल्ली जाल्यार हांव शीलाकथांचो कन्नड लेखिका वैदेही हिच्या कथांच्या आटापांत तुलनात्मक अभ्यास बी करून संशोधन करपाचों. दोनूय लेखिका दिसतातूय भयणी कश्यो. आनी स्त्रीवादी साहित्य पिंतारपाच्या कितल्याश्याच गजालींनी दोगांय भितर साम्य दिसता. बायलेची घुसमट, समाजांत-कुटुंबांत अपमान-नालस्ती, थोमणे-कुटले, दगदग हांकां तोंड दिवपाची तिची व्यथा आनी हेर कितलेशेच विशय.

शीलाबायची लेखनशैली पळोवपाक सादी दिसता पूण आशयघनताय आनी सुचकताय वाचकाक थक्क करून सोडटात. आपल्या मर्यादीत अणभवविश्वा कडेन ती निश्ठावान आनी प्रामाणीक आसा.

'भुंयचांफीं' ह्या पुस्तकांत शीलाबायन व्यक्तिचित्रां बरयल्यांत. जितीं जिवीं तट्‌टटीत. हे सगळे नमुने आमचे भोंवतणींच दिसतात. आमच्यांतूय त्याच पात्रांच्यो कांय 'खामियाँ-खुबियाँ' आशिल्ल्यान तीं चित्रां हारशे कशे जाल्यात. प्रा. नाडकर्णी जांकां तांची विद्यार्थिनी खूब मानता तांची अभ्यासपूर्ण प्रस्तावना ह्या पुस्तकाक मेळ्ळ्या.

'हांव वांजूड न्हय' ही कथा पयले खेपे वाचतना म्हाका फिल्म पळेल्ल्याचो भास जालो. खूब खेपे ती वाचिल्ली आनी कांट्यार बशिल्ली. कालांतरान पणजी दूरदर्शना खातीर ताचेर आदारीत एक

टेलिफिल्म करपाक एक संदूय मेळ्ळी. हांवें ताची पटकथा आनी संवाद बरयले. तरी सगळें वेवस्थीत जावचें हो ताण आशिल्लो. कारण दर्जो उरलोना वा लेखिकेचो संदेश फावो तितलो ताकदीन आनी तिच्या मना सारको अभिनीत आनी चित्रीत जालोना जाल्यार तिकाय वायट दिसतलें आनी आमकांय त्रास जातले हें चेपण आशिल्लें. ताका लागून सगळ्या कलाकारांचो जीव हांवें खालो. पूण शीलाबायक तें टेलिफिल्म आवडलें. हांवें इंग्लीश कॅप्शनां आनी इंग्लीश सारांश बरोवन काडलो. तें राष्ट्रीय सर्तींत पणजी दूरदर्शनान धाडलें तेन्ना ताका नामांकन मेळून बक्षिसूय मेळ्ळें.

टेलिफिल्माक बक्षीस मेळटकच हांवें शीलाबायक फोन करून कळयलें.

- तुमी सगळ्यांनी जीव ओतून केलां रे तें म्हणून जालें. स्थितप्रज्ञा वरी जाप आयली.

पूण ताचो आत्मो निर्मिल्लो तुवें. ताची आमी वाट लायलिना हीच आमकां खोस.

टेलिफिल्मांत उरिल्ल्यो कांय त्रुटीय लेखिकेन सांगल्यो. ताचे कडेन आमी सहमत जाले.

- तुज्यो चुकी काडपाक म्हाका आवडटात, अशें म्हणून शीलाबाय हांसलें.

म्हज्या साहित्यांतले जे जे दोश, उणाव वा अस्पश्टपण आपणाक जाणवलें तें तें त्या त्या वेळार मात्तूय भीडमुरवत दवरिनासतना मेकळेपणान सांगपी हे लेखिकेची म्हाका तोखणाय दिसली आनी दिसता. आवडलां तेन्ना तोखणायूय खूब केली. पूण म्हालगड्यां कडल्यान असले शाबासकेची संवय नाशिल्ल्यान म्हाका खांकुडिल्ले भशेन जालें. दुसरें - तारीफ जाता तेन्ना अहंकार तकलेक बी मारून लेखक खंयचे खंय व्हांवता, देखून हांव तोखणाये कडेन दुर्लक्षूच करतां. टिका आयकतां मन लावन. सगळ्याच गजालीं कडेन सहमत नासूं.

केन्नाकेन्नाय शीलाबाय म्हणटा - 'तुजें बरप एकेकदां म्हजे तकले वयल्यान वता.' ह्या विधानांत प्रांजळपण आसाच पूण तेच वांगडा शीलाबाय भितर एक त्रोस मारपी मिश्कील मनाचें भुरगें आसा तेंवूय दिसता.

शीलाबायन व्यक्तीचित्रांय बरयल्यांत. देखीक, 'रवीनबाब'. जरी रवीन्द्रबाब बरयलें तरी आमी ताचो उच्चार रवी(न)बाब करतात हें लेखिकेन कळाशेन दाखोवन दिलां माथाळ्यांतूच. माधव बोरकार आनी रमेश वेळुस्कार हिंवूय व्यक्तीचित्रां बरीं पिंतारल्यांत. म्हाका सदांच दिसता कोणें तरी व्यंगचित्रकारान म्हजो कार्टून काडचो आनी तो हांवें घरांतले वणटीर लावन अदींमदीं ताका पळोवन हांसचें.

1997त मडगांवां चवदावें अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन जाल्लें. शीलाबाय ताचें अध्यक्ष. पयलेच खेपे एके लेखिकेक हो भोवमान मेळिल्लो. शीलाबायचें भाशण सादें आशिल्लें. सदचे भशेन तें दीर्घ आटापाचें नाशिल्लें. तातूंत कोंकणीच्या हुसक्यां विशीं, फुडाराचे आंखणे विशीं भव्यदिव्य विचार बी तितलेशे नाशिल्ले. तातूंत आपले विचार मेकळेपणान मांडिल्ले. संमेलनांतल्या कितल्याश्याच परिसंवादांनी अध्यक्ष आशिल्ल्यान हे लेखिकेक माचयेर बसचें पडटालें. ते गरमेंत पेपराचो आयणो करून सू सू करीत वारो घेवपी शीलाबायन तीन दीस तें अध्यक्षपद यशस्वीपणान भुशयलें.

साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळटकच पणजी दूरदर्शनाचेर शीलाबायची मुलाखत घेवपाची संद म्हाका मेळ्ळी. ते उपरांत कांय पेपरां खातीर, नेमाळ्यां खातीर मुलाखती घेतल्यात. पूण गोवा कोंकणी अकादेमीन शीलाबायची आनी अनाची live मुलाखत घेवपाक म्हाका सांगलें. कला अकादमीच्या ब्लॅक बॉक्सांत जाल्ली ही मुलाखत सगळ्यांत चड याद उरपा इतली रंगली. म्हणजे तांणीच ती रंगयली. बल्कांवाचेर बसून खबरो मारिल्ले भशेन ती जाली. सहज आनी उत्स्फूर्त. धेंपे कॉलेजीचीं आनी गोवा विद्यापीठाचीं भुरगीं शीलाबायक

आनी अनाक 'पळोवपाक' आयिल्लीं.

मुंबय रावन लेगीत शीलाबायन आपले पिळगेची कोंकणी इतली शुद्ध आनी अनवाळी राखल्या कशी हें कुवाडें मात म्हाका केन्नाच सुटना. बरे बरे अणकार, भुरग्यां खातीर रचिल्लें साहित्य, निबंद, रेसिपी लेखन अशें बरप चालूच आसता. म्हजे छंद ह्या निबंदांत जाल्यार लेखिकेचे छंद वाचून अजाप जालें. ही लेखिका वाचता. भोंवतणच्या जगाचें भान दवरता. नेमाळीं, पेपर, पुस्तकां, समकालीन तशेंच आदल्या व्हड लेखकांचें साहित्य. मनशां वाचतां. मानसोपचारतज्ञा भशेन मनशाच्या मनाचीं मुळां वाचता आनी ताचें वर्तन बेस बरें पिंतारता. मनीस वाचतनाच सैमूय वाचता. तातूंत रंगता आनी हो सैमआनंद वाचकाकूय आपल्या निबंदां वरवीं पावयता. जितल्या जितल्या कलां विशीं लेखक receptive आसता आनी तें चिटून घेवन आपल्यांत जिरयता तितली लेखकाची संवेदनशीलताय धारदार आनी तोंकाळ जायत रावता. संगिता विशींची रसीकताय लेगीत साहित्यिकाचे अभिव्यक्तीक एक आगळीवेगळी नजाकत हाडटा. तबलें वाजोवपी, लयतालाच्या गणितांत पारंगत असो बापूय आनी कठीण पूण गोड अशें सतार वाद्य फिशालकायेन वाजोवपी भयण ही संस्कारिता शीलाबायच्या साहित्याक एक डौल हाडटा. सतार वादकाचेर बरयिल्ली एक कथाय हांगा याद जाता. लेखकान वाचनान, गिन्यानान, अणभवान, शाणेपणान वाडत रावंक जाय आनी आपल्या कलाविश्काराचे अभिव्यक्तीची परिपक्वताय सादीत विकसीत जायत रावंक जाय हें शीलाबाय शिकयता. उलयनासतना!

फाटीं केन्ना तरी शीलाबाय मीरामार दुर्गागेर आयिल्लें तेन्ना गेल्लों. खबरो मारून जातकच म्हाका पावोवपाक सकयल देंवलें. हांव स्कुटर स्टार्ट मारपाक वतनाच म्हाका सांगता - 'ही जमनी वयली बारीक वनस्पत पळे. नक्षीदार अशीं तांचीं पानां पळे. बारीक फुलां पळे. डिझायन पळे तो.' म्हाका तातूंत इंटरॅस्ट ना हें एका खिणांत वळखून वयल्यान म्हणटा - 'तुका पयलीं कसलीच रसीकताय ना............. झाडां, पानां, नाजूकसाण, फुलां........ आनी आसतली कशी?' म्हजी

वरी गुगली उडयिल्ल्याच्या आनंदांत आपुणूच हांसलें. म्हाका मात भिरभिरी मारिल्ली.

आमकां आनीक हजार गजालींनी गती आसा हें तुमकां खबर तरी आसा? हें वाक्य मात मनांतले मनांत म्हणलें.

एक दीस तसल्या बारीक वनस्पती विशीं, तणा विशीं, पानां विशीं एक सुंदर ललीत निबंद शीलाबायन बरयलो. म्हाकाच देख दिवंक बरोवंक ना मूं अशें दिसलें. म्हजी रसीकताय वाडूंक पावलिना. पूण निबंदांतल्या सैमवर्णनांत मात रसनिश्पत्ती आशिल्ली. माहिती आशिल्ली. साहित्यकृती सदांच याद उरूंक जाय खंय. ब-या निबंदकाराची तांक ती ही.

शीलाबायन एकदां 'जाग' दिवाळी अंकांत एक दीर्घ लेख बरयिल्लो. वायटांतले दीस. आपलें एक मेजर ऑपरेशन जालें आनी घरची प्रतिकूल परिस्थिती आसतना तातूंतल्यान कशीं भायर सरलीं ताचो तो सविस्तर वृत्तांत आशिल्लो. त्या सबंद लेखांत शब्दां पोंदा एक सूर दिसतालो. तो म्हणल्यार लेखिकेचो भगवंता वयलो विश्वास. तो षड्ज मात काळीज भेदून गेलो. सांसणाचो.

व्हड लेखकां मुखार आदरान विद्यार्थी कसो बागवपाक म्हाका आवडटा. तातुंतूय मनीस भितरल्यान सुंदर, नम्र आनी सादो आसतकच लेखकाच्या व्यक्तीमत्वाक एक ओजस्वी चकाकी उरता. तेन्ना कुर्निसात करीन दिसता. आनी ह्या दोनूय गजालीं सांगातानूच जिणेचो अर्थ आनी सत्य, ईश्वरी सत्तेच्या सांगातान सोदपी लेखकाक एक मांगल्यरुपी कृपेचें वलय दिसता, तेन्ना ते व्यक्ती मुखार आदरान नमचें कशें दिसता. शीलाबायन सांगिल्लीं वचनां हांव आयकतां तें हाकाच लागून!



# मनोहरबाब

कोंकणी लेखक म्हणटा खरो, पूण तुजी भास तुकाच सारकी कळना.

म्हणीं विशीं, ओपारीं विशीं वा हेर कसल्याय उतरा विशीं फोडणिशी वा अर्थ विचारतकच म्हजी आवय म्हाका शिटकायता. तिच्या तोंडांतल्यान तिची आवय वापरताली, तीं अस्सल कोंकणी उतरां सहज येत आसतात. म्हाका कोंकणीच एकदम बरी येता अशें म्हणपाचें धाडस जायना. दिशींदिशीं कितलें खबर ना हें कळटकच. मराठी, हिंदी आनी इंग्लीश ह्या भाशांनीय आमी उलयतात, वाचतात आनी बरयतातूय. मुदलांत आपलेच आवयभाशे विशीं कळपा सारकें खूब आसा हें अज्ञान खबर आसता तेन्ना बाकीच्या भाशांचें कितें?

आमी सगळेच जाण इंग्लीशीचो वापर करतात. ही फिरंगी. भास विदेशी. कितलीय इंग्लीश उलयली वा वाचली तरी तिच्या बारीकसाणीं विशीं आमकां कितल्योश्योच गजाली खबर आसनात; खबर ना हेंय कळना. तरिकूय आमी नेटानेटान आनी खूब खेपे फाजीलशा आत्मविश्वासान इंग्लीश भाशेचो वापर करीत आसतात. ही इंग्लीश भास उलयतना वा बरयतना म्हाका थर्त भंय दिसतालो तो एकल्याचो. मनोहरबाब!

मनोहरबाब भोवभाशाकोविद. Polyglot. कितल्योश्योच देशी आनी विदेशी भासो तांचे जिबेर खेळटाल्यो. ती ती भाशा उलयतना तेच मातयेंत, त्याच वंशांत हो जल्माक बी येवंक ना मूं अशें दिसचें. ताची

उलोवपाची शैलीय गोड, एकेक उतर साकरेच्या पाकांत थपथपीत घोळयिल्ल्या रसगुल्ला वा गुलाबजामा वरी गोंड. उलयतना तो मदींच सुंदर 'पॉज' घेतालो. एक ओंठ दोडून 'टुपूक' करून मिटकी मारतालो. आयकतल्याचे जिबेक बेठीच लाळ सुटची. आनी तो ते रसमय वाणींत ओतप्रोत समरस जावचो आनी बाकीच्यांकूय त्या रसमय संवादांत ताणें ओडून घेवचे.

मनोहरबाब मराठी भाशा अस्खलीत उलयतालो. बरयतालो. मराठी भाशेंत ताका मुंबय विद्यापीठाच्या एमए परिक्षांनी कांय पेपरांनी मराठी उलोवपी 'स्कॉलरां' परस चड मार्क मेळिल्ले खंय. ताका संस्कृत येताली. फ्रँच तर विचारुंकूच नाका. पारिसांत शिकतना फ्रँच भाशेचे कथा सर्तींत तो पयलो आयिल्लो खंय. जर्मनीयी शिकपी अपूर्वा नारायण देसाया कडेन तो जर्मनीयी उलयतालो. तीय बी कार्रेगाद. कोंकणी विश्वकोशाचो मुखेल संपादक आसतना मनोहरबाब आमकां ह्या जर्मन शास्त्रज्ञांच्या नांवां-आडनांवां विशीं उच्चार कशे जातात ते बारीकसाणीन सांगतालो. इंग्लीश? मास्टर रे बाबा. एक दीस एक थळावें इंग्लीश दिसाळें मनोहरबाबान म्हज्या हातांत दिलें आनी सांगलें - हातूंत कितल्यो चुकी आसात सोदून काड पळोवया.

हांवें तो लेख वाचलो आनी म्हणलें - चार आसात.

मागीर मनोहरबाबान हांसत हांसत म्हाका व्याकरणाच्यो आनी हेर धरून इकरा चुकी दाखयल्यो.

तेन्नाच्यान हांवें इंग्लीश वाचतना दर्जेदार आसा तेंच वाचप हो कानाक पीळ घालो. बेसूर संगीत आयकतकच आपलोय रियाझ बेसूर मार्गान वचत म्हूण गायकान, वादकान, बी जतनाय घेवची तशी दक्षताय हांवें घेतली.

रेडियो हें एका तेंपार एकमेव प्रभावी माध्यम आशिल्लें. रेडियोचेर बातम्यो, पदां, संगीत, नाटकुलीं आनी हेर कार्यावळी येताल्यो. एकूच मनभुलयणो रेडियो टॉक यादीक उरला. मनोहरबाबाचो. तोय इंग्लीशींत.

'भुरगेपणांतल्यो यादी' ह्या विशया वयलें भाशण तें. म्होंवी इंग्लीश. शांत भावरसान उकतायिल्ल्यो तांच्यो भुरगेपणांतल्यो यादी. हें भाशण आयकतना हांव एका वेगळ्याच विश्वांत पाविल्ले भशेन दिशिल्लें आनी आयजूय ती याद जातकच परत त्याच शांत अणभवांत पाविल्ले भशेन दिसता. इंग्लीश उच्चार कशे आसचे ताची देख ती. 'रेडियो टॉक' कसो आसचो ताचो वस्तुपाठ तो.

मनोहरबाबाचो एक सणसणीत इंग्लीश लेख एकदां वाचलो. चित्रकार लक्ष्मण पै हांचेर बरयिल्लो. इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांस संस्थेन उजवाडायिल्ल्या बुलेटिनांत तो आयिल्लो. हो लेख म्हणल्यार एक आडवी चित्रमय कविता कशी. चित्रकलेची तोखणाय, कलेची तुस्त आनी लक्ष्मण पैची व्हडवीक नकसूद उतरांनी अशे तरेन मांडिल्ली की लेख कसो बरोवचो हाचो वस्तुपाठ म्हूण तो पत्रकारितेच्या आनी हेर क्लासांनी वापरचो असो.

पारिसांत मनोहरबाबा वांगडा चोडणेंचो बाबू (डॉ. काशिनाथ) महाले शिकतालो. गांवघरा चोडणां वतना फेरिबोटीच्या प्रवासांत वेळ खूब मेळटा. तेन्ना हांव डॉ. महालेक मनोहरबाबाच्योच गजाली परतपरत घोळोवन घोळोवन विचारी. कॉलेजींत आसतना मनोहरबाबान कविता कश्यो केल्यो आनी हेर जायत्या गजालीं विशीं. पूण बाबू केन्नाच वाजेनासलो. ताचे कडेन उलोवपाचे खूब विशय आसताले पूण हांव 'मनोहरबाब' विशयाची एकूच सम घेवन बाणीर बोट दवरून रावतालों. मनोहरबाबाक अपघात जालो आनी तो हॉस्पिटलांत उरलो. धोंपराक फ्रॅक्चर जाल्लें. त्या वेळार जे हाल जाले आनी त्या वायटांत मनोहरबाबाक कविता कश्यो उत्स्फूर्तपणान आयल्यो ती गजाल डॉ. महाले कडल्यान आयकतना म्हज्या आंगार कांटो फुलतालो.

मनोहरबाब कवी. 'हडवोताल्ल बेबो शेतामेरेर उबो' ह्या तांच्या जगप्रसिद्द रेडियो गिताचेर आमची पोसवण जाली. 'खळार आनी मळार' ही भुरग्यांची कार्यावळ आयतारा सकाळीं आकाशवाणीचेर लागताली. ते कार्यावळींत ह्या गिताची फरमाईश करपाक हांवें कितलीं पोस्ट कार्डां

बरयलीं हाची गणटी करूं नजो. 'बाबूच्या लग्नाक सगळे आयले बाबू आयलोना' हें ताचें बालगीत तांच्याच ओंठांतल्यान आयकुचें. बाबूच्या लग्नाक सगळे आयले बाबू आयलोना, बाबूच्या लग्नाक सगळ्यांक सांगलें, बाबूक सांगलेंना. हें वाक्य मनोहरबाब भावपूर्ण रितीन सादर करी तेन्ना आमच्या भुरग्यांचीं तोंडां 'आं' जावन उरतालीं. दिवचले शणै गोंयबाब जल्मशती जाल्ली. घे म्हणून पावस कोसळटालो. हांव सवे यतेंत. दिवचल नगरपालिका सभाघरांत कवी संमेलन चलतालें. हांवें मनोहरबाबाक 'बाबूचें लग्न' कविता म्हणपाची फरमाईश रामदास नागेश करमली वरवीं माचयेर धाडली. आनी कितें कोण जाणा, मनोहरबाबान ती म्हणली.

विश्वकोशांत आसतना मनोहरबाबा कडल्यान खूब खूब शिकूंक मेळ्ळें. भाशे विशीं, शब्दां विशीं, साहित्या विशीं, अणकारा विशीं, संपादना विशीं. मनोहरबाबाक उतरां कडेन खेळपाची आवड आशिल्ली. उतरां वयल्यान कोटयो आनी विनोद करपाचीय संवय आशिल्ली. एक दीस ताणें बसकेंत सांगलें. वाक्यां बरयतना जतनाय घेवंक जाय. ती देरा बोगले न्हिदली. ह्या वाक्याचे दोन अर्थ जावं येतात. मागीर तांणी एक इंग्लीश वाक्य सांगलें. In the evening I will give you a ring, she said to her boyfriend. ह्या वाक्याचेय दोन अर्थ जातात. सांजवेळा हांव तुका फोन करतां हो एक अर्थ. सांजवेळा हांव तुका मुदी दितां हो दुसरो अर्थ.

मनोहरबाबाल्यो बालकविता म्हाका भुरगेपणांत आवडटाल्यो. आमचें भुरगेपण गोड जावपाक तें एक कारण थारलें. ताचेरूच आमची साहित्यीक आनी सांस्कृतीक भूक भागताली आनी आमची पोसवण जाताली. 'जायो जुयो' आनी 'पिसोळीं' हीं तांचीं पुस्तकांय म्हाका कॉलेजींत आसतना खूब आवडलीं. तांचीं पारायणांच केलीं. तीं कवनां पाठ जालीं. सुनापरान्त पणजेच्यान नवो रुपकार घेवन सुरू जातकच मनोहरबाबान पयल्या पानार चार वळींची 'तिकली' सुरू केली. तांचेंय संकलन जावंक जाय. मनोहरबाबालीं जायो जुयो आनी पिसोळीं ह्या

पुस्तकांच्यो आवृत्त्यो सोंपल्यात. तांचे चौगुले कॉलेजींतले आदले विद्यार्थी मनोहरबाबाच्या रुचीक अध्यापनाची याद काडटात आनी ह्या पुस्तकांची मागणी करतात.

भुरगेपणांत मनोहरबाबाचे बापूय लक्ष्मणराव सरदेसाय आमच्या आजोळा म्हाड्डोळा येवन रावताले. ते आपल्या साहित्याचें डिक्टेशन म्हाका अदींमदीं दिताले. विद्यापिठाच्या कोंकणी विश्वकोश विभागांत काम करतना मनोहरबाबा कडल्यान डिक्टेशन घेतना म्हाका 'त्या' डिक्टेशनाची याद जावची. आनी बापाय-पुता मदलें शारिरीक आकाराचें, मुखामळाचे रचनेचें वा हेर साम्य सोदपांत हांवें गुल्ल जावचें.

लक्ष्मणराव आंगापांगान, तोंडावळ्यान मनोहरबाबा परस मोटसार आशिल्ले. पूण दोगूय उंचायेन लांब न्हय. साहित्यीक मुल्याचे बाबतींत मात दोगूय जाण ऊंच ऊंच. दिग्ग. बापाय कडल्यान साहित्यीक गूण पुताक बडीन येवप ही तांच्यांतली देख तशी दुर्मीळ.

मनोहरबाबाचीं धाकटुलीं कवनां अर्थआशयाचे नदरेन भोव खोल.

शेवणीं जाय?<br>
घरांत पांजरो लावं नाका<br>
पोरसांत झाडां लाय.

हे कवितेंत जिणेंतलें शेवण्यांचें म्हत्व सांगलां. मनसोक्त बागडपी, सुरेल गावपी ह्या शेवण्यांक पळोवन भुरग्याच्या काळजान आनंद घेवपाची नदर कवी हातूंतल्यान दिता. शेवणीं 'एन्जॉय' कशीं करचीं आसतात ताची देख दिता. जिवांक बंदखणींत बंद करून तांचो आनंद घेवपाचो नासता तर तीं स्वच्छंदीपणान नाचतात तेन्ना आपणें तो घेवपाचो आसता. तांकां नाचपाचें आसा तेन्ना तीं नाचतलीं. येवपाचें आसा तेन्ना येतलीं. गावपाचो 'मूड' आसल्यार आपणाक जाय तो राग जाय तितलो वेळ आळयतलीं. जो आनंद मेळटा तो स्विकार करचो.

पोरसांत झाडां लाय हातूंत पर्यावरणाचें, परिसराचें, वनीकरणाचें म्हत्व सांगलां. मोनजातीच्या स्वातंत्र्याचेर स्वताच्या चुकीच्या कल्पनांक लागून

मनीस कसो घालो घालता तें नकसूद उतरांनी सांगलां.

फकत णव उतरांनी क़वी केदो संदेश दिता पळे. मनोहरबाबांच्या कितल्याश्याच कवनांनी हे खोलायेची, आशयघनतायेची तांक आसा.

व्हड व्हड साहित्यिकांचीं, प्रतिभावंतांचीं, विचारवंतांचीं वचनां, सुभाशितां मनोहरबाबाक तोंडपाठ आसतालीं. जाय त्या वेळार तांणी तांचो मार्मीक आनी अचूक पद्दतीन वापर करचो. एकामेका कडेन उलयतना वा कार्यावळींनी वा व्याख्यानांनी माचये वयलें उपचारीक कार्या वळींतलें तांचें भाशण जाल्यार सामकें रुचीक आसतालें. ताचे फाटल्यान तांची अभ्यासपूर्ण तयारी आसताली. तशी तयारी करतना हांवें तांकां पळेल्यात. तेळ्ळयात. हातवारे, तोंडाचे हावभाव बदलीत भाशणाची मनांतले मनांत येसाय घेवपी मनोहरबाबाक हांवें ल्हवूच तांच्या चेंबरांत तकली घालून पळेला.

तांच्या भाशणांतली शब्दफेंकीची लय इतली धोलूंक लायताली की वाचप्याक आपूण एका भावविश्वांत उफेतां असो भास जावचो. अदींमदीं विनोदाचो शिंवर आसतालो. अशीं तांचीं कितलींशींच भाशणां हांवें आयकल्यांत आनी तीं यादींच्या आरमारींनी तशींच रिकॉर्ड जाल्यांत. तीं परत परत पळेतना ह्या मनशाक मनोहर हें नांव सार्थ आशिल्लें हें पट्टा.

मनोहरबाबाचो सहवास जाय जाय कसो दिसतालो. तांचे वागणुकेंत एक सादेपण आसतालें. त्या सादेपणांतलें सौंदर्य मनभुलयणें आसतालें. तांचे कपडे सादे. सामके सादे. खादी. कांय जाण खादी घालतात. पूण उंची. बॉसीझम वा तापप म्हणजे कितें ती गजाल ह्या विद्वान मनशाक खबर नाशिल्ली. मनोहरबाबाच्या प्रत्यक्ष सांगातांत आनी तांच्या साहित्य सांगातांत जिणेचे कितलेशेच खीण भांगराचे जाले. अजुनूय मनोहर काव्य वाचतना वा मनोहर यादी काडटना कृतार्थ जाल्ल्याची भावना शरीरभर जाता !





**प्रकाशीत साहित्यः**

**वळेसर** (1995) ललीत निबंद
पयलें वर्स बिए खातीर पाठ्यपुस्तक (2007 सावन)
**हंसध्वनी** (2008) ललीत निबंद
गोवा कोंकणी अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार (2009)
कला अकादमीचो साहित्य पुरस्कार (2008)

**जल्म : 5 जून 1963**

**अणकारीत साहित्यः**

**आमचीं झाडां अजूनय वाडटात** (2008, साहित्य अकादेमी)
रस्कीन बॉण्डाच्या इंग्लीश कथांचे अणकार
**एव्हरॅस्ट तेमका वयली म्हजी भोंवडी** (2001, नॅशनल बूक ट्रस्ट)
बच्चेंद्री पालाचे जिणेची काणी

— कोंकणी-इंग्लीश शद्बकोशाचे (राजहंस) सहरचनाकार
— जायत्यो कोंकणी कथा इंग्लीशींत केल्यात
— एकांकी सर्तींनी लेखनाचीं इनामां मेळयल्यांत
— 'हांव तसलें न्हय' ह्या टेलिफिल्मा खातीर पटकथा - संवाद लेखन
टेलिफिल्माक दूरदर्शनाचो राष्ट्रीय पुरस्कार (2008)
— कथा, कविता, नाटकां बरयल्यांत
— कोंकणी, इंग्लीश नेमाळ्यां खातीर स्तंभलेखक
— सुत्रसंचालक, क्वीझ मास्टर, मुलाखतकार म्हूण वेगळ्यावेगळ्या माध्यमां खातीर योगदान

— गोवा विद्यापिठाच्या कोंकणी विश्वकोश विभागांत
सहाय्यक संशोधक (1988-1993)
— सध्या आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर
वृत्तनिवेदक (1993 सावन)




खोर्ली - तिसवाडी